Price ₹ 20/- (₹ 25/- Outside Goa)




फेब्रुवारी २०११

गोंय मुक्तीच्या सुवर्ण महोत्सवी वर्साक सलाम!

(१९ डिसेंबर २०१०- १९ डिसेंबर २०११)

# खण खण माती...!
# खणीच्या नांवान खाता कोण!
# गोंयकारांच्या तोंडांत माती!



# संस्मरणीय मैलाफातराच्या हुंबऱ्यार....
# मुक्ततायेची ५० वर्सां



**श्री. दिगंबर कामत**
**माननीय मुखेलमंत्री**
**गोंय**

वसाहतवादाच्या बंद पासांतल्यान मेळिल्ले मुक्ततायेचो येत्या वर्सा भांगरा उत्सव मनोवपाच्या मैलाफातरा दिकेन पावल घालतना आमी गोंयच्या निर्भय सुटके झुंजाऱ्यांक आनी ४९ वर्सां आदीं ज्या संस्मरणीय दिसा पयले खेप स्वतंत्र गोंयचेर भारतीय तिरंगो फडकायलो त्या शूर भारतीय सेनेक आमी वंदन करतात.

तेन्ना सावन आमच्या राज्यान सामाजिक आनी आर्थिक मळार मोठी उडी मारल्या. पर्यटकांचे नदरेन गोंयासारकी सुवात देशांत दुसरी ना आनी निर्णायक वेळार सामाजिक आनी आर्थिक घडीय केन्ना हालूंक ना. दरमाणशी येणावळ आनी महिला साक्षरताय, समाज कल्याण आनी भलायकी ह्या सारकिल्ल्या मळारूय म्हत्वाची सुवात सुगूर केल्या. देशांतल्या पुराय साक्षरताय वळेरेंत गोंय वयल्या पांवड्यार आसा.

गोंय भारतांतलें सगळ्यांत ल्हान राज्य जावं पूण थंयचें आतिथ्य, उद्येग आनी स्फूर्त हे दोनूय नदरेन कोणाकडेच तुळा करूंक जावंची ना. थोडेभितर सांगपाचें जाल्यार १९ डिसेंबर १९६१ त तें मुक्त जायत सावन सगळ्या मळाचेर गतीमान उदरगत ताणें केल्ली आसा. आनी हें शक्य जावंक पावलें तें गोंयचे ताठकण्याचे जनते पासत.

अश्या ह्या पवित्र आनी उत्सवी समयार आमी स्वतंत्रतायेची ज्योत आमच्या काळजांत आनी आमचे भुंयेचेर सतत पेटत दवरतले असो सोपूत घेतात.

**जय हिंद! जय गोवा!**


शिक्षण


उद्येग


शेतकी



भलायकी


पर्यटन

Issued by:
Department of Information and Publicity, Government of Goa

सत्यमेव जयते

वर्स : १० अंक २

फेब्रुवारी २०११

मोल २० रुपया

मुखेल संपादक
दिलीप बोरकार

मुद्रक आनी प्रकाशक
दिलीप बोरकार

छापणावळ
इम्प्रेशन्स, बेळगांव.

व्यवस्थापक
कामिनी किणी

अक्षर जुळवणी आनी मांडावळ
श्वेता नाईक

वर्गणीचे दर
वर्सुकी २५० रु. / तीन वर्सां ६०० रु.

खंयच्याय म्हयन्या सावन
वर्गणीदार जांव येता. वर्गणीचो चेक
'बिम्ब' ह्या नांवान धाडचो

संपादकीय पत्रवेव्हाराचो पत्तो
'धर्म-लक्ष्मी', सांत लॉरेन्स,
आगशी - गोंय ४०३ २०४
दूरध्वनी : (०८३२) २४३८३५५
E-mail : bimbkonkani@yahoo.co.in

ह्या अंकांत उक्तायल्ले विचार
त्या त्या बरोवप्याचे आसात.
संपादक मंडळ ताचेकडेन
सहमत आसतच अशें ना.

कोंकणी मासिक
# बिम्ब
१०वें वर्स

५ खण खण माती...!
खणीच्या नांवान खाता कोण!
गोंयकारांच्या तोंडांत माती!
– दिलीप बोरकार



रेखाचित्रां
गिरिश नंदा बोरकार

गोंय मुक्तीच्या सुवर्ण महोत्सवाक आमच्योय भांगरा शुभेच्छा
मंगळुरांत पावल्यार मुजरत भेट दियात
S. L. SHET
JEWELLERS & DIAMOND HOUSE
ESTD 1947
K. S. Rao Road, Mangalore. Ph. : 0824 - 2440242, 2440085, 2440271
E - mail . slshet@sify.com

celebrating 100 years
HINDU PHARMACY
Caring Your Faith...Since 1911
हिन्दु फार्मासी
पणजी
फोन : २२२३११७३




ONE destination for all your healthcare needs














With the latest technology, multi-disciplinary capability, state of the art facilities, world-class infrastructure and excellent patient care ambience and processes, NUSI Wockhardt Hospital can now be rated as one of the most advanced and progressive healthcare institution in Goa.

Our team of super specialists in Cardiology & Cardiac Surgery, Orthopedics, Neurology & Neuro Surgery, Minimal Access Surgery, Gastro Surgery, Urology & Nephrology, Mother & Child Care makes us one destination for all your healthcare needs.




NUSI WOCKHARDT HOSPITAL

Panzorconi, Cuncolim, Salcete, Goa - 403 703. Tel: (0832) 6684444

E-mail: contact@wockhardthospitals.com Website: www.wockhardthospitals.com

DIAMOND PUBLICATIONS

# आमी फकत राजभासदीसूच मनोवपाचो....!

ह्या म्हयन्याचे चार तारकेर म्हळ्यार ४ फेब्रुवारी ह्या दिसा आमी राजभास दीस मनयतले. आमी म्हणचे सरकार न्हय, आमी म्हणचे गोंयची जनता न्हय तर सरकारी अनुदानाचेर चलपी कोंकणी अकादेमी. कोंकणी अकादेमी ही कोंकणी भाशेच्या उदरगती खातीर स्थापन केल्ली संस्था जाल्ल्यान कोंकणी संबंदीत ज्यो ज्यो घडणुको घडल्यात तांची दखल घेवप हो अकादेमीच्या वर्सुकी कार्यक्रमाचो भाग. कोंकणी अकादेमी दर वर्सा हो राजभास दीस पाळटा म्हूण ताची याद उरता. नातर गोंयची राजभास कोंकणी करूंक ह्या गोंयांत २४ वर्सां पयलीं रान उठलेलें ही गजालूच आमी विसरून वचपाचे.

२४ वर्सां पयलीं ह्याच दिसा गोंयच्या सरकारान कोंकणी ही गोंयची राजभास म्हूण मान्यताय दिल्ली. कोंकणीच्या माथ्यार राजभाशेचो मुकूट घाल्लो खरो, पूण त्या मुकूटाचो आब राखूंक जाय अशी खंयचीच गजाल सरकारकडल्यान घडली ना. कोण तरी बोवाळ घालतात न्हय, मागीर घेयात ही राजभास. करात तुमचें तोंड बंद अशेंच कितें तरी सरकारान केलें आनी आमी दरवर्सा ४ फेब्रुवारी राजभास दीस मनयत रावले. फाटलीं २४ वर्सां आमी तेंच करतात. पूण ह्या चोवीस वर्सांत कोंकणी खंय पावली?

२४ वर्सां म्हळ्यार ल्हान काळ न्हय. फुडल्या वर्सा आमी गोंयच्या मुक्ततायेचो भांगरा सुवाळो जसो मनयतले तसोच त्या वर्साचो फेब्रुवारी म्हयन्याचो एक दीस रूप्या उत्सवी वर्सांतलो राजभास दीस म्हूण मनयतले. हो दीस रुप्या उत्सवी वर्सांतलो दीस आशिल्ल्यान कोंकणी अकादेमी वांगडा हेर कांय संस्थाय हो रुप्या उत्सव मनोवन राजभास दिसाच्या नांवान संस्थेचे जाळवणदार आपल्याकूय मिरोवन घेतले. पूण राजभास कायदो चालीक लागून पाव शेकडो सरलो तरी राजभाशेची अंमलबजावणी फाव तशी जावंक ना हो विचार कितल्या लोकांचे तकलेंत येतलो होच प्रस्न आसा.

गोंयच्या निजाच्या लोकांक, जांका थळावे अशें पाचारूं येता तांच्या पावलांक घटाय जर येतली जाल्यार कोंकणी बगर दुसरो पर्याय ना हें राजभास आंदोलन चलतालें तेन्ना आमी आड्डून आड्डून विरोधकांक आनी सरकाराक सांगलें. गोंयांत गोंयकार परकी जावंक फावना, खंयच्याय तेर्रार गोंयकार पावलो जाल्यार ताका गोंयकार म्हूण वळखुपाची एकूच कुरू म्हळ्यार कोंकणी भास. देखून ही भास गोंयची राजभास जावंक जाय अशें मागणें जालें आनी सरकारान तें मानून कोंकणी राजभास केली.

सरकारान राजभाशेचें विधेयक पास करून २४ वर्सां सरलीं आनी कोंकणी फक्त फायलीनीच उरली. कोंकणीचो वापर गोंयच्या दर एक क्षेत्रांत जावंक जाय आनी जाका लागून गोंयच्या सामान्यांतल्या सामान्य मनशाक आपल्याक ते भाशेंतल्यान व्यक्त करूंक जाय देखूनच ही भास आमकां राजभास म्हूण जाय आशिल्ली.

आयज आमच्या राज्याचो कारभार इंग्लीश भाशेंतल्यान चलता. गोंयच्या खेड्यांतलो मनीस आपलें काम घेवन जेन्ना सरकारी कचेरीनी वता तेन्ना ताका पत्रवेव्हार इंग्लीश भाशेंतल्यान करचो पडटा. आपलें म्हणणें अधिकाऱ्यांक कोंकणी कळनाशिल्ल्यान इंग्लीश भाशेंत सांगचें पडटा. जांकां इंग्लीश कळना तांकां वांगडा वकील व्हरचो पडटा. जांकां थोडी भोव येता ते न्युनगंडाक लागून कितें सांगपाचें तें विसरतात आनी पदरांत लुकसाण ओडून घेतात. ह्या लोकांक फटोवप सोपें जाता तें भाशेच्या ह्या अज्ञानाक लागून. सगळो वेव्हार जर कोंकणी भाशेंतल्यान चलतालो जाल्यार हें फटींगपण उरपाचें नाशिल्लें आनी जे कोण अधिकारी आसात तांकां कोंकणी शिकचें पडपाचें. पूण अजून हें घडना. आमी फकत मनयतात तो राजभासदीस.

गोंय मुक्तीच्या भांगरा उत्सवी वर्साक मुखेलमंत्र्यांनी गोंयचो कारभार गोंयचे भाशेंतल्यान चलयतलों म्हणपाचें जाहीर केलां. लोकांनी सगळो सरकारी वेव्हार राजभाशेंतल्यान करचो अशें आवाहन केलां. पूण ताणीं सरकारी अधिकाऱ्यांक तसो आदेश दिला काय खबर ना. सरकारी अनुदानाचेर चलपी कोंकणी अकादेमीक स्थापन करून बावीस वर्सां सरलीं पूण ते अकादेमीक कोंकणी जाणा जाल्लो, कोंकणीकडेन लागणूक आशिल्लो पूर्णवेळ एक सचिव मेळना हाचेवेल्यान राजभास म्हळ्यार कितें तें कळटा.

कालच्या विधानसभा अधिवेशनांत म्हापशेंचे आमदार फ्रांसिस डिसौजा हाणीं एक मागणी सरकाराकडेन केल्या. विधानसभेंत कोंकणी उलयतात तें कळना देखून त्या प्रस्नाच्यो जापो दिवंक मेळना. तेन्ना हें कामकाज इंग्लीशींतल्यान अणकारीत करचें. केदो व्हड विनोद हो! कामकाज इंग्लीशींतल्यान चलता देखून तें कोंक्णी करचें अशी मागणी खरें म्हळ्यार जावंक जाय आशिल्ली. पूण आमचें सरकार आनी विरोधी गट हांचें सगळे विपरीतूच म्हणूंक जाय! असलीं रत्नां गोंयांत आसात तेन्ना खंयची राजभास आनी खंयचें कितें? चलता तेंच बरें म्हणपाचें!

[signature]

# कवी साखरदांडेची मुलाखत आवडली

**बि**म्बाचो जानेवारी २०११ अंक पावलो. त्या अंकांत समिक्षक एस्. डी. तेंडुलकार हांणी घेतिल्ली कवी अरूण साखरदांडे हांची मुलाखत खूब आवडली. ही मुलाखत वाचून कवी साखरदांडेच्या नितळ हारशावरी आशिल्ल्या सभावाचे गूण-विशेश काळजाक भिडले.

कवी साखरदांडे हांकां तांच्या 'कावळ्याचें श्राध्द' ह्या कविता झेल्याक केंद्रीय साहित्य अकादेमीचो २०१० वर्साचो पुरस्कार फाव जालो ही खोशेयेची गजाल. ह्या कविता झेल्यांत कांय उत्कृश्ट अशो कविता आसात, ज्यो कोंकणी कवितेक वेगळे, अनवळखी आशिल्ले वाटेन घेवन वतात. देखीक-उपरांत, वसती, अंत्ययात्रा, सात दीस, सांगात, देग, वस्त्र. 'अंत्ययात्रा' ही कविता तर मरणा सारक्या गंभीर विशयाक लेगीत फॅन्टसीचे पातळे वयल्यान व्यक्त करतनाच रसिकाक वास्तवाच्या दारांत उबी करता. कोंकणीतली ही एक वेगळी कविता.

कवी साखरदांडेच्या बऱ्याचशा कवितांनी 'कॉमिक व्हिजन' दिश्टी पडटा आनी आपले जिणेकडेन पळोवपाचो तांचो हो दिश्टीकोण तांचे कवितेंत आपसूक अवतरता.

समिक्षक तेंडुलकारांच्या यॉर्करांक, बांवसरांक आनी गूड लॅन्थ प्रस्नांक तांणी सरळ बॅटान जापो दिल्यात. आपल्या भुरगेपणा विशीं, आपले आवय विशीं, आपले घरकान्नी विशीं, आपले जिणेंतल्या सुख-दुख्खा विशीं, आपले कवितेच्या निर्मिती प्रक्रिये विशीं तांणी ज्या मेकळेपणान जापो दिल्यात त्यो वाचून हांव भारावन गेलों. भितरल्यान हळवो जालों. तांणी आवय विशीं सांगिल्ले उगडास वाचून दोळे दुकांनी भरून आयले...

तांची सबंद कविताच नात्यांच्या धाग्यांनी विणिल्ली आसुनूय ती 'पर्सनल' उरनासतनां तिचो आशय सार्वत्रीक कसो जाता हाचो दिश्टावो 'कावळ्याचें श्राध्द' हो कविता झेलो वाचतनां जाता. सादया, सोप्या उतरांनी विशाळ आशयाक वेंगयत ती रसिकांच्या काळजाक घांस मारून रावता.

'हांवूच म्हजी आवय जालों
आनी म्हाका मांडयेर घेतलो' अशो ओळी खंयचोय कवी बरोवंक शकता.

पूण ह्या ओळी फुडें आयिल्ली 'मात म्हजी आवय मेले उपरांत' ही काळीज कोरांथून काडपी ओळ फकत साखरदांडे सारको अस्सल कवीच बरोवंक शकता. कारण कोंकणींतल्या चडशा कवींच्या 'कवितांची वाट' ही जार्दीनाचे दिकेन वता. तर साखरदांडेच्या 'कवितेची वाट' नेमकी उरफाटे दिकेन - मसूंडेचे दिकेन वता. आपल्या वांट्याक आयिल्लें अमृत सगळेच कवी पियेवंक शकतात, पूण जिणभर आंगाक मसुंडेंतलो गोबोर फासून विख्खाचे घोट एकाद्रो अरूण साखरदांडे सारको कवीच पियेवंक शकता.

आत्मसंतुश्ट जायनासतनां, कवी अरूण साखरदांडेची कविता सदांकाळ अस्वस्थ रावत कोंकणी कवितेक आनिकूय उंचेलीं शिखरां दाखयतली, हातूंत म्हजे सारक्या तांचे कवितेच्या रसिकाच्या मनांत इल्लोय दुबाव ना.

आमेन!

■ ■ ■



- परेश नरेंद्र कामत
एफ-६,
पराग कॉ ऑप सोसायटी
शांतीनगर, फोंडें - गोंय.
मो.: ९४२२६४०२१०




## मानधनाक शिणचें न्हय!

**आ**मी दर वर्सा दिवाळी अंक आयलो म्हणटकच, नोव्हेंबर-डिसेंबर म्हयन्याच्या अदमासाक बिम्ब मासिकांत सातत्यान बरयता तांका मानधन म्हूण आमचे तांकी प्रमाण चेक धाडटात.

जांका आमी सदरां वो शीर्शकथा बरोवंक सांगतात वो कविता मागोवन घेतात तांकाच हें मानधन दिवपाचो निर्णय आमी घेतला.

कांय लेख, कथा, कविता आमकां येतात. तातुंतलें बरेंचशें बरप आमी संपादकीय संस्कार करून फक्त बरप धाडिल्ल्याक उत्तेजन मेळचें म्हूण छापतात. चोखंदळ वाचप्यानी दर्जो ना म्हूण हरकत घेतल्या उप्रांतूय आमी हें करीत आयल्यात. ताचे फाटलें निव्वळ कारण बरप धाडटल्यांनी नाऊमेद जावचें न्हय हेंच आसा. तांच्या बरपांत संपादकीय सोपस्कार करपा खातीर जितले मनस्ताप आनी त्रास भोगतात ते पळयत जाल्यार तें बरप कुशीक दवरचें अशें दिसता. तरी आमी तें उजवाडाक हाडटात. ह्या लेखकांनी उपकार करून हेरांक मानधन दिलां, आपल्याक दिवंक ना म्हूण शीण काडून मागणी करची न्हय. बिम्ब मासिकाची ऐपत वाडटकच तांचोय आमी विचार करूं.

- संपादक

# खण खण माती...! खणीच्या नांवान खाता कोण! गोंयकारांच्या तोंडांत माती!

- दिलीप बोरकार

ह्या खाणवेवसायाक लागून एकाच्या घरांत सुबत्ता नंदूंक लागली तर खूब जाणाच्या घरांत दळीद्र रिगलें. खाण वेवसाय हो वयले तराक गोंयचे अर्थविवस्तेचो कणो दिसता. पूण ह्या कण्याचेर कोणाचेंच नियंत्रण नाशिल्ल्यान तो भितरल्यान बरगला म्हणपाचें आतां जण एकल्याक दिसूंक लागलां. पूण हो कणो गोंयची सामाजीक जीण सामकी इबाडून उडोवंक यशस्वी जाला. आमी गोंयचे अर्थविवस्तेक घटाय दितात अशें बावलें नाचोवन मिनेरांनी सरकाराकडल्यान आपलोच फायदो करून घेतला.

गोंय मुक्तीच्या भांगरा उत्सवी वर्साक आरंब जाता थंय आसा, गोंयांत भांगरूच भांगर आसा, शुध्द भांगराचे साठे गोंयभर, चड करून उत्तर गोंयांत जमनी खाला साठ मीटर परस चड खोल आशिल्ल्या जांभ्या फातरांत आसात म्हणपाचें गोंय विद्यापीठान जाहीर केलां मात, गोंयकार गोंय मुक्तीचो भांगरा उत्सवूच विसरून गेले.

हातूंत तांचीय म्हूण तशी चूक ना. भोगवादी जिविताक संवकल्ल्या गोंयकारांक खंयची मुक्ती आनी खंयचो भांगरा उत्सव म्हणा! त्या उत्सवा परस खरें, शुध्द भांगरूच जेन्ना गोंयचे भुंयेंत मेळटा जाल्यार मुक्तीच्या भांगरा उत्सवाचें पडलां कोणाक म्हणा! आलायतें भागर जर मेळटा जाल्यार गोंयकार आख्खें गोंयूच विकूंक तसो फाटीं ना. आपलीं घरां उबारूंक, तिजोरी भरूंक हे आदीं गोंयकारांनी गोंयची माती व्हरून जपान, जर्मन, चायनाक विकली. सैम सुंदरायेन भरिल्ल्या गोंयच्या काळजाक सुरींग लावन गोंय रक्त बंबाळ केलें. गच्च रानां आशिल्लीं तीं बोडकीं केलीं. तातुंतल्यान खोऱ्यानी दुडू जोडलो आनी आपल्या घराक भांगराचे नळे घातले.

मिनाच्या नांवान खणी मारून ती माती विकून जर भांगर करूंक मेळटा जाल्यार आलायतें भांगरूच खणीनी सापडलें जाल्यार हरवें सोदतल्याक भाजील्लेंच मेळ्ळें म्हणचे पडटलें. तेच पासत गोंयचे शास्त्रज्ञ डॉ. नंदकुमार कामत हाणीं हड्ड्यार हात मारून पत्रकार परिशदेंत गोंयचे भुंयेंत आशिल्ल्या भांगराच्या प्रचंड साठ्याची म्हायती दिली तेन्ना गोंयचे सगळे खाण मालक खडबडून जागे जाले जावंक जाय. ज्या खाणमालकांनी आपल्यो खणी विकून उडयल्यो तांका ही खबर आयकून घुंवळ आयल्या आसूंक जाय! जाणी हालींच ह्यो खणी विकत्यो घेतल्यात तांका दिसा उजवाडाक लेगीत भांगराळीं सपनां पडल्यांत जावंक जाय! पूण हें भांगर गोंयांत आसा हें खरें आसलें तरी तें सहजतायेन हाताक लागपाचें ना हाची जाणविकाय जातकच मात कोल्याक दाकां आंबट जाल्लीं हेंय तितलेंच खरें!

## गोंयचें भांगर हाताक लागतलें?

पुर्तुगेज जेन्ना १९६१त गोंय सोडून पळ्ळो तेन्ना गोंयचे बँकेत आशिल्लें भांगरूय घेवन पळ्ळो म्हणपाचें सगळ्यांक खबर आसा. पुर्तुगालाक आशिल्लें गोंयकारांचें भांगर परत हाडपा खातीर खूबश्या फुडाऱ्यांनी यत्न केले. पूण फादर ऑफ द भांगर जालो तो एदुवार्द फालेर. हें भांगर हाडपा खातीर कितल्यो लटाफटी करच्यो पडल्यो हें तोच जाणा. म्हणटकच भांगर कोणाच्या हाताक तशें सहजतायेन लागना.

आमच्या भारतीय लोकांक भांगराचें तशें पिशेंच. आयज भारतांतले एकंदर लोकसंख्ये परस १९% जनता दळदीर रेशेखाला जीवन जगत आसली तरी संवसारांतले एकंदर भांगराचे मागणे पयकी २०% मागणी भारतीयांकडल्यान जाता. आमच्या देशांत भांगराची मागणी करपी आनी उपभोग घेवपी वर्ग म्हळ्यार मध्यमवर्ग. सामाजीक दर्जो, आर्थिक सुबत्ता दाखोवप, परबो, उत्सव मनोवपाखातीर, धार्मिक विधी पुराय करपाखातीर भांगराची मागणी जाता. भांगरांत केल्ली गुंतवणूक ही चड सोयिस्कर म्हूण लोक भांगरांत गुंतवणूक करतात. आमच्या देशांत दर वर्सा ७०० टन भांगराची विक्री जाता. भारतांत ज्यो भांगराच्यो खणी आसात तातुंतल्यान खूब कमी म्हळ्यार दोन टनापरस कमी भांगर हाताक लागता. भारतीयांची भांगराची गरज पुराय करपा खातीर दक्षीण आफ्रिका, स्वीत्झर्लंडतल्यान भांगर आयात करतात.

भारतांत सद्या भांगराचे भाव प्रचंड गतीन वाढतात आसले तरीय भांगराची मागणी कमी जाल्ली दिसना. म्हणटकच गोंयांत डॉ. नंदकुमार कामतीन सांगलां तशे भांगराचे प्रचंड साठे आसात हें कळनाफुडें भारतीय गोंयचे भुंयेचेर घालून घेतले. पूण ते साठे सहजपणान कोणाच्या हाताक लागपी न्हय अशें जरी दिसलें आनी तशी गवाय डॉ. कामत हाणी दिली तरी आयज वेगवेगळ्या कारणांक लागून - गोंयच्या भुंयेच्या पोटांतलें मीन काडूंक, मोठ्या प्रमाणांत शेतांचें रूपांतर करपा पासत दोंगरांची माती काडप आनी वसाहती निर्माण करूंक दोंगुल्ल्यो बोडक्यो करप ह्या सारक्या अती गतीमान वावरांतल्यान गोंयचे भुंयेचो विध्वंस चल्ला. तेन्ना भांगर हाताक लागूं येता ह्या पिश्या हावेसान जमनी भितर फक्त ६५ मिटर पोखरपूच न्हय तर एके वटेन पोखरूंक आरंब करून दुसरेवटेन पोखरीत भायर सरपाक लेगीत हे विद्वाटे फाटीं सरपाचे नांत. इतली ह्या संपत्त भकाऱ्यांक शक्त आसा.

गोंयचे भांगराळे भुंयेंत, धतरेच्या पोटांत खंय खंय भांगर आसा हाची म्हायती डॉ. नंदकुमार कामत हाणी दिल्या. हें भांगर थंय आसाच म्हणपाची गवायूय ताणीं दिल्या आनी ते नदरेन पळयल्यार तातूंत सत्यताय दिसल्या बगर रावना. आपल्या संशोधनाचो पुरावो दितना ते हेर कांय शास्त्रज्ञाकूय गवाय दवरून तांचीं नांवां दितात तेन्ना तांच्या संशोधनांतलें तथ्य हें सामकेंच भायरांव नज हेंय मतींत घेवपाची गरज आसा.

डॉ. नंदकुमार कामत सांगतात - मातयेच्या ल्हानश्या नमुन्यांत असंख्य भांगरा कण सापडले. असलें भांगर ९० ते ९८ टक्के शुध्द आसता. मागीर प्रस्न आयलो, हे साठे खंय मेरेन पसरल्यात? हो हिशेब तसो अदमासान केला. सुवर्णकणांचो पट्टो सरासरी पांच मिटर जाड आसूंक जाय. असो एखाद्रो सोद लागलो म्हणटकच रोखड्योच थंय भांगराच्यो खणी सुरू जातल्यो अशें न्हय. एक टन मातयेंत एक दोन ग्राम भांगर आसलें तर टाकावू मातयेचें करप कितें?असो प्रश्न आतांच चर्चेक आयला. कोंकण रेल्वेन तीन किलोमीटर लांबायेचीं भुंयारां बांदिल्लीं आसात. आयज तंत्रगिन्यान इतलें फुडारलां की, जे पध्दतीन चिले राष्ट्रात कोळशाच्या खणींनी अडकल्ल्या कामगारांक खास भुंयारां खणून वाचयले, तशेंच ६५ मीटर खोल, भुंयपृश्ठाक धक्को लागूंक दिना आसतना आडवें ड्रिलींग करूनय कांय साठे काडूं येतले. पूण हें सगळें फुडाराक -

म्हणटकच गोंयचो भांगरा खातीर विध्वंस जावं येता हें डॉ. नंदकुमार कामत लेगीत न्हयकारनांत. आतां जरी नासलें तरी फुडाराक हें जावं येता आनी ६५ मिटर खोल भुंयार मारून, गोंयचे भुंयेच्या वयल्या कवचाक हात लेगीत लायनासतना भितरले भितर गोंयची भूंय पोखरूं येता. जशें आयचें गोंय ह्या विद्वाट्यांनी पोखरून उडयलां.

## मीन खणपाची गती अती थंय माती...!

जे प्रचंड गतीन गोंयचे जमनीचें उत्खनन जाता आनी ज्या प्रचंड प्रमाणांत गोंयच्या मिनाची माती विदेशांत वता तें पळयत जाल्यार अती थंय माती ही ओपार गोंयकार खणवाल्यांची वृत्ती पळोवन तयार जाल्या जावंक जाय अशें दिसता.

देशांतल्या हेर राज्यांतल्या भौगोलीक क्षेत्रफळाच्या मानान गोंय हो एक नाखूटभर प्रदेश म्हळ्यार अतिताय जावपाची ना. देशांतल्या हेर राज्यांकडेन तुळा केली जाल्यार गोंय म्हळ्यार त्या राज्यांतलो एक जिल्हो लेगीत भरना. म्हणटकच इतल्या ल्हान माणकुल्या प्रदेशाची काळजी ही अत्यंत नाजूकपणान आनी काळजीदारपणान घेवंक जाय आशिल्ली. कित्याक तर ह्या माणकुल्या गोंयांतलो एक फोंड लेगीत व्हडली खण दिसूंक शकता हाचें भान गोंयच्या लोकांनी आनी गोंय सरकारान दवरूंक जाय आशिल्लें. गोंय हें सैमसुंदरायेन भरिल्लें सोबीत सुंदर पर्यटन थळ अशी नामना संवसारभर जाल्या आनी तें तशेंच दवरप ही गोंय सरकाराची जापसालदारकी आशिल्ली. पूण वेगवेगळे कारणाक

लागून, फक्त दुडू करपाचे भकीक पडून गोंयचो विध्वंस जाला आनी हें गोंयकार आयज उक्ते दोळ्यांनी पळयत ओगी बसला.

गोंयची सैमसुंदराय म्हळ्यार अयस पयस पातळिल्ल्यो दर्या देगोच न्हय तर दर्यादिगां पासून भितर जीं शेतां भाटां पातळ्ळ्यांत, दोंगर रानां फाफसल्यांत तांचीय सैमीक गिरेस्तकाय हे सैमसुंदरायेंत आसपावता.

गोंयच्या दर्यादिगेक जी नुस्तेमारी जाता ती पारंपारीक नुस्तेकारांखातीर राखून दवरिल्लो वेवसाय. पूण यांत्रिकी बोटीवाल्यानी भर दर्यांत नुस्तें मारपा वांगडाच देगांचेरूय आक्रमण करून दर्यांतली ही साधन संपत्ती काबार करून उडयली. तेच प्रमाण हेर माफियानी दर्या देगां पासून भितर आशिल्ली साधनसंपत्ती नानपयत करून सैमसुंदरायेन भरिल्लो वाठार बोडको केलो. आयज आमी मळबांतल्यान ह्या वाठाराकडेन पळयतात तेन्ना हे खणीचे मातयेक आनी खणींक लागून गोंयच्या आंगावेलीं रगशेल्लीं चवनां कशीं दिसतात.

गोंयच्या भोवतेक भूंयवाठारांत मोठ्या प्रमाणांत लोखंड, बॉक्सायट, मॅगनीज, लायमस्टोन, सिलीकॉन सांपडटा. आमच्या पुराय देशांतल्यान एकूण लोह खनीज निर्यात जाता तातुंतलें ४० टक्के लोहखनीज फक्त एका मुरगांव बंदरांतल्यान निर्यात जाता.

मुरगांव बंदर हें सैमीक बंदर. ह्या बंदरांतल्यान विदेशांत कितलेय तांकीचें खनीज निर्यात करूं येता. तशेंच गोंयचे भुंयेंत सापडपी लोहखनीजाचे प्रचंड साठे हाका लागून ह्या वेवसायाचो फायदो गोंयचे आर्थिक उदरगतीक जावंचो देखून १९०६ वर्सा पुर्तुगेज सरकारान खाशेलो कायदो केलो. ह्या कायद्या अंतर्गत गोंयांत मीन काडपा खातीर परवाने दिवंक लागले. ते संदीचो लाव घेवन त्या काळांत सयशीं परवाने लोकांनी घेतले. गोंयांत मेळपी मॅगनीज आनी हेर लोहखनीजाचो लाब औद्योगिकरणाक जावंचो म्हूण ब्रिटीश सरकारान गोंयच्या पुर्तुगेज सरकाराकडेन कबलात करून रेल्वे मार्गूय बांदलो. पूण इतलें करूनय गोंयचो मिना उद्योग पुर्तुगेजांक अपेक्षीत आशिल्लो तितलो वाडूंक पावलो ना.

गोंय मुक्ती उप्रांत १९८७ वर्सा ह्या खण कायद्यांत सुदारणा जाली आनी ह्या उद्योगाचेर सरकारचें नियंत्रण ह्या कायद्याक लागून प्रस्थापीत जालें. पूण ह्या कायद्याक न्यायालयांत आव्हान दिलें. मिनेरांचें फावलें आनी १९४७ वर्सा गोंयच्यान जेमतेम १०० टन मिनाची निर्यात जाताली ती १९८७ वर्सा उप्रांत १४ दशलक्ष टनांचेर गेली आनी गोंयच्या विध्वंसाक प्रचंड गती लाबली.

## मिनेरानी मातयेचें भागर केलें

खण उद्येगाक लागून गोंयचे गिरेस्तकायेंत भर पडली म्हणटात. पूण गोंयच्या खण वाठारांत मिनाचे मातयेच्यो जितल्यो व्हडल्यो राशी



उब्यो जाल्यो तितलेच व्हडले फोंड गोंयचे हे सैमसुंदरायेन भरिल्ले भुंयेर पडले. गोंयच्या पर्यावरणाचो इबाड जालो. मिनेरानी गोंयच्या राजकारण्यांक आपल्या हाताकडेन धरले. तांकां तांचो वाटो पावयलो. गोंयचे जे खासदार दिल्ली लोकसभेंत गोंयचे प्रश्न मांडूंक वताले ते मिनेरांचे प्रश्न सोडोवंक दिल्ली वचूंक लागले. गोंयच्यान निर्यात जावपी खनीजाचेर केंद्र सरकारचो टना फाटल्यान जो कर आसूंक जाय आशिल्लो ताचेरूच नियंत्रण दवरपा खातीर प्रयत्न जाताले अशें तेन्ना लोक उलयताले. गोंयच्या खणीचेर नियंत्रण कोणाचेंच उरूंक नाशिल्ल्यान मिनेर आनी राजकारणी गिरेस्त जायत गेले. गोंयच्या मिनेरांनी मातयेचें भांगर केलें आनी त्या भांगराचे नळे राजकारण्यांच्या घरांचेर चडयले.

ह्या खाणवेवसायाक लागून एकाच्या घरांत सुबत्ता नंदूंक लागली तर खूब जाणाच्या घरांत दळीद्र रिगलें. खाण वेवसाय हो वयले तराक गोंयचे अर्थवेवस्तेचो कणो दिसता. पूण ह्या कण्याचेर कोणाचेंच नियंत्रण नाशिल्ल्यान तो भितरल्यान बरगला म्हणपाचें आतां जण एकल्याक दिसूंक लागलां. पूण हो कणो गोंयची सामाजीक जीण सामकी इबाडून उडोवंक यशस्वी जाला. आमी गोंयचे अर्थवेवस्तेक घटाय दितात अशें बावलें नाचोवन मिनेरांनी सरकाराकडल्यान आपलोच फायदो करून घेतला. ताणीं आपलीं घरां भरलीं. कांय आस्थापनानी ताणीं गोंयकारांक नोकऱ्यो दिल्यो जायत, फुटबॉल टिमी तयार करून गोंयच्या तरनाट्यांक एका बॉला फाटल्यान धांवडायले जायत. कांय शाळांतल्या भुरग्यांक गणभेस, पुस्तकां आनी चोपड्यो वाटल्यात जायत. पूण गोंयच्या सगळ्या खाण वाठारांतली सामाजीक जीण खंयचे अवतिकायेक पावल्या तें कोण पळयना.

गोंयच्या मिनेरांनी आयजवेर जपान, जर्मन, चायना ह्या देशांनी हजारांनी टन मीन निर्यात केलें. ह्या देशांनी मिनाच्यो खणी नांत असो अदमास कोणे करचो न्हय. पूण हे देश आपले भुंयेंतलो खनीज साठो

फुडाराखातीर सांबाळून दवरतात. आपल्या पर्यावरणाचो इबाड जावंक फावना हाचेर लक्ष दवरतात आनी ज्या देशांत सवाय दरान खनीज मेळटा तांचे कडल्यान तें आयात करतात.

भोवतेक देश भारतांतल्यान खनिजाची आयात करतात कारण तांका भारतांत कमी दरान खनीज मेळटा. भारतीय मिनेरांक ह्या देशांत आपल्या खनीजाक बरी दर मेळटा म्हूण जें कितें खनीज हाताक लागता तें निर्यात करतात. हेर राज्यांत खनीज उतखननाचेर नियंत्रण आसा. पूण गोंयांत कोणाचो धरबंद कोणाक ना. कोणूय उठ्ठा आनी मिनेर जाता. बेकायदेशीर जमीन पोखरता आनी विकपाच्या वेळार, जाचेकडेन परवानो आसा ताचे मार्फत आपल्या मिनाची विक्री करता. हालीं हालींच चीन देशान लोह खनीजाची ग्रेड पळयनासतना मेळटा तें लोहखनीज विकतें घेवपाचो सपाटो लायिल्लो तेन्ना गोंयच्या मिनेरांनी खंयच्या वाठारांत कितलें ग्रेडीचें खनीज मेळटलें हाचो हिशेब लायनासतना खणी मारल्यो आनी हाताक लागता ती माती भायर धाडून दिली.

पयलीं ६०-७० ग्रेडचें खनीज ए ग्रेड मानून त्याच खनीजाची निर्यात जाताली आनी ४० ग्रेडचें तिसऱ्या दर्जाचें खनीज तशेंच पडून उरतालें. दर नाशिल्ल्या त्या खनीजाच्या ढिगांचें कितें करचें, कशे विल्हेवाट लावची हो मोठो प्रस्न मिनेरां मुखार आसतालो. पूण चीनान ४० न्हय तर ३५ ग्रेडीचो लेगीत म्हाल घेवन गोंयच्या मिनेरांक मालामाल करून सोडले. ही अशी बरकत जाता ती पळोवन मिनेर नाशिल्ले बेकायदेशीर मिनेर जावंक लागले आनी आशिल्ले आपलें प्रस्थ वाडयत रावले.

## बेकायदेशीर मिना खणींक ओतो

पयलीं खूबसो काळ मिनाचें उत्खनन फक्त दिवचल म्हाला पुरतें मर्यादीत आशिल्लें. मिनाची खण खंय आसा काय म्हळ्यार ती दिवचल म्हालांत अशी जाप मेळटाली. पूण आतां मिनामातयेचो धुल्ल पुराय गोंयभर पातळ्ळा आनी गोंयकारांच्या पुलमावांनी ताचे थर दाटत वचूंक लागल्यात.

मुरगांव म्हालांत खणी मारपाक तशी संद ना खरी. पूण हेर म्हालांतल्या खणींतली माती निर्यात करपा खातीर मुरगांव म्हालांतल्या बंदरांत येता आनी जे भुंयेर खणी नांत अश्या मुरगांव म्हालांतल्या लोकांच्याय तोंडांत माती पडत आसा.

एका काळार हाताच्या बोटार मेजपा इतलेच मिनेर गोंयांत आशिल्ले आनी तांका खरे नांवान वळखुच्या परस मिनेर म्हणूनच वळखताले. धेंपो, चौगुलो, साळगांवकार, तिंबलो, बांदोडकार हीं नांवां मिनेरांचींच आशिल्लीं. हे मिनेर मीन काडटाले आनी निर्यात करताले खरे पूण संस्कारी घराब्याक लागून ह्या मीन वेवसायांत ते सर्वसामान्याक त्रास जावंचो न्हय म्हूण जतनाय घेताले.

उप्रांतच्या काळांत बऱ्याच उद्योजकांक मिना मातयेचेर दुडू करूंक मेळटात हें दिसून आयलें आनी प्रत्येक जाण आपूण धेंपो, चौगुलो जावंक सोदूंक लागले. हाका लागून ह्या उद्येगांतली नितिमत्ता ना जाली आनी भ्रश्टाचाराक ओतो येवन पुराय गोंय तांबडें जावंक पावलें. पयसो करप हीच दर एक संबंधीताची मोख जाल्ल्यान सगळेकडेन मोलावणी सुरू जाली.

नवो प्रादेशीक आराखडो तयार जातना नागरिकानी नव्या खणींक मान्यताय दिवंची न्हय म्हणपाचो बोवाळ केल्लो आनी पर्यावरणाचो इबाड करूंक दिनाआसतना खण वाठारांची थारावणी जातली म्हणपाचें उतर सरकारान दिल्लें. पूण नव्या आराखड्यांत ८२५ खणींक परवानो दिवपाची सद्या प्रक्रिया चालू आसा म्हणपाचें आयकूंक येता.

खण वेवसायाक लागून गोंयच्या सैम सुंदरायेचेर, पर्यावरणाचेर हावळ येता देखून हो वेवसाय बंद करचो ओ दबाव गोंयचे जनतेकडल्यान आयिल्ल्यान ह्या वेवसायाक परवानो दिवपी यंत्रणेचेरूय दबाव येवंक लागला.

खण वेवसायाक परवानो दिवंचो काय ना हें ठरोवपाखातीर फाटल्या पांच वर्सांत ११४ रासवळ सुनावण्यो जाल्यो आनी लोकांचो विरोधूय दिसून आयलो. इतलें आसुनय ९१ खणींक केंद्र सरकारान पर्यावरणसंबंदी मान्यताय दिल्या म्हणपाचें कळटा. हाचे वेल्यान खण वेवसायांत घुसपल्ल्या माफियांचो हात खंय मेरेन पावला हें कळून येता.

लोकांचो विरोध आसुनय खाण वेवसायाक मान्यताय मेळत आसली तरीय आतां लोक नेटान विरोध करूंक मुखार सरूंक लागल्यात. पंचायत क्षेत्रांत हे मुखार खण वेवसाय अजिबात नाका म्हणपाचो थाराव हालींच वाळपयच्या नगरगांव पंचायतीचे ग्रामसभेंत एकमतान मंजूर केला. खणधनी गांवच्या सरपंचाक आनी पंचांक हाताकडे धरून, तांचीं बोल्सां भरून हे आदीं खण मारूंक परवानो घेताले. पूण लोकभंया खातीर आतां पंच-सरपंच हे भागगडींत पडूंक सोदिना हाचें हें एक उदारण म्हणूंक जाय.

## खण वेवसायाक लागून स्वसनाचीं दुयेंसां

खण वेवसायाक लागून जे कोण खणीचेर काम करतात तांकांच श्वसनाचीं दुयेंसां जातात अशें न्हय तर ज्या वाठारांत हो धुल्लं पावता त्या वाठारांतल्या भुरग्यां पासून जाणट्यां मेरेन टिबी पासून कॅन्सरा मेरेनचें सगळीं श्वसना संबंदीत दुयेंसां जातात. जंय जंय खणी मारिल्ल्यो आसात थंयचे रस्ते, घरां, झाडां बी सगळ्यो गजाली तांबड्या धुल्लान माखिल्ल्यो दिसून येतात. हो धुल्ल वर्साचे बाराय म्हयने सगळे कडेन पसरिल्लो दिसता. धार बांदोडा, कुळें, सांगे, सावर्डे, मोरपिर्ला, कुडणे-



खणीची माती पिकाळ शेतांत येवन पडिल्ल्यान हीं शेतां अशीं पडंग जावंक पावलीं.

दिवचल, सत्तरी, होंडा, कालें, रिवणां खंयीय तुमी नदर मारल्यार घराचे नळे धुल्लान माखल्यात, रूखां धुल्लान तांबडीं जाल्यांत, रस्ते तांबडे जाल्यात म्हणपाचें दिसून येता. दिसरात हे वटेन मीन येरादारी करपी ट्रक धांवत आसतात. तांचे गतीक लागून धुल्ल एक सारको उडटा आनी सगळ्याक पातळटा. दोळ्यांक उदक लावपा खातीर रस्त्यार दिसाक एक खेपो उदक शिंपडायतात आसले तरी धुल्ल उडपाचेर तें नियंत्रण दवरूंक शकना. हो धुल्ल जेवणांतल्यान पोटांत वता, श्वसनांतल्यान पुलमांवांत वता. हें एक आनी दोन दीस न्हय तर जल्मासावन हो धुल्ल गिळूनच कितल्यो तरी पिळग्यो व्हडल्यो जाल्ल्यो आसात - जातात. तेन्ना दुयेंसां विरयत हे लोक आसात अशें कोणेय सांगलें जाल्यार खरें कोण मानीत?

## सगळ्योच न्हंयो पुरवल्यो

फाटल्या दोन-तीन दशकांत, चड करून १९८७ सावन गोंयच्या खण वेवसायान प्रचंड गती घेतल्या. कायदेशीर खण वेवसाया वांगडाच बेकायदेशीर खणींची भर पडिल्ल्यान जें कितें प्रदुशण गोंयांत जाता ताचो खरो धनी कोण हें कोणाक कळना आनी ताका लागून सरकारूय कोणाक जापसालदार धरूंक शकना.

गोंयच्यो ज्यो मुखेल न्हंयो मांडवी आनी जुवारी आसात त्यो मुखेलपणान हरबराकडेन संबंदीत आसात. मुरगांव बंदरांतल्यान गोंयच्या खनीजाची निर्यात जाता देखून ह्या बंदराकडेन बाजींतल्यान खनीजाची येरादारी जाता. मांडवी न्हंयचे देगेर २७ खणी आनी ४० लोडींग पॉईंट आसात. हाका लागून मांडवी न्हंयत प्रत्यक्ष आनी अप्रत्यक्षपणान दर दिसाक २७० टन खनीज माती मिसळटा म्हणपाचें २००२ वर्सा सेंटर फॉर सायन्स ॲन्ड इन्वायरमेंट हें संस्थेन नियाळ केल्लो ताचे वेल्यान कळटा. राष्ट्रीय दर्या विज्ञान संस्थेन केल्ल्या नियाळांत झुआरी न्हंयत दिसपट्टो गाळ साचता (४०० टन) आनी तो कडिना जाल्यार ही न्हंय पुरवतली म्हणपाचें हे आदींच सांगलां.

सांगे, सत्तरी आनी काणकोण हे तीन म्हाल अस्तंत घाटांत आसात. गोंयच्या न्हंयाचो उगम हांगच्यानूच जाता. पूण हांगा जावपी खण वेवसायाक लागून ह्या उगमाचेर परिणाम जाल्याबगर रावचोना आनी पुराय पर्यावरणाचें संतुलन इबाडून वतलें म्हणपाचो भंय पर्यावरण तज्ञ उक्तायतात. गोंय राज्यांत अकरा मुखेल न्हंयो आसात आनी तातूंत सतत हो गाळ साचत राविल्ल्यान ह्या न्हंयाची उदक साठवण क्षमता कमी जायत वचूंक लागल्या. सुकते वेळार मांडवी न्हंयतल्यान येरादारी करपी बार्जी मदींच नांगरतात ताचें कारण हेंच आसा. असो हो गाळ साचून न्हंयो पुरवपाकडेन पाविल्ल्यान बुडटी येवपाचे प्रकार घडत



खण वाठारांतलीं घरां आनी परिसर असो धुल्लान तांबडो जावन गेल्लो आसता.

आसात. ह्या सगळ्या अवर्शणाक जापसालदार आसा तो खण वेवसाय हें अजून सरकारच्या लक्षांत येना.

## खणमातयेन केला शेतांचो विध्वंस

दोंगर बोडके करून ते खणपाचें काम गोंयच्या भोवतेक सगळ्या म्हालांनी प्रचंड वेगान चालू आसा. खणी मारप ह्यो दोंगरार चलता आनी दोंगराच्या मुळसांत शेती वसल्या. वसल्या म्हणचे परस पुर्वजांनी त्यो वसयल्यात. तीं वसयतना एक दीस सैमान राखणदार म्हूण निर्मिल्ले हे दोंगर कोणतरी पोखरतलो म्हणपाची कल्पना शेतवड वसोवपी आमच्या पुर्वजांक सपनांत लेगीत येवंक नासुये! पोटाची खळी भरपाक अन्न जाय आनी शेतवड वसयल्यार पुरो म्हूण ही शेतजमीन तयार करून दवरली. आयज दोंगरावेली सगळी खणमाती पावसाच्या उदका वांगडा घसघश्यानी व्हांवत शेतांनी येता आनी सगळो गाळ शेतांत चिखोल जावन दाटून रावता. ही माती सुपीक न्हय. पूण ती वयर साचिल्ल्यान खरी सुपीक कसदार माती हे मातयेच्या थरापोंदा लिपता आनी पुराय शेत, लागवडीक उपकारना अशे अवतिकायेचें जाता.

सत्तरींतल्या पिसुर्ले, गवाणे हे सुवातेवेलीं शेतां रोवपाचे लायकीचीं उरूंक नाशिल्ल्यान शेत धनयानी तीं कसपाकडेन आडनदर केल्या. सुर्ल हांगचीं शेतांय कसपा भायरीं जाल्ल्यान हांगच्या शेतकारानी नागरीक कृती समिती स्थापन करून खण कंपनी आड लडो सुरू केलो. सांगे, सावर्डे हांगचीय तीच गत जाल्या आनी शेतकार कितें करपाचें तें कळना जावन सरकारच्या नांवान बोटां मोडीत आसात. ह्या सगळ्या गजालींक थळावे राजकारणीच जापसालदार आशिल्ल्यान सरकाराकडेन दाद मागुनय फायदो ना हाची तांका जाणविकाय जाल्ली आसा.

## खण वेवसाया आड खर विरोध जाय!

गोंयचो खण वेवसाय हो गोंय राज्याचो आर्थिक कणो अशें जरी चित्र रंगोवन गोंयकारां मुखार दवरिल्लें आसलें तरी हो वेसाय बेजबाबदार लोकांच्या हातांत गेल्लो आसा. ह्या लोकांचेर कोणाचेंच नियंत्रण नाशिल्ल्यान हम करेसो कायदा हे वृत्तीन कोणाचो भंय नासतना हाणीं गोंयचे भुंयेर शेवाळीं घाल्लीं आसात. ह्या खण माफियांनी सगळ्यांक साम, दाम, दंड, भेद हीं तत्वां वापरून मुठींत धरिल्ले आसात. ते ह्या वेवसायंत दुडू करतात. पूण तांच्या ह्या बेजबाबदार, नियंत्रणा भायल्या उद्येगाक लागून पुराय गोंयचेर अवर्शण आयिल्लें आसा हाची मात जाणविकाय चडशी कोणाक जाल्ली दिसना. ती जातली जाल्यार लोकशक्ती जागृत जावंक जाय. ती हळुहळू जाता म्हूण सरकारूय सद्या वचकून आसा. मुरगांव बंदरांतल्यान जावपी निर्यातीचेर बरीच शीं बंधनां सरकारान घाल्यांत. हे नेम तांकां १ फेब्रुवारी सावन लागू जातात. पूण हें इतल्यार भागना. लोकशक्तीचें आंदोलन आनीकूय खर जावंक जाय जाल्यारूच गोंय वाचतलें.



# पोरसांत भाजी पिकना काय पिकता थंय विकना?

- दिलीप बोरकार

*काळा प्रमाण सामाजीक बदल हो जाताच. जाणटेल्यांची पारंपारीक शेतवड मुखार व्हरपाची मानसिकताय आयच्या भुरग्यांमदीं ना. तांचो चडसो वेळ टिवी पळोवपांत आनी हेर कार्यावळींनी सरता. तरी लेगीत आयचे वाडटे म्हारगायेंत सवाय भितर भाजी खातले जाल्यार घरांतल्या दरेक मनशान आपलो थोडो तरी वेळ भाजी लागवडी खातीर दिवप शक्य आसा.*

**कां**य दिसां पयलीं बेळगांवच्यान येवपी भाजी एक दोन दीस गोंयांत पावली ना. बेळगांवकारांनी ती कांय कारणांक लागूच धाडली ना. गोंयकारांचेर आकांत आयलो. भाजी ना भाजी ना म्हणत बेळगांवकारांच्या नांवान थोड्या लोकांनी बोटांय मोडलीं. बाजारूय ओस पडले. ज्या कोणाकडेन दोन दिसां पयलींची उदक बी मारून दवरिल्ली भाजी आशिल्ली ताणीं ती दाम दुप्पेटीन हॉटेलकारांक विकून उडयली. बाकीचे लोक मात भाजी नासून वयर पडले.

घाट माथ्यावेल्या मळेकारांनी एक दीस पासून गोंयांत भाजी धाडपाचें बंद केलें जाल्यार ही गत जाता तर फुडाराक हेर राज्यांनी आपलें उत्पादन राज्याभायर वचचेंना अशें थारायलें जाल्यार मागीर कितें परिस्थिती येतली हाची कल्पनाच न केल्ली बरी.

ही अशी गजाल घडप शक्य ना अशें जरी आमकां दिसलें तरी कांय कारणांक लागून राज्यां राज्यां मदीं वितुश्ट येवं येता. म्हादय प्रश्नाक लागून गोंय आनी कर्नाटकामदीं तें निर्माण जालां. आनीक अशे कांय प्रश्नूय निर्माण जावं येतात. देखीक गोंयांत गर्दी करून आशिल्ल्या कन्नडीगांक परत धाडपाचो प्रस्न आयलो वो आसात तितले पुरो आनीक आनी नाकात अशें धोरण गोंयकारांनी आपणायलें जाल्यार राज्यां राज्यांमदली देवाण घेवाण बंद जावं येता. अशें जर जालें जाल्यार मागीर कितें?

गोंयांत जितलींय हॉटेलां आसात तीं सगळीं गोंया भायल्या भाजी उत्पादनाचेर निंबून आसात. फाटीं भाजी ना म्हूण आरड जाल्ली तातूंत हॉटेलवाल्यांचो आवाज वयर आशिल्लो हातूंत दुबाव ना. गोंयचीं सगळीं हॉटेलां बेळगांव आनी हेर वाठारांतल्यान भाजी आयलीना जाल्यार बंद पडटलीं अशी सद्या परिस्थिती आसा.



पूण ज्या गोंयकारांक दिसपट्ट्या जेवणाक जी भाजी जाय आसता ते भाजयेची वाट पळयत ताणीं घाट माथ्यार दोळे लावप?

गोंयकारांनी, जावं क्रिस्तांवांनी जावं हिंदुनी आपल्या जेवणाक जाय आशिल्ली भाजी केन्ना विकती हाडल्या अशें एका काळार कोणेंय आयकल्लें जाल्यार अजाप दिसपाचें. भाजी चुकून विकती घेवचीच पडली जाल्यार ती गोंयच्याच भाज्जेकान्नी कडल्यान विकत घेवप जातालें. पूण चडशे लोक एकमेकाच्या पोरसांत जाल्ली वो शेतांत पिकयल्ली एकमेकाक व्हरून पावयताले. दर घराच्या मागीलदारच्या पोरसांत वो घरा कुशीच्या वट्टांत कितल्या तरांची भाजी रोवप जातालें. पावसांत तर भेंडे, घोसाळीं, दुदी ह्या सारकी भाजी म्हळ्यार दर गोंयकारांचे जिणेचो एक वांटोच आसतालो. जांगेर शेतां आसात तांच्या शेतानी तांबडी भाजी, धवी भाजी, गड्डे, मुळो, वायंगीं असली भाजी सर्रास रोवप जाताली. ही भाजी विकून चार पयशे किरवटीक लावपाचें काम तेन्ना जातालें. कोणूय शेजारी भाजी विकती मागूंक आयलो जाल्यार पयशे घेना आसतना भाजी दिवप जातालें. आयजूय जाता, पूण आयज भाजयेक आयिल्लो दर आनी लागवडीक येवपी खर्च पळयल्यार भाजी फुकट दिवपूय परवडना आनी फुकट घेवपूय पुटवना.

गोंयचीं शेतां हीं पिकाळ आनी कसदार. पावसांत भात आनी मागीर कणगां, वायंगी, भाजी हांची लागवड केल्ल्यान शेतांचो आपशींच कस वाडटा. पूण त्या शेतांत मशागत करून पीक काडपा बदला त्या शेतांचीं रुपांतरां करून जर इमारती बांदल्यो तर एक रकमी दुडू हाताक लागता हें अर्थशास्त्र जेन्ना गोंयकारांक कळ्ळें तेन्ना आपलीं पिकाळ शेतां खूबश्या गोंयकारांनी दिल्लीवाल्यांक विकलीं. ताणीं रूपांतरां केलीं. कांय जाणांच्या शेतांनी उदरगतीच्या नांवान रस्ते आयले. जे लोक शेतांत कसताले तांचें मन हे उदरगतीक लागून शेतवडीवयलें उडलें आनी सगळ्यो जमनी पडंग पडल्यो.

तातूंत पयलीं शेतां कसताले ते लोक जाण्टे जाले आनी तांचीं भुरगीं शेतां उबंत उडोवन देश विदेशांत नोकरे खातीर फाफसले. गोंय सरकारच्यो तरांतरांच्यो येवजण्यो आनी आर्थिक फाटबळ आसुनय आयज फाव तशे कोण शेतलागवडीकडेन वळनांत. हाका लागून गोंयांत वेगवेगळीं पिकां काडपाची तांक

आसुनय भाजी आनी हेर दिसपट्ट्या गरजांक हेर राज्यांचेर विसंबून रावचें पडटा.

कांय लोकांचें म्हणणें आसा, आयज मशागती खातीर येवपी खर्च आनी तातुंतल्यान मेळपी उत्पन्न हाचो ताळमेळ बसना. शेतांत केल्लो खर्च आयिल्ल्या पिकान भागना. फायद्या परस लुकसाण जाता तेन्ना शेतां न रोवपांतूच शाणेपणां आसा. पूण कांय खेपो ह्यो गजाली म्हळ्यार आळश्यांचीं बातां अशेंय दिसता.

गोंयांत बऱ्याच सुवातांनी कांय शेतकार शेतकी खात्याच्या येवजण्यांचो लाव घेवन, तांचे कडल्यान मेळपी अनुदानांतल्यान शेत कसतात आनी आपलो संवसार चलयतात. शेतकी खात्याचे संचालक भौ. तेंडुलकार हाणी दिल्ले म्हायती प्रमाण शेतकी खात्याच्या येवजण्यांचो चडांत चड लाव सांगे म्हालांतले शेतकार घेतात. अशें जर आसत जाल्यार हेर म्हालांतल्या लोकानीय हे येवजण्यांचो लाव घेवप शक्य आसा. जाय ती जागृताय आनी प्रोत्साहन.

पयलीं जंय जंय घरां आशिल्लीं त्या घरांचे सरभोंवतणी पोरसूं आसतालें. त्या पोरसांत घरांतलीं जाण्टेलीं नेण्ट्यांक सांगाताक घेवन भाजी रोयतालीं. बांयचें उदक कळसुल्यांनी काडून शिपतालीं. आयज चडश्या घरांचें रुपांतर बिल्डिंगांनी जालां. घरांतले बांयत मोटर बसयला. पूण पोरसूं आयज खंयच दिसना. कांय जाणांनी जंय पोरसूं आशिल्लें थंय आडोस करून पत्र्यीं चडोवन ती सुवात परप्रांतीय लोकांक भाड्याक दिल्या. हेरांनी कसलें तरी लॉन घालून पोरसूं गार्डनांत रुपांतर केलां आनी ज्या पोरसांतली भाजी खावन जीवन पोसलां तांचीं भुरगीं मात आतां गोंयाभायली भाजी विकती खातात.

काळा प्रमाण सामाजीक बदल हो जाताच. जाण्टेल्यांची पारंपारीक शेतवड मुखार व्हरपाची मानसिकताय आयच्या भुरग्यांमदीं ना. तांचो चडसो वेळ टिवी पळोवपांत आनी हेर कार्यावळींनी सरता. तरी लेगीत आयचे वाडटे म्हारगायेंत सवाय भितर भाजी खातले जाल्यार घरांतल्या दरेक मनशान आपलो थोडो तरी वेळ भाजी लागवडी खातीर दिवप शक्य आसा.

हेर राज्यांतली बावकी, वखद शिपडायल्ली, म्हारगेली भाजी हाडून खावचे परस आपल्याच पोरसांत आनी पोरसूं नासलें तर आपल्या फ्लॅटाचे गच्चेर, गॅलरीत कुंड्यो तयार करून तातूंत भाज्यांची लागवड करूं येता.

'किचन गार्डन' ही संस्कृताय आयज दरेक गोंयकारांनी राबोवंक जाय. गोंया भायल्यान आयिल्ले आनी हांगा फ्लॅट घेवन स्थायीक जाल्ले ही किचन गार्डनची संस्कृताय आपल्या जिविताचो वांटो म्हूण राबयतात. पूण गोंयकार मात बेळगांवचे भाजयेर विसंबून रावतात. आपलीं शेतां-पोरसूं पडींग उडोवन पोब्र फिदाल्ग कशे जियेवपी गोंयकार आयज जे तरेन आपली जीवनपध्दत राबयता ती पळयल्यार भिरांत दिसता. अडेचें मोठेपण आनी संस्कृताय आपणावन आपलें नीज होगडायत वचपी ह्या गोंयकारांक आतांच तांच्या निजाची जाणविकाय करून दिवपाक जाय. नातर भाजी खायन दिसल्या म्हूण भाजी हाडूंक बाजारांत वचपी गोंयकाराक भाजी विकप्या कडल्यान अपमानीत जावन, मार खायत घरा परतपाची पाळी येतली!



**We specialize in Goan, North Indian & Tandoor Dishes**

(We take Bulk orders for parties.)




NH17, 821 Alto-Porvorim,
Opp. State Bank of India,
Bardez, Goa 403 521.
Tel.: 6512928

# भारतीय भाषांमधील कोषविश्वातील एक अपूर्व निर्मिती

अस्तित्वाचा लढा देत
श्रीमंत शब्दसामर्थ्यातून
समृध्दीकडे वाटचाल करीत
आपल्या भाषाभगिनीची
उत्तुंग भरारी...




## राजहंस कोंकणी सचित्र अशटांगी अभ्यासकोश

रचनाकार - दामोदर केशव घाणेकर
तांत्रिक भार - सुरेश जयवंत बोरकर

वैशिष्ट्ये :

- आवश्यक तिथे उच्चार
- उलट अर्थाचे शब्द
- व्याख्या आणि वापर
- पोर्तुगीज आणि इंग्रजी शब्दांची मूळ रूपे
- क्रियापदांचे धातू
- नकारार्थी क्रियापदांची मूळ रूपे
- नामांची सामान्य रूपे
- बहुवचने

- *पन्नास हजारांहून अधिक शब्द*
- *सातशे पन्नासांपेक्षा जास्त रेखाटने*

आकार : A5
पृष्ठे : 2200
कागद :पांढरा 80 gsm
सुबक शिलाई बांधणी
ग्रंथालयांसाठी मूल्य रु. 3300/-
व्यक्तिगत ग्राहकांसाठी
स्वयंअनुदानित मूल्य रु. 1200/-

(ट.ख.नि.)




**राजहंस वितरण**
1 - मीनाक्षी बिल्डिंग, डॉ. व्होल्फांगु द सिल्व्ह मार्ग, पणजी, गोवा 403001
Ph.:91 - 0832 2220320 / 2232177 email : rajhaunsvitaran@dataone.in

# सतीचे वाण






"गोंय मुक्ती संग्रामांत जो ल्हानसो वांटो घेवपाचें भाग्य म्हाका फाव जालें, जो अणभव म्हाका आयलो ताका लिखित रूप दिवप इतिहासाचे नदरेन गरजेचें आशिल्लें. हांवें विशेश त्याग करूंक नाशिल्लो, पूण हेरांनी तो निश्चितपणान केल्लो आनी तांचेकडेन म्हजो लागशिल्लो संबंद आयिल्लो. तांचीं नांवां तांच्या आंगावेल्या लक्तरांक लागून खबरापत्रांतल्यान झळकूंक नाशिल्लीं. अश्या सामान्य लोकांच्या असामान्य त्यागाचें दर्शन हांवें गोंयांत प्रवेश केल्ल्या खिणासावन, १९४९ सावन, म्हाका घडिल्लें. तांची नोंद खंयतरी जावप गरजेची आशिल्ली. तें कृतज्ञतायेचें द्योतक आशिल्लें. गोंय मुक्तीसंग्राम ज्या वसाहतवादी झुजाचो एक वांटो आशिल्लो त्या झुजाचे आनीक कांय पैलू पळोवपाची जी संद म्हाका पुर्तुगालाक मेळ्ळी तीय कथन करप गरजेचें आशिल्लें. पुर्तुगेज जनता आनी साम्राज्यवादी पुर्तुगेज सरकार हीं एकरूप नांत, भिन्न आसात, परस्परविरूध्द आसात. तांच्यात संघर्श चालू आसा. ह्या संघर्शाचो जो थोडोभोव परिचय म्हाका थंय जालो तो हेरांक करून दिवप म्हाका गरजेचें दिसलें. गोंय मुक्ती उप्रांत कैद्यांचे अदलाबदली विशींच्या निर्लज्ज इतिहासाची पुनरावृत्ती जावन आनीक कोणा भारतीयांचेर फुडाराक 'आपलो देश मुक्त जाल्लो आसतनाय' विजनवास काडपाची पाळी येवं नये हे पासत त्या इतिहासाविशीं हांवें बरोवप गरजेचें आशिल्लें."

**- मोहन रानडे**

साडेतेरा वर्सांची पुर्तुगालच्या कशीयस बंदखणीत खयास्त भोगून क्रांतिवीर मोहन रानडे गोंयांत आयले तेन्ना हांव अकरा वर्सांचो. तेन्ना रानडे आमगेर येताले. ते भाईचे (नंदा) मित्र. आमच्या घरांतले शेणान सारयिल्ले जमनीर पाट दवरून त्या पाटार आसरमांडी घालून बसून, पेत्रोलाच्या दिव्याच्या उजवाडांत वाचन करताले. तांचे मुखार बसून हांवूय कितें तरी वाचतालों. ताणीं म्हाका खूब गजाली सांगच्यो. वेगवेगळ्या वळवळींत वांटेकार जावपाची मागीर जी खुमखुमी आयली ताचें फाटलें कारण हेंच आसूं येता.

आयज गोंय मुक्तीच्या भांगरा उत्सावी वर्सा हांव तांचें 'सतीचे वाण' अणकारीत करूंक बसतां तेन्ना म्हाका मोहनकाका म्हजेमुखार आसरमांडी घालून बसला आनी म्हजेकडेन उलयता असो भास जाता.

**- दिलीप बोरकार**

## ४. आझाद गोमंतक दलांत

'दीव, दमण, गोवा' हे भारताचे अविभाज्य भाग आसून. पोर्तुगीज साम्राज्यशायेक थंयच्यान खंयच्याय मार्गान धांवडावन घालून हे वसणुकेचें भारतात पर्थून विलिनीकरण घडोवन हाडपाखातीर हांव आयज आझाद गोमंतक दलाचो आपवावुरपी जातां. दलाचो उद्देश्य पुराय जावपाखातीर, सर्वस्वाचो होम करपाखातीर हांव फाटी फुडें पळोवचो ना आनी म्हज्या सहकाऱ्यांकडेन आनी दला कडेन केन्नाच प्रतारणा करचो ना. जय हिंद!' भारताच्या बावट्या मुखार दलाचे संचालक श्री. विश्वनाथ लवंदे वयल्या आशयाचो सोपूत आमकां शिबिरार्थींक दिताले आनी हांव ती मेणवातीच्या मंद उजवाडांत संतपणान घेतालों. हांव कितें करतां, हांव उच्चार करतालों त्या दरेक उतरा वांगडा खंयची जापसालदारकी म्हज्या आंगार येवन पडटा हाची जाणविकाय म्हाका पुरायेन जावंची देखून आवाजांत संथपणा आसुंये! घाईन कितें तरी घडत आसा अशें स्वरूप ताका नाशिल्लें. 'की घेतले व्रत न हे आम्ही अंधतेने' हे काव्यपंक्तीची याद करून दिवपी गांभीर्य त्या वातावरणात आशिल्लें.

अंबोलीच्या शिबिराची ती सांगता आशिल्ली. धा दीस कशे गेले ते कळूंकच नाशिल्ले. पूण त्या दिसांत जें जें घडलें तें तें अविस्मरणीय अशेंच आशिल्लें. अंबोली हो गांव सावंतवाडी सावन बेळगांव रस्त्याचेर

२०-२५ मैलांच्या अंतराचेर आसा म्हणटकच गोंयचे शीमे पासून बरेंच पयस. अत्यंत दोंगराळ आनी अटंग्या जंगलांचो हो वाठार. आझाद गोमंतक दलाचो इतिहास. ताचें ध्येय धोरण, गोंयांतली पोर्तुगेज साम्राज्यशाय, ती ना नपयत करूंक सशस्त्र मार्गाची गरज आनी ताका मुळावी गरज आशिल्ली दोंगराळ युध्द पध्दतीचें शिक्षण हे खातीर हें शिबीर भरिल्लें. १९४६तल्या सत्याग्रह चळवळीत प्रत्यक्ष वांटो घेवन त्या मार्गावयलो विस्वास गेल्ल्या तरनाट्यांनी फुडल्या वर्सा म्हळ्यार १९४७त 'आझाद गोमंतक दल' ही संघटना स्थापन केल्ली. सुभाषबाबूंची 'आझाद हिंद सेना' ही ताचें स्फुर्ती स्थान. वास्तवीक 'आझाद गोमंतक सेना'अशेंच नांव हे संघटनेक दिवपाचें आशिल्लें. पूण 'सेने'क येवपी हिंसेचो वास 'सोज्वळ' प्रकृतीच्या ज्येश्ठ भारतीय राजकारण्यांक सोसचोना, तांचो अकारण विरोध सोसचो पडटलो ह्या रास्त भंयान 'सेने'ची सुवात 'दला'क दिवंची पडली. 'रणावीण स्वातंत्र्य आम्हा मिळाले!!' असो नेट मारप्यांचे ते दीस आशिल्ले आनी तांचे लागीं पावला कणकणी संबंद येवपाचो आशिल्लो.

जुलाय १९४७ त म्हापश्यांतल्या सरकारी खजिन्याचेर जाल्ल्या हल्ल्यान आझाद गोमंतक दलाच्या वावराक एका अर्थान सुरवात जाल्ली. श्री. दत्तात्रय देशपांडे, श्री. प्रभाकर सिनारी, श्री. विश्वनाथ लवंदे, श्री. नारायण नाईक हाणीं तातूंत वांटो घेतिल्लो. ह्या हल्ल्यांत एक पोलीस मेल्लो आनी दुसरो जखमी जाल्लो. मुखार श्री. दत्तात्रय देशपांडे, प्रभाकर सिनारी, नारायण नाईक हांका धरले आनी तांका दीर्घ मुजतीची ख्यास्ती जाल्यो. श्री. विश्वनाथ लवंदे, श्री. सूर्यकांत नाईक आदीनी गोंय सोडलें आनी आझाद गोमंतक दलाचें केंद्र भारतीय हद्दीत व्हेलें.

अशे तरेन १९४७ त दलाची जरी स्थापना जाल्ली, तरी हांवें पयलीं ताचें नांव आयकल्लें तें १९५२ च्या मार्चांत वझरी हांगा भरिल्ल्या 'नॅशनल काँग्रेस गोवा', हाचे हे आदीं उल्लेख केल्ले बसकेंत. अर्थात ते वेळार दलाचो उडटो उल्लेख आयकलो आनी तोय श्री. विश्वनाथ लवंदे हांच्या तोंडांतल्यान. 'राष्ट्रसेवा दल' ही जशी 'भारतीय राष्ट्रीय काँग्रेस'ची आपवावुरपी संघटना मानताले. तेचप्रमाण 'आझाद गोमंतक दल' हें नॅशनल काँग्रेस गोंयची आपवावुरपी संघटना मानची असो आग्रो श्री. लवंदे हाणी धरिल्लो. अंबोलेच्या शिबिरांतूय ताचो पुनरूच्चार केलो. १९५५त नॅशनल काँग्रेस गोवा आनी आझाद गोमंतक दल हांचे मदलो मतभेद तेंगशेक पावून संबंद सामको तुट मेरेन होच आग्रो परतून परतून जातालो. सनदशीर, सत्त्याग्रही, 'सात्विक' मार्गान वचपी सज्जनांच्या सहवासांत रावन सशस्त्र आंदोलनाचें आपल्या हातांतल्यान घडपी 'पाप' दिल्ली दरबाराचे नदरे आड उरचें हो डावपेच वयल्या आग्र्या फाटल्यान आशिल्लो. निदान म्हजी तरी तशी भावना आशिल्ली.

शिबिरा खातीर हांव अंबोले पावलों तेन्ना सांजवेळ जाल्ली. गांवापासून पयस आशिल्ले एके पडंग धर्मशाळेंत आमी रावले. म्हजेप्रमाणेच आनीक २०-२५ जाण गोंयच्यान आयिल्ले. सगळे गोंयकार आशिल्ले. मोर्ले गडावेलो धनगरूय तातूंत आशिल्लो. दुसरे दिसा सकाळी आमी पलटणी प्रमाण ओळीन कवयतीचे सुवातेर धांवत वतना एकल्यान आमच्या मुखेल्याक कितें तरी कानांत सांगलें आनी ते प्रमाण आमी रोखडीच शिस्तबद्द रांक मोडली आनी ल्हान ल्हान तुकड्यो करून कवायतीचे थारायिल्ले सुवातेर गेले. थंय बंदुको, त्योय कासाच्यो, साकांत घालून हाडिल्ल्यो. पिस्तोलां आनी हेर शस्त्रांय अशींच लिपोवन हाडिल्लीं. हें गुपीतपण कित्याक? रस्त्यावेल्यान सामकें गांवा भायल्या रस्त्यावेल्यानूय - आमकां संचलन कित्याक करूंक मेळ्ळें ना? ल्हान ल्हान तुकड्यांनी फाफसून कित्याक येवंचें पडलें? गोंयांत जर शिबीर भरिल्लें जाल्यार ही गुप्तताय पाळची पडपाची. पूण गोंयाभायल्या स्वतंत्र भारतांत ही गुप्तताय कित्याक? जाप मागीर मेळ्ळी आनी ती आयकून मन संतप्त जालें. सकाळीं संचलन मोडचें पडलें कारण तेच वेळार व्हडले भारतीय पोलिस अधिकारी रस्त्यावेल्यान वचपाचे आसात म्हणपाची ऐनवेळार बातमी मेळ्ळी. संचलनाक लागून तांचें शितीद आकर्शीत जावपाचें! आमी कोण, खंयचे हाची चौकशी जावपाची आनी मागीर कायद्याचें पावित्र्य अबाधित दवरपा खातीर आमच्या मदल्या कांय जाणांची शस्त्रां सयत पोलिस ठाण्यार आनी उप्रांत शस्त्रांविणें भारतीय बंदखणीत रवानगीय जावं येताली. पोलिस खात्यांतल्याच एकल्यान खात्याकडेन बेईमानी करून आमकां योग्य वेळार वयली म्हायती आमच्या मुखेल्याक दिल्ली देखून आमी वेळारूच संचलन मोडूंक शकले आनी सुरक्षीतपणान थारायिल्ले सुवातेर वचूंक

*पोलिस खात्यांतल्याच एकल्यान खात्याकडेन बेईमानी करून आमकां योग्य वेळार वयली म्हायती आमच्या मुखेल्याक दिल्ली देखून आमी वेळारूच संचलन मोडूंक शकले आनी सुरक्षीतपणान थारायिल्ले सुवातेर वचूंक शकले. शस्त्रांय गुपीतपणान व्हरपाची दक्षताय हेच कारणा पासत घेतिल्ली.*

शकले. शस्त्रांय गुपीतपणान व्हरपाची दक्षताय हेच कारणा पासत घेतिल्ली. भारत सरकारच्या भोंगळ धोरणाची परिणीती आशिल्ली. संवसारांतलीं हेर राष्ट्रां अशे परिस्थितींत कसलें सहकार्य स्वातंत्र्य लढ्याक दितात हाचो विचारूय भारत सरकार करी नाशिल्लें. आल्जेरियांतल्यान झुंजपी आल्जेरियन देशभक्तांक मोरोक्को आनी ट्युनिशिया ह्या शेजराच्या स्वतंत्र राष्ट्रांनी आपापल्या वाठारांत लश्करी शिक्षण दिवपी शिबिरां घेवंक दिलीं. कायम तळ उबारूंक दिले आनी तशें करपाक उक्तेपणी मोठेपण मानलें. पोर्तुगीज साम्राज्यशाये आड झुंजपी गिनी, अंगोल आनी मोसंबीक हांगच्या निग्रो देशभक्तांक अशेच तरेची मजत निकत्याच स्वातंत्र्य लाबिल्ल्या शेजारच्या आफ्रिकी राष्ट्रांनी उक्तेपणी दिली. सामकी अत्याधुनीक युध्द साहित्याचीय पुरवण केली आनी हें ताणीं मोठ्या अभिमानान, हड्डें मुखार काडून संयुक्त राष्ट्रसंघाच्या व्यासपिठार जाहीरपणी सांगलेंय. स्वतंत्र भारतांत मात गोंय मुक्त करूंक आंवडेवपी देशभक्तांक सादें संचलन करपाकूय चोरी! दोन-चार मोडक्यो बंदुकोय वापरपाचीय चोरी! अर्थात ही केवळ सुरवात आशिल्ली. फुडाराक येवपी चड कोडू अणभवांची ही केवळ नांदी आशिल्ली. भारताचो एक वांटो परकीयांच्या ताब्यांतल्यान मुक्त करूंक सोदपी म्हज्या सारख्या भारतीयाच्या हाताक एक दीस भारतीय बेडयो घालून म्हजी धींडूय काडपाचे आशिल्ले. म्हज्या दोन गोंयकार वांगड्यांक, सुखा शिरोडकार आनी अनंत थळी हांका, भारतीय बंदखणीची हवाय खावची पडपाची.

वयल्या सगळ्या प्रकारच्या बंधनाक लागून शस्त्रास्त्रांचें जें शिक्षण मेळ तें सामकेंच उणें आसतालें. मुखार पुण्याच्या सर परशुरामभाऊ महाविद्यालयांत भुगोलाचे प्राध्यापक जाल्ले साम्यवादी विचारसरणीचे कॅप्टन गोळे हे शिबिरांत शिक्षण दिताले. तांचो उत्साह प्रचंड आशिल्लो. तुटपुंजे सामुग्रेच्या पालवान चडांतचड जितलें शिकोवप शक्य आसा तितलें आमकां शिकोवपाची ताणीं पराकाश्ठा केली. दोंगर कशे चडपाचे, मात्तूय आवाज करिनासतना, दिसनासतना अकस्मात दुस्मानाचें ठाणें कशें हातासपाचें, सरभोंवतणच्या वातावरणाकडे आनी रंगाकडेन सारकेपण राखून शत्रूक कशें चकोवपाचें आनी आपलो बचाव तशेंच तांचेर हल्लो कसो करपाचो, शत्रूनी व्यापिल्ल्या वाठारांतल्यान चलता आसतना दिसा तशेंच रातची कितें काळजी घेवंक जाय, रातचो शक्यतो दिवो वापरप ना, वापरपाचो जालोच तर कशे पध्दतीन वापरपाचो, विडी-सिगरेट रातची खंयचे परिस्थितीत ओडपाची ना, जेन्ना ती ओडपाक हरकत ना तेन्ना कशी ओडपाची, रस्ते कशे हुपपाचे. मैदानांतल्यान वतना कितें काळजी घेवपाची, न्हंयचेर दोरयेचो पूल कसो बांदपाचो ह्या सारखी जायती म्हायती ते दिताले आनी प्रात्यक्षीक मेहनतीन करून घेताले.

*ऑगस्ट १९५३ त म्हाका श्री. रघुवीर कामत दुयेंत आशिल्ल्याचो निरोप आयलो. हांव शंभू पालकाराक घेवन तांची खबर घेवंक रैश मागुशचे बंदखणीत गेलों. हय बंदखणीत! डिसेंबर १९४७ सावन ते बंदखणीत कुसताले. गुन्यांव आशिल्लो पेडणे म्हालांतल्या एका व्हड जमीनदारान चलयिल्ले लुटमारीचो प्रतिकार करूंक शेतकार चळवळ संघटीत करप.*

प्रथमोपचाराचेंय शिक्षण कॅप्टन गोळे दिताले. हे विशीं घडिल्ली एक मात्शी विनोदी घडणूक सांगपा सारकी आसा. जबर जखमी जाल्ल्याक माचुलांतल्यान कशें व्हरचें हें दाखोवपाचे आशिल्ले. मोर्ले गडावेल्या धनगर तरनाट्याक ताणीं जखमी जाल्ल्याचें सवंग करून सकयल पडून रावपाक सांगलें. ताणें न्हयकार दिलो. 'तुमी करात, हांव पळयतां. हांव जखमीक व्हरपाचें काम करतां.' अशें तो म्हणत रावलो. 'आरे, पूण कित्याक?' अशें परतें परतें विचारतकच ताणें म्हळें, 'जखमी नासतनाय आपणें बेश्टेंच स्वताक जखमी समजलों तर खऱ्यानीच आपणाक तशें कितेंय जातलें. स्वताक कितेंय वायट जातलें हाची कल्पना लेगीत करची न्हय, कित्याक तर ती कल्पनाय एक दीस साकार जाताच.' जाण्टेल्यांनी ताचेर केल्ले संस्कार उक्ते जाल्ले. शकुनापशकुनांतल्या जाळांतल्यान आपली सुटका करून घेवप ताका इतलें सोंपें नाशिल्लें. ताची जाप आयकून आमी हांसले खरे, पूण ह्यो सगळ्यो उणिवो गृहीत धरूनच मुखार वचपाचें आशिल्लें.

अंबोलीच्या ह्या शिबिरांत हाजीर राविल्ल्या पयकी धुळेर-म्हापशें हांगचे श्री. महाबळेश्वर तथा म्हाबळू नाईक हे मुखेलपणान याद जातात. म्हापशेंतले डॉ. गणबा दुभाषी हांचे भोंवतणी जे धडपडे राष्ट्रीय वृत्तीचे तरनाटे एकठांय जाल्ले तांतले म्हाबळू नाईक मुखेल आशिल्ले. सावयतल्यान पयलीं फरारी जावंचे पडल्या उपरांत म्हळयार १९५०च्या शेवटाक डॉ. दुभाषी हांच्या दवाखान्यांत म्हाबळूची वळख जाल्ली आनी उपरांत तिचें घनिश्ठ इश्टागतीत रूपांतर जालें. हांव आनी श्री. बाळू साठे खूबदां तांच्या घरा मुक्कामाक आशिल्ले. थंय तांचे व्हडले भयणीची, बायची आनी तिचो चलो श्रीकांत हांचीय वळख जावपाचो योग आयलो. ह्या तिगानीय उपरांत मुक्ती संग्रामांत सातत्यान



समर्पण वृत्तीन वांटो घेतलो. तांचें घर ह्या लढ्याचो व्हड आदार जाल्लें. पणजेंतल्या पोर्तुगीज शिक्षक विद्यालयांतले प्राध्यापक श्री. शंकर सरदेसाय हे एक सोयरे म्हूण अंबोली शिबिरांत उपस्थित आशिल्ले.

अंबोलीचें शिबीर आटापून हांव सावय परतलों. हवेच्या दाबाचेर चलपी एक पिस्तोल (एअर पिस्तूल) हांवें वांगडा व्हेलें आनी नेमबाजीचो सराव करपाक दासूक सांगलें. ह्या पिस्तोलाचो आवाज येना आशिल्लो. ते भायर तेच तेच छरे परतून परतून वापरूंक मेळ. हे उपरांत आझाद गोमंतक दलाच्या 'क्रांती' पत्रकाचे गठ्ठे बाळा पर्येकार नेमान हाडूंक लागलो. आमी तीं पत्रकां बाणस्तारी शुक्राराच्या सप्तकी बाजारा दिसा तशेंच सरभोंवतणच्या खेड्यानी वाटूंक लागले. वणटीचेर दसोवंक लागले. रातच्या वेळार जनेलांतल्यान लोकांच्या घरांत उडोवंक लागले. सावयच्यानूच दोंगरेर पुंडलीक नाईक ह्या वावुरप्याकडेनय तीं पावंक लागलीं. क्रांती पत्रकां वांगडाच केन्ना केन्ना डॉ. श्री. तेलु द मशकरन्यश हांचें 'रॅसूर्ज गोअ' हें पुर्तुगेज सातोळें तशेंच 'फ्री गोवा' ह्या इंग्रजी सातोळ्याचेय अंक येताले. रातच्या वर्गांत 'क्रांती'चें सामुदायीक वाचनय जातालें. थोडेभितर हांव आझाद गोमंतक दलाचो सक्रीय आपवावुरपी जाल्लों.

ऑगस्ट १९५३ त म्हाका श्री. रघुवीर कामत दुयेंत आशिल्ल्याचो निरोप आयलो. हांव शंभू पालकाराक घेवन तांची खबर घेवंक रैश मागुशचे बंदखणीत गेलों. हय बंदखणीत! डिसेंबर १९४७ सावन ते बंदखणीत कुसताले. गुन्यांव आशिल्लो पेडणे म्हालांतल्या एका व्हड जमीनदारान चलयिल्ले लुटमारीचो प्रतिकार करूंक शेतकार चळवळ संघटीत करप. तांका ९वर्सां बंदखणीची ख्यास्त दिल्ली. जानेवारी १९५३त गोमंतकीय व्यायामपटू श्री. चंद्रकांत वेर्णेकार हांचे वांगडा श्री. कामत हांकां मेळूंक वचपाचो पयलो योग आयिल्लो. एकदां वळख जाल्ली आनी मागीर दर सप्तकांत एक दोनदां तरी तांका मेळपाचो नेम करून हांव वळख वाडयतच गेलों. तांका चंद्रकांत वेर्णेकाराचो अपवाद सोडून फामिली भायलो दुसरो कोणूच मेळूंक आयिल्लो हांवें पळोवंक ना. कैद्याक फक्त नातेवाईकाकूच मेळपाची मान्यताय आशिल्ली तरी एखादय्रान आपूण ताचो सोयरो म्हूण फट मारल्यार ताचो पत्तो लावपाच्या फंदांत रैश मागुशच्या बंदखणीचे अधिकारी पडनाशिल्ले. हांवेंय अशीच फट मारिल्ली आनी ती बऱ्यापैकी पचिल्ली. तांचो एक सोयरो म्हण हांव नेमान तांका मेळूंक लागलों. म्हज्या मेळपान तांका कितलो आनंद जातालो हाची पुराय कल्पना हांव ते वेळार करूंक शकलोना. पोर्तुगालचे बंदखणीत अकरा वर्सांच्या कारावासा उप्रांत म्हाका जेन्ना म्हजे वकील श्री. प्रीती कामत पयले खेप मेळूंक आयले तेन्ना ती कल्पना आयली. आपलेविशीं कोणाक तरी सहानुभूती दिसता, आपूण गजाआड आसलों तरी लेगीत मोगान आपणाक कोण तरी मुद्दम मेळपाक येता हाचो आनंद शीममेर नाशिल्लो आसता. ही खोस हांव रघुवीर कामतांक चड उणी दिवंक शकलों. तांचे गोयचे स्नेही तांका ही खोस शतपटीन चड दिवंक शकपाचे. सोयरे म्हूण तांका म्हजेपरस चड सहजपणान बतावणी करूं येताली. पूण आपूण राजकीय कायकर्ते म्हूण मिरोवपी लेगीत पयस रावताले.

रघुवीर कामतीक हे खेपे मेळ्ळों तेन्ना ते दुयेंत आशिल्ले. म्हजेपरस वैजकी गिन्यान आशिल्ली व्यक्ती तांका चड उपेगी पडू येताली. पणजेचे म्हजे स्नेही डॉ. गोविंद धुमे रोखडेच म्हज्या दोळ्यां मुखार आयले. तांका

हांवें सगळी गजाल सांगली. एका खिणाचोय वेळ होगडायनासतना डॉ. धुमेन पणजेच्या रूग्णालयांतल्या कैद्यांच्या विभागात रघुवीर कामतांची भेट घेतली. ताणीं तांची आपलेपणान खबर घेतली. तांका योग्य त्यो सुचोवण्यो केल्या उपरांत आनीक एक दोन खेप ते आपूण जावन कामतांक मेळ्ळे. सरकारी रागाची पर्वा करी नासतना डॉ. गोविंद धुमे सदांच गांधी तोपी घाली. रघुवीर कामतां सारख्या राजकीय कैद्यांक मेळूंक वतनाय डॉ. धुमेन गांधी तोपीच घाल्ली. आदलीची वळख पाळख नासतनाय डॉ. धुमे मेळूंक गेल्ले. कितें जातलें? कशें जातलें? म्हाका ते धरचेनांत बी मू?' असले कामटाळू प्रस्न ताणीं मुखार हाडूंक नाशिल्ले. हांगा ह्या संदर्भात सत्याग्रही म्हूण मिरोवपी एकल्याची जाणें शक्य आसुनय वचूंक न्हयकार दिलो ताची जेन्ना याद जाता तेन्ना डॉ. गोविंद धुमेन दाखयिल्ले तत्परतायेचें मोल चडूच जाणवपाक लागता. सावयचे शाळेतले वयल्या वर्गांतले विद्यार्थी तशेच रातचे शाळेंतल्या जाण्ट्यांकूय हांव म्हजे वांगडा रघुवीर कामतांक मेळूंक व्हरतालों. एकदा रघुवीर कामतांक मेळून बंदखणी भायर पडटांच, आमकांय एकदीस अशेच सुवातेर, कदाचीत हांगाय बंदी म्हूण येवचें पडटलें.' अशें शंभू पालकारान म्हणलें. 'कदाचीत येवचेंय पडचेंना. झुजामळारूच आमी सोंपून वचूं.' अशें हांव सहजपणान उलोवन गेलों.

१९५३च्या ऑगस्टांत श्री. पीटर अल्वारीस गुपीतपणी गोंयांत आयले. 'नॅशनल काँग्रेस गोवा'च्या वावुरप्यांक तशेंच विश्वासू स्वातंत्र्यप्रेमींक मेळप हो त्या फाटलो उद्देश आशिल्लो. तांचे प्रत्यक्ष भेटीक लागून सगळ्यांकूच उत्साह येवपाचो. श्री. पीटर आल्वारीस गोंयाभायर राजकीय फुडारी म्हणून प्रसिध्द आशिल्ल्यान तांचें गोंयांत येवप धोक्याचें आशिल्लें. पूण श्री. अण्णा देशपांडे आनी हेरांनी तांचे सुरक्षीततायेची हमी घेतली. आपलो सदचो लेंगो आनी नेहरू सदरो ताणीं आंगार चडोवंक नाशिल्लो, ताची सुवात झक्क पैकी सुटाबुटान घेतिल्ली. माथ्यार हॅटूय चडिल्लें. हुबेहूब एखाद्रया क्रिस्तांव भाटकारावरीं तो सोबतालो. असो हो भाटकारबाब पणजेंत कांय वकील, डॉक्टर, प्राध्यापक आदी बुध्दिजिवींक मेळ्ळो. नेवऱ्यां एके ओसाड सुवातेर मंदिरांत बसका घेतली. वेगवेगळेकडचे पन्नास-साठ जाण हाजीर आशिल्ले. सावयच्यान हांव आनी शंभू पालकार गेल्ले. जमिल्ल्यां पैकी भोवतेक जाण शेतकार आशिल्ले. पीटर मराठीत उलयले. आपल्या उलोवपांत गोंय मुक्ती संग्रामा संदर्भांत इंडोचायनांत फ्रेंच साम्राज्यवादा आड संवसारभर लढो चल्ला हेंच तांका सांगपाचें आशिल्लें. इंडोचायनांतले जनतेन वेंचिल्ल्या सशस्त्र लढ्याचो मार्ग अर्थातूच तांका अभिप्रेत नाशिल्लो. फाटीं वजरीचे बसकेंत मांडिल्ल्या विधायक कार्यक्रमाचो ताणीं हांगा पुनरूच्चार केलो. श्री. अण्णा देशपांडे उलयले आनी बसका उलगली. जमिल्ले सगळे विश्वासू आशिल्ल्यान बसकेची बातमी पोर्तुगेज सरकाराक मात्तूय लागूंक पावली ना. १९५४ त आंदोलन सुरू जाल्या उप्रांत दोन तीन वर्सांच्या काळांत हे बसकेंत वांटो घेतिल्ल्यांमदल्या बरेचशे जाणांक धरले. अर्थात ही अटक ताणी आंदोलनांत केल्ल्या सक्रीय वावराखातीर आशिल्ली. बसकेची खबर भायर फुटली म्हण न्हय. श्री. पीटर आल्वारीसांक गोंया भायर सुरक्षीतपणान पायल्या उप्रांत जीवाक एकदाचो सुशेग मेळ्ळो म्हणपाचो सुस्कारो श्री. अण्णा देशपांडे हाणी सोडलो.

१९५३ च्या अंबोलीच्या शिबिरांत जेन्ना हांव आझाद गोमंतक दलाचो आपवावुरपी जालों तेन्ना दल आनी नॅशनल काँग्रेस गोवा हांचे मदले संबंद बरेपणाचे आशिल्ले. आझाद गोमंतक दल ही नॅशनल काँग्रेस (गोवा)ची आपवावुरपी संघटना अशें मानताले. पूण मुखार हे बरेपणाचे संबंद तुटत गेले आनी हांवूय नॅशनल काँग्रेस (गोवा) पासून पयससावत गेलों. १९५४ साल उजवाडलें तेन्ना पोर्तुगीजांच्या शेकाखाल आशिल्ल्या भारताचो एखाद्रो तरी भूंयभाग मुक्त जातलो हाची कल्पना नाशिल्ली. थोडें अपेक्षीत आशिल्लें तें मात अनपेक्षीतपणान घडलें आनी एक दीस असो उजवाडलो की नगर हवेलीचे दिकेन वचपाखातीर हांवें सावय सोडली.

(चलता...)

**अंबोलीचें शिबीर आटापून हांव सावय परतलों. हवेच्या दाबाचेर चलपी एक पिस्तोल (एअर पिस्तूल) हांवें वांगडा व्हेलें आनी नेमबाजीचो सराव करपाक दासूक सांगलें. ह्या पिस्तोलाचो आवाज येना आशिल्लो. ते भायर तेच तेच छरे परतून परतून वापरूंक मेळ. हे उपरांत आझाद गोमंतक दलाच्या 'क्रांती' पत्रकाचे गठ्ठे बाळा पर्येकार नेमान हाडूंक लागलो.**

# HARD HISTORICAL FACTS in HARD BOUND

## GOA A SOCIAL HISTORY 1510 - 1640

**by P. D. XAVIER**

The Social History of Goa is of great importance as it proves beneficial to research scholars and general readers and to understand the social interaction of the people of 16th century Goa. The book is written in an inimitable style and sustains the interest of the readers throughout.




A-5 , 364 Pages
H/B Price : 800/- $ 50 £ 20
ISBN 978-81-85339-91-0

## *The Goa Inquisition*

*The Terrible Tribunal for the East*

**by A. K. PRIOLKAR**

This book presents a dispassionate and objective account of the Inquisition against the background of the religious policy of the Portuguese.

It is based on authentic archival documents and correspondence of the Jesuits. Dr. Dellon's experiences as a prisoner are also reprinted at the end.




A-5 , 320 Pages
H/B Price : 695/-
ISBN 81-7810-694-9

NOW ON STANDS




Publisher :
RAJHAUNS VITARAN
1-Meenakshi Bldg., Dr. Wolfango da Silva Marg, Panaji 403 001
Ph. : 2220320 / 2232177 E-mail: rajhaunsvitaran@dataone.in



– रमेश भगवंत वेळुस्कार
पाळें, शिरदोन – गोंय.
मो. : ९४२०६८८४६६




**सांवरीक धुसमुसकेपणान बेजार करपी वारो शेताचे पालयेकडें वेगळेच तरेन वागता. ताचे मतींत आसून केगीत तो शेताच्या थांबाकडें असो क्रूर जावंकूच शकना. ताच्या सुकुशेन केगीत थांब ल्हव ल्हव झेल घेवपाक लागता. शेताचेर एका नृत्याचो अविश्कार जावंक लागता. हांगा फकत शेत नासता तर ताच्या वांगडा वारो आसता. तो सुमेळ आसता. तें एक सौंदर्य आसता.**

सांवरीकडच्यान रस्तो आपल्याक जाय तसो आपल्याच वळणानी फुडें गेला. मागीर थंय एक मर्दीच चींच लागताली. मात्सो मुखार एक आंबो. आनी उदेंतेक पळयल्यार पयस पिलारचे दोंगुल्लेचेर पिलारची सेमिनार. खूप्प भुरगेपणासावन हांव ती अट्टालीका हांगच्यान पळयतां. पुर्तुगेजांच्या काळासावन. आयज तिचो म्हजो संबंध आसा तो फकत एक आमच्या शेजारच्या वाठारांतली सेमिनार म्हण! ना तर ती म्हजी शाळा म्हण आसा. हांगासर हांव शिकलों. इंग्लीश शाळा ती. सकल्या मड्डार जमीन पिकेविरयत. वयल्या मड्डारूय तेंच. हांव मुखार सरलों. हांगा एक बांय आसली. आसा ती आजून. पूण आतां ती रस्त्यापासून पयस पावल्या. रस्तो बदल्ला. पयलीं तिच्या कुशिच्यान वचप जातालें. हे बांयक पाद्रीची बांय म्हणटात. कित्याक तें खबर ना. अख्खें मोरगद आनी जुवारी, हे बांयचें उदक खाताले. थंय मेळपी उदक खारें आसल्या कारणान तें पिवपाक बरें लागनासलें. म्हणटकूच त्या दोनूय गांवच्यो सगळ्यो बायलो हे बांयचें उदक व्हरतना दिसताल्यो. शिरदोनाकूय उदक हांगच्यानूच मेळटालें. शिरदोनचीय गजाल तीच आसली.

म्हाकां वचपाखातीर बस रस्त्याचे ते वटेन गावता. एक काळ असो आसलो की ह्या रस्त्यावयल्यान वरा दोन वरांनी एकाद्री गाडी वयताली. ना जाल्यार तीय ना. पूण दिसांतल्यान एक चार पांचदां कांय गाडयो म्हटल्यार कामियांव ते तेन्नाचे वयताले. चडसो वेळ रस्तो साप्प रिकामो आसतालो. बरेच गांवचो लोक आपापली भातां, नाचणी बी ह्या सिमेंटाच्या रस्त्यार सुकयताले. आयज हांव उबो रावलों पणजे वचपाक जाल्यार पंदरा वीस मिनटां गाडयो पणजेच्यान मडगांवां वा मुरगांवां वचपाक येतात आनी तेच प्रमाण मडगांव वा तेवटेन येवपीय गाडयो तशोच व्हांवत आसतात. आनी आतां जे लोक हांगच्यान आबुजारपणान दुसरे वटेन वचपाचो यत्न करता तेन्ना हटकून ॲक्सीडेंट जाता. हे सुवातेर इतले ॲक्सीडेंट जाल्यात आतां मेरेन की सांगपाची सोय ना. हांवें पळयल्यो ते काळार येवपी साद्यो गाडयो. मदल्या काळाक फियट, अम्बासीडर पळोवन पळोवन नदरेक सामको वाज आयिल्लो. मागीर ती संजय गांधीची मारुती

म्हण आयली. फस्क शी दिसताली. पूण मागीर तिणे लोकांच्या काळजाक वेंग माल्ली आनी लोकानीय तिका माल्ली.

आयज फकत हांगा येवन मडगांवा, वास्को, पणजे अशेंच वचूं येता अशें ना. तर हांगा रावून गोंयांत जी सुबत्ता आयल्या, गोंयकारांच्या बोल्सांत जो पयसो जाला वा आतांच्या गर्भश्रीमंतांकडें जी नव्या अविश्काराची नदर आयल्या ताचेंय दर्शन हांगच्यान जाता. हे सुवातेचें म्हत्व आतां वेगळ्या अर्थान मुखार येवपाक लागलां.

एका काळार हांगा रावून पुलापलतडच्या गांवांचें ह्या गांवांत येवन उदक व्हरतना थंय आसलेल्या साधन उणावाचें दर्शन हांगच्यान जातालें. उदका खातीर तांचे कश्टय लक्षांत येताले. आज ती बांय आसा. पूण आयज ती दुर्लक्षीत जाल्या. पयलीं आयल्ल्या गेल्ल्याक तिचें दर्शन जातालें. कारण तिच्या कुशीच्यानूच वयचें पडटालें. पूण आतां ती बांय सामकी कडेक पडल्या. थंय आतां फकत कांय लोक गाडयो बिडयो धुवपाखातीर वयतात. ते बांयचें उदक खावप तर नाच जालां. मनशांवरीच बांयकूय बी नशीब लागता काय कितें तें कळना. सद्याक ती बाबडी सामकी नगण्य कशी जाल्या. म्हाकां केन्ना केन्नाय तिची काकूट दिसता. वगीच दिसता की ती फाटल्या उदक व्हरपी अस्तुऱ्यांची याद काडून हुंडके बी ना मू? आमकां आजून सैमाकडें तादात्म्य जावपाची खुबी मेळूंक ना. ती जातली जाल्यार वर्सांसकीनी लोकांच्या जिविताचो भाग जाल्ली ही गंगा म्हाकां आपल्या मनातले उत्फर्के मुजरत सांगतली आसली. हांव जाणां, हे बांयचेर आमोरेच्या वेळार कितल्याच जाणांच्या नदरांची जाल्ली जोगूल चकमक हांवें पळयल्या. हें स्थळ म्हटल्यार एके तरेचो सर्जनाचो सुरङार घडपाचीय सुवात जाल्ली म्हटल्यार उपकारता. तिचे जिवनसंस्कृतायेन फळाक आयल्ले सुखद संवसारूय हांवें म्हज्या दोळ्यांनी पळयल्ले कारणान तिचें महात्म्य म्हाकां कळटा.

**सांवरीच्या झाडांकडें रावल्या उपरांत जो एक सारको वाऱ्याचो नाद आमकां येता तेंय ताचें एक सांगीतीक रूप. कावत्याच्यो तिट्वीटपी चुडट्यो वा पिंपळाच्या पानांची सळसळ, आकांड तांडव करपी दर्या ल्हारां, मळबांतलीं व्हांवती कुपां, शिडांनी वारो भरून संवसार भोंवडेचेर वचपी तारवां,**

गाडयांच्या येवपा वचपा खातीर म्हाकां पलतडच्या बस थांब्यार वचपाक मेळना जालें. हांवें फाटीं वळून वयल्या सकल्या मड्डार नदर मारली. ऋतू चक्रांचे कितलेशेच पोन्ने खेळ म्हजेय मुखावयल्यान धांवत वचपाक लागले. मायाचो पावस, वारो, मागीर शेतांचें कसप, रोवप, वाडप, पिकप, मागीर भाताच्यो मळण्यो, पीक सगळेच ऋतू येत वचपाक लागले. ह्याच सैमाच्या लागसारपणांतल्यान ताचवेल्या मोगान म्हज्या मनांत जी उतरावळ तयार जाली ती हांवें बरोवन दवरपाचो यत्न केलो. म्हजें सैम केन्नाच एकोडें येना. तें सदांच वाऱ्या वांगडा, पावसा वांगडा, वता वांगडा, नक्षत्रांच्या सांगाता, कुपांच्या बराबर येता. तें सदांच कसल्या तरी कामात व्यस्त आसता. ताका लागून त्या उतरांतल्या सगळ्या चित्रांक एक खाशेली गती निर्माण जाता. पूण ही सगळी तांची गती आसता. हांव ती मुद्दाम जावन निर्माण करिना. पूण हाका लागून आमच्या कांय स्वताक समीक्षक बी म्हणपी लोकांनी म्हजे बद्दल अशें म्हटलां की हांवें सैमाक मनशाळायलां खंय! खरें म्हटल्यार हांवें हाचेर आनी कितें उलोवं येता? आतां पळयात आं कशे येता! शेत इल्लें इल्लें वाडत आसा. थंय पावस, वारो, वत येता. तें म्हाका दिसता. तांच्या खेळांत म्हाकां मजा येता आनी उतरां एकठांय जाता. हांव वाऱ्याक सांगतां,

पांचव्या शेताचीं
कणसां धोलय रे
कणसां धोलय

कणसांचो रे
मोग तुजेर चड
तांच्या पोटांत तूं
मोतयां फुलय रे
मोतयां फुलय

सांवरीक धुसमुसळेपणान बेजार करपी वारो शेताचे पालयेकडें वेगळेच तरेन वागता. ताचे मतींत आसून लेगीत तो शेताच्या थांबाकडें असो क्रूर जावंकूच शकना. ताच्या सुलुशेन लेगीत थांब ल्हवू ल्हवू झेल घेवपाक लागता. शेताचेर एका नृत्याचो अविश्कार जावंक लागता. हांगा फकत शेत नासता तर ताच्या वांगडा वारो आसता. तो सुमेळ आसता. तें एक सौंदर्य आसता. त्या सगळ्यांचो ताण उतरां आपल्यांत घेता आनी तांतल्यान निर्माण जाता कवित. हें कवित त्या थांबाचो रुपकार, ताचें नृत्यमय आंग, तांतल्यान धांवतलो वा आसतलो वाऱ्याचो वेग आनी ताचेर पडलेलें वत, तांतल्यान निर्माण जातलें संगीत, तांतल्यान परिवर्तीत जातले रंग, आनी तांचो परिणाम हें सगळेंच हीं उतरां आपसूक प्रकट करीत वयता. केन्ना केन्ना म्हाकांय कळना हीं उतरां अशींच कित्याक येतात? म्हजो शेक ह्या उतरांचेर बिलकूल चलना. तांचोच शेक म्हजेर चलता. तांचेर शेक चलता तो पांचव्या थांबाचो, वाऱ्याचो, वताचो, पावसाचो. उतरांची कोरीयोग्राफी करपाचें श्रेय हांका.

म्हणूनच तर हांवें म्हटलेलें की ह्या उतरांचेर त्या सगळ्यांचो ताण आसता. त्या उतरांक त्या सगळ्यांच्या कामाच्या मिलाफाची गती आसता.

सैमांतले सगळे घटक हेच आमचे गुरू आसतात. तांची जशी बरी वळख जाली की ते आमकां बरे तरेन शिकयतात. त्या शेतावरीच तूं म्हाका न्हय, आमकां धोलय म्हण सांगता ताका हांव. कारण अशें धोलोवप फकत ताकाच शक्य आसा. खऱ्या अर्थान तोच आमचो प्राण आसता आनी ताकाच आमकां शिकोवपाक शक्य आसता. हांव ताचे खातीर मनांतल्या मनांत शेत जातां. पूण आतां हीं शेतां आमच्याच फुड्यांतल्यान अचळय काडून व्हेल्यांत कोणेतरी. कोणे व्हेल्यां हीं? शेत करप हें परवडना अशी परिस्थिती आमचेर कोण्या मिण्यान हाडली खबर ना. पूण ती आयल्या.

शेत हें म्हाकां सैमान निर्मून दिल्लें दायज. हातून मनशांच्या कल्पकतेचो आनी तांचे गरजेचोय भाग आसा. हातूंत फुडार बरो जावंचो हो भविशयकाळीन स्थिरस्थावरतेचो भरवंसो आसा. हें मनशाचें सपन आसा आनी तें सैमाच्या सभावाक धरून आसा. पूण आयज आमी ह्या आमच्या नात्यापासून पयस वचपाक लागल्यात. तशें सामके पयस वचपाक आमकां शक्य जावचें ना. कारण सैमान आमकां ताचेकडेन भुकेन बांदून दवरला. पूण आयच्या आमच्या सयभोंवतणी जो सामाजीक वेव्हार चलता, तेच बराबर बाकीच्या प्रदेशांचो, देशांचो जो आमचेर परिणाम जायत आसा तो पळयल्यार आमी आमच्या लागीच्यांचे संबंध तोडपाक केन्नासावन सुरवात केल्या. आमी हो मायेचो सांधो निखळायत गेल्ल्यान आमी ल्हवू ल्हवू आमच्या लागच्या मायेच्या मनशांपसून तुटत आसात, लागसारच्या सैमाचे मायेंतल्यानूय सुटत आसात. आनी आमी लागीं कोणाकडें जातात जाल्यार कोणाचकडें ना. हे मायेंतल्यान सुटून आमी जांकां मेळटात ते लागींच्यान मेळपाचें नाटक जरूर करतात पूण आयचे स्पर्धेचे जिणेत तेच आमचे स्पर्धक हीच जाणीव रोकडीच जाता आनी आमी परतता म्हटल्यार तीं आमचीं मायेचीं मनशांच आमचे पसून आनीकूय खूब पयस पावल्यांत हाचीच जाणीव जावपाक लागता. हे जाणीवेच्या भंयानूच मनांत फोंड पडलेल्याची जाणीव जाता. आनी म्हणूनच वाऱ्याकडें हे मायेची रीत आमकां शिकय म्हण परत एक पावट मागप जाता.

रीत मायेची  
तुमची दोगांयची  
मात्शी आमकां  
एकदां शिकय रे  
एकदां शिकय

आमकां आर्टीफिशियल करपी तमाम गजाली ह्या संवसारांत खोंटानी पडल्यात. पूण लागीं हाडपीच पयस पावल्यात. ह्या कृत्रीम जगांत आमी होगडायला तो विस्वास. तो विस्वास आमकां आतां परत खंयच्यान मेळटलो? तो मेळटलो जाल्यार आमकां परत कृत्रीम गजालींकडल्यान कसोच मेळपाक ना. तो मेळोवपाक आमकां परत एक पावट सैमाच्याच आदाराची गरज. मनशाच्या प्राणाची जबाबदारी जाणें घेतल्या तो वारो आमच्या इतलो लागीं आसा की ताकाच आमच्या अडचणीची गजाल चड लागींच्यान समजूं येता. म्हणूनच ही रीत मायेची आमकां शिकय म्हणप ताचेचकडे. मागप हें सोपेंय आसा आनी तें ताचेकडल्यान मेळपूय सोपें आसा. मनमेकळेपणान तुमी ताचेकडें मागलें की तोय तुमकां तितल्याच मेकळेपणान दिता आनी तेंय तुमकां कसल्या सर्ती बगर मेळटा. उपाट मेळटा. म्हाकां ताचेकडल्यान कितें कितें मेळ्ळां तें मेजून सांगपूच कठीण. म्हणून तें समजप गरजेचें. जाका तें समजता ताका आनी आनी सांगपाची आनी आनी गरजूच पडना.

वारो हो असोच वचत थंय तो तुमकां दिश्टी पडटा. पयर हांव असोच सुमार धांक रस्त्यार उबो आसलों. शिरीशाच्या झाडापोंदा. जाल्यार वयल्यान शिरीशाचीं कितलींशींच पत्रां पडपाक लागलीं. तीं पडटलीं पानां लेगीत आपलेच मस्तींत झडटालीं. वारोच तांकां ही मस्ती दितालो आनी झडटना आमकां तोच चड दिसता.

दनपारच्या वेळा, तेय बी उबाळांत आमच्या घरांतल्या पंख्याच्या वाऱ्या परस चड शितळ ताचो वारो आसता, जेन्ना आमकां फॅन आसुनूय घाम येता, तेन्ना तो अचळय आमच्या घरांत एक थंड पासय मारून वयता ते वेळार जीव इतलो शांत जाता की खरें म्हटल्यार तें वाऱ्याचेंच दर्शन आसता.

एक फावट हांव टॅरेसाचेर खाट उडोवन आड पडलेलों. सांजवेळचीं सात साडेसात जातलीं आसत! दीस अशेच गिमाचे. अकस्मात उदेंतेच्यान कुपांचे भोंवरे अतिजलद गती घेवन येता तें जाणवलें आनी कांय खिणांतूच दारां, जनेलांची, वस्तींची आदळ आपट आयकूंक येवंक लागली. आनी तेच बराबर सगळो वाठार धुल्लाच्या लोटानी भरून गेलो. कांयच दिसनासलें. सुमार धायेक मिनटां हें वाऱ्याचें धुळवळ नाट्य चल्लें. कांय वस्ती उडून गेल्ल्यो टेर्रासावयल्यान. सगळ्याक धुल्ल जाल्लो. घरांतूय हीच परिस्थिती. वाऱ्याचो होय एक रुपकार.

सांवरीच्या झाडांकडें रावल्या उपरांत जो एक सारको वाऱ्याचो नाद आमकां येता तेंय ताचें एक सांगीतीक रूप. कावत्याच्यो तिट्वीटपी चुडट्यो वा पिंपळाच्या पानांची सळसळ, आकांड तांडव करपी दर्या ल्हारां, मळबांतलीं व्हांवती कुपां, शिडांनी वारो भरून संवसार भोंवडेचेर वचपी तारवां, कुपांक स्पर्श करपाक वचपी पतंग आनी सगळ्या जिवांच्या काळजांत चलतलो श्वासाचो अखंड सुवाळो, कितलीं कितलीं म्हण ह्या वाऱ्याचीं रुपां पळोवचीं!

असल्याच एका प्राणवंत शरिरांतल्या वाऱ्यान म्हाकां एकदां आपोवन सांगलें, हो सांगपी म्हजो, जे शाळेंत हांव शिकोवपाक गेल्लों, हेडमास्टर आसलो. नांव ताचें फादर डिसिल्वा, ताणें म्हाकां सांगलें, 'वेळुस्कार तूं आतां ह्या हायस्कुलाचो पर्मनेंट टिचर जालो.' हांवें ते वेळार ताका म्हटलें, 'म्हणटकूच फादर आतां हांव मरसर हे शाळेचो शिक्षक तर!' हेडमास्टर मात्सो आबूज जालो. आपणें कितें तरी चूक म्हटलें काय कितें, असो ताका दुभाव आयलो. आनी ताणें म्हाकां परत समजावपाच्या सुरांत म्हटलें, 'आरे बाबा फाटलीं दोन वर्सां तूं प्रोबेशनाचेर आसलो. आतां पर्मनेंट जालो.' ताच्या काळजांतल्या प्राणाक कळ्ळां आसतलें हांवें कितें म्हटलां तें. पूण तो मात्सो घुस्पल्लोच. हांवें ताका समजायलो, 'फादर, हांवूंय हे कुडींत प्रोबेशनचेर आसां. कूड सलामत जाल्यार हांव सलामत. कूड मोडून पडली जाल्यार हांव हांगा आसलों म्हण लेगीत कोणाक कळचें ना. असल्या वेळार हांव पर्मनेंट ही गजालूच म्हाकां कळना.' तेन्ना तो म्हणपाक लागलो, 'ओ, तेश म्हुण्टा? आंव सोमजों ना, तूं कितें म्हुणटा तें?' ते वेळार म्हाकांच ह्या वाऱ्याचें अशें एक गूढ रूप जाणवल्लें.

असंख्य मनशांच्या रुपांत ताचें जाणवतलें रूप तोखणाये भायलें.

म्हाका हो वारो वेगवेगळ्या रुपांत सदां भेटत आसता. हांव ताका जाणून घेवंचो यत्न करतां. ताचेकडें हांव संपर्क साधपाचो ताच्या आदारान प्रयत्न करतां. म्हाकां हांगासर सवन विश्वाक जोडपी एक अखंड धागो हांगा जाणवता. हांव ह्या सवन विश्वाक ह्या धाग्यान जोडलां हाची म्हाकां जाणीव जाता. सवन ह्या धाग्याच्या आदारान म्हाका जोडला हेंय म्हाका जाणवता. अशें जाणवतकूच आमचेमदीं एकामेकाचो दुस्वास करपाचें कारणूच नश्ट जाता. संवसारांतलें हें जें कितें आसा तें म्हजें आनी संवसारांत जें कितें आसा त्या

**रस्त्यावयल्यान धांवतल्या गाडयांचीं चक्रांय एकसारकीं धांवत आसलीं. आमी हे वटेन आडखळून उरल्यात हाची कोणाकूच नात नासली. गाडयांनी आमचे मनीस आमच्चांपसून पयस केल्यात.**

सगळ्याचो हांव हें नातें प्रस्थापीत जातकूच हें म्हजेपसून वेगळें म्हणपाचें धाडसूच म्हज्यांतल्यान ना न्हपयत जाता. तें धाडस म्हज्यांतल्यान ना जाता ही एक व्हड जैतवंत गजाल. हें आनंदाचें एक व्हडलें चोळ.

वारो म्हटल्यार आनंदाचें निधान. हो आनंदनिधान वारो जेन्ना निळ्याशार मळबांत धव्याफुल्ल माणकुल्या कुपाचो आकार बदलीत वचूंक लागता तेन्ना ताच्यांत जातलो रुपकाराचो उत्सव पळयतना तान भूक न्हिवता. आनी पळयतां पळयतां आपलेपण नाच्च जाता. हांवपण नाच्च जाता आनी उरता फकत उत्सवमग्न कूप. ह्या सगळ्याचो एक हुंकार जाता आनी अचळय आसमंतांत घुमता.

अपरूप रूप
धरता कूप
विसरून रूप
हांवूच कूप...!

बरेच पावट दिसता ही निसर्ग कविता. पूण ही फक्तूच निसर्ग कविता कशें म्हणप? निसर्ग हातूंत ना अशें बिल्कूल ना. तातूंत निसर्गाचे सगळेच धागे आमकां पळोवंक गावता. पूण सर्वसामान्यापणान निसर्ग कविता म्हटली की तातूंत निसर्ग सोडून आनीक कांयच आसना अशेंच हांचें मत आसता. पूण निसर्ग हो संपूर्ण आसता हाची जाणीव मात ह्या अशें म्हणप्याक आसा अशें दिसना. म्हाकां निसर्ग 'संपूर्ण' ह्या अर्थान जाणवता. म्हणुनच ही कुपांची कविता ही म्हज्या अस्तित्वाची कविता अशें म्हाकां दिसता. हातूंत आयल्लें भाशीक सौंदर्य तर आसाच पूण हांतल्यान निर्माण जातलें संगीतूय तितलेंच म्हत्वाचें आसता. हो मनशांच्या सैम तादात्म्याचो अविश्कार आसा. हो कोंकणी मनशांच्या तादात्म्याच्या जाणिवांचो अविश्कार आसा.

म्हजें विचार चक्र घुंवत आसलें. रस्त्यावयल्यान धांवतल्या गाडयांचीं चक्रांय एकसारकीं धांवत आसलीं. आमी हे वटेन आडखळून उरल्यात हाची कोणाकूच नात नासली. गाडयांनी आमचे मनीस आमच्यांपसून पयस केल्यात. गाडयेन बसून वयतलो मनीस पांयांनी चलतल्या मनशाक सामको किंकोतसो मानता आनी ताका आपले पसून पयस पयस दवरपाचो यत्न करता. इतलें म्हण्टा म्हणसर अकस्मात फस्स... करून वारो गेल्ल्याचो आवाज जालो आनी एक गाडी आमचे मुखार येवन थारली. ह्या बोवाळांत फाटल्यो गाडयो इल्ल्यो इल्ल्यो अडून थांबत गेल्यो. हो वाऱ्याचोच रुपकार आसलो. गाडी फकत पॅट्रोलाचेरूच चलता म्हणटा ती फट हाची म्हाकां फट्ट करून जाणीव करून दिली. कारच्या मालकाक जो जावंक शकतल्या ॲक्सीडेंटांतल्यान वाचलेलो. आदींच तो पकपक जाल्लो. ताणें थंयच्या लागींच आसलेल्या मॅकनिकाक पळयलो. ताणें आपलो मनीस धाडलो. टायर काडलो. व्हेलो. फाटलो फूर काडलो आनी बसयलो. ताचे स्टॅपीनीचो टायरूय वाऱ्याविरयत आसलो. ताच्यान म्हाकां रस्त्यार उबो रावल्या रावल्या आपलें रूप तर दाखयलेंच वांगडा ताणें आपल्यार निर्भर आसलेले लोकूय दाखयले.

■ ■ ■



– आशा शानभाग
सादोळशें–काणकोण– गोंय
मो. : ९४०४१४५३३७

# उक्तावण... अशेंय.



**चार साडेचारां सावनूच ब्रह्म्याचो पार मनशानी फुलून गेलो. तातूंन टोपयो, फेटे, मुंडाशे, चेर्पी आनी उगड्यो तकल्योय दिसताल्यो. झेड.पी.न गाडयेंतल्यान देंवल्या बरोबर चड कळाव लायनासतना सुरवात केली. "गांवचे भाटकार लोक आपल्या घरचीं मरणां आपल्याच भाटांनी साकसून घेतात. भाटां नाशिल्ल्यांनी हीं वहनाचीं कामां खंय करपाचीं? तांका तांच्या घरच्यांचीं मरणां करपाक कोण जागो दिता?"**

**आ**यज मेरेन ह्या गांवांक आमदारांक पालाशींत धाडपाच्यो, खासदारांक बद्द दिल्लीक धांवडावपाच्यो आनी गांवच्या उडाणटप्पू नेत्यांक पंचायतींत धाडपाच्यो तीनच वेचणुको खबर आशिल्ल्यो. हालीं तेपार तर ह्या वेचणुकांनी कोण वेंचून येता हाची लोकांक मातलेगीत उमळशीक म्हणटा ती नाशिल्ली. पूण खूब इंटरेस्ट आसतालो तो वेचणुकां आदीं जें कितें झडोवन घेंवक मेळटा तातुंतच. ह्या अशा वेचणुकांनी तीन फामीलीचो संवसार बेस बरो चलतलो हाची पांच वर्सां तरी सरकार जतनाय घेताली. हेवटेन शिक्षणगंगा दरेकाच्या दारांत पाविल्ली आनी वाडिली शिक्षीत बेकारांची संख्या आनी एकान कमी करून ताका पांच वर्सांत लखपती, (थुंबेकाल) करोडपती करपाखातीर सरकारान जिल्हा पंचायत नांवाचो अगडबंब धवो हती तयार केलो. ही जिल्हा पंचायत खंय आसता, करता कितें आनी कितें खावन कशी जगता हें गांवकारांक खबरच नाशिल्लें.

एक दीस रोजी आंटील्या ताव्हेर्नाचेर किंस्तु, दियोग आनी रूजार बसून घोट घोट भर मोडक पियताले. "पाड पोडों तेंचें इलेसांवा येयाय म्हुणोन इस्कोलां व्हयले आमकां. कोणी किदें झोडयतो म्होण थिंगा अर्देवर उबो राविलो. मोरो तेंचो. कोणें पांच रुपोय लेगित झोडोयले नांय." किस्तु जळजळीत मोडक ताळ्यांत ओतयन फडफडतालो. "म्हागेली बीन हिच तोरा. पोयर फार्टी जाल्या इलेसांवा टायमार चिकन–सोरो आनी मोता फाटल्यान हाजरां नोटी मेवताल्यो. हे पावटीं सगलें फुकेट. म्हागेलोय दिसवोडो बुडलो. आँटी आयज उदारी गे." दियोगय दांत वोंठ चिड्डीत भरभरतालो. रूजार मात कांयच उलयनासतना रूचीन बरो पेटयतालो.

तेवटेन मोर्तुलाल्या गादयेर वासु, भागडु आनी सोनु नव्या काजुच्या हुर्राकाची रूच घेताले. तांचींय विमानां बरीं वयर वयर उडटालीं. थंयय तींच नाटकां. झेडपी इलेसावांच्या नांवान बोब चलील्ली. "मोरो तेंचो. दिसभर लोकांक घरांतल्यान आफोवन हाडपाचें काम केलें. आनी मेल्ल्यान दिले कितले काय म्हळ्यार शंबर रुपय. हांये चोयना आसानी बोलसां घायले. सोरो ना चिकन ना. पाड पोडो तेंचें." भागडुन झेड.पी.च्या नांवांन

शिगमो सुरू केलो. "आरे तेका किद्या गाळ्यो सोवता? तो पोडलो आनी दुसरो येयलो झेड.पी. जांवन." वासुन ताका समजायलो. तिंगायनी आपले ग्लास रिकामे केले आनी एकमेकांकडेन झांकत, एकमेकांक आदार दियत रस्तो जोकत चलपाक लागले.

अशे तरेन झेड.पी.चीं इलेसांवां आयलीं आनी गेलीं. कोणतरी वेंचून येवन अध्यक्ष जालो. मागीर कांयच आवाज ना. आमदार दारांत येवंक अजून कळाव आसलो. पंचायतीची वेंचणूक लागसार नाशिल्ल्यान फुडल्या निवडणुकीच्या फंडिंगाचे तयारेंत दोगूय आसतनांच अचकीत एक व्हड काळ्या हारशांची चकचकीत रूपयाळी गाडी गांवांत येता. तातुंतल्यांन दोगजाण सकयल देंवतात आनी गाडयावेल्या मोर्तुक हटकितात. "ए हांगा यो रे." कोणतरी सायब आफयता तें पळोवन मोर्तुची फें फें जाता. "आरे एक सांग हांगाचो पंच कोण?" आता मोर्तुक आवाज फुट्टा. "सायबा, आफोंव तेका?" ताची हालता ती गोमटी पळोवन मोर्तु फुजो मारता. "पात्रांव, पात्रांव. तुका सोदुं कोणतरी येयला." पंचाच्या हिरो होंडाचेर बसून मोर्तु गाडयाकडेन पावता.

झेड.पी. आनी पंच एकमेकांक पळयतात. जोखतात आनी एकमेकांचो हात धरून गाडयेंत वचून बसतात. "पळय हांव जिला पंचायतीचे वतीन हे गांवांत कितेंय कामां करपाक सोदतां. तूं कोणाय काका-मामांच्या नांवार कंत्राटां घे. म्हजे फिफ्टीन पर्सेंट फिक्स. बाकी तुका जाय तें कर. ओके?" पांच मिनटां पंच कोतां करता. फिफ्टीन गेल्यार उरले ८५. हांका तांका खावोवन लेगीत चाळीस टक्के आपले बोल्सांत शेर्त. 'डन' पंच म्हणटा आनी दोगूय हातांत हात घेवन गाडयेभायर येतात. "ए मोर्तु कामां आसात रे?" पंचाल्या उल्या बरोबर धांवून आयल्लो मोर्तु मान हालयता. "हो झेड.पी. सायब गांवची उदरगत करपाक सोदता. तेन्नां देवळाकडच्या पारार पांच वरांचेर



गांव जमपाक जाय. घे हे शंबर रुपया." मोर्तुल्या दोळ्यांमुखार आयज ओल्डमॉन्काची बाटली नाचता. ह्या शंबर रुपयाच्या नेटार मोर्तुन गांवाक पांच वरांचेर पारार एकठांय जमयलो.

चार साडेचारां सावनूच ब्रह्म्याचो पार मनशानी फुलून गेलो. तातूंत तोपयो, फेटे, मुंडाशे, चेर्पी आनी उगडचो तकल्योय दिसताल्यो. झेड.पी.न गाडयेंतल्यान देंवल्या बरोबर चड कळाव लायनासतना सुरवात केली. "गांवचे भाटकार लोक आपल्या घरचीं मरणां आपल्याच भाटांनी साकसून घेतात. भाटां नाशिल्ल्यांनी हीं दहनाचीं कामां खंय करपाचीं? तांका तांच्या घरच्यांचीं मरणां करपाक कोण जागो दिता?" इतल्यांत जाण्टो कुष्टआना उठलो. "बाबा, तूं किदें गांवांत खोदोळ घालूंक येयला? आमच्या वाडवडलांचीं मरणां भाटकारालेच दोंगुल्लेचेर जातात." ते बरोबर कुष्टआनाक चेड्यान तापोवन चूप केलो. आतां पंच उठलो. "झेड.पी. सायबाचें म्हणणें आयकून घे कुष्टआना. ताका सगल्यांच्या घरचीं मरणां-दहनां त्रास जायनासतना जावंचीं अशें दिसता. ते खातीर सायब एक मसुंडी बांदपाचें चिंतता. तेंका कोणेंय तरी जमीन दान करपाक जाय."

"ए. पंचा तूं तर व्हडलो भाटकार मरे! तुजे दोंगुल्लेचेर दी मरे इल्लोसो जागो." बुदवंत रायुदादान म्हळें. हो पंच नेण्टो खरो पूण गळोभर उदकांत बुडून देखून सुकी काश्टी दाखोवपी बेरकी मनीस. "आरे दादो. हांव दोनूय हातांनी दान करपाक तयार. पूण तूं जाणां आमची जमीन कोमु. हेरांनी काब्ज घाल्यार जापसालदारकी तूं घेता तर उलय." रायुदाद चूप पडलो. इतल्यांत भिकु भाटकार उठलो. "हांव दितां जमीन तुमकां पूण म्हजी एकच अट आसा. गांवांत कोंकण्यावांगडा क्रिस्तांवय आसात. तेन्ना आमचे मसुंडेक तेकूनच तांकांय शिमतर बांदून दिवची. जमनीचें म्हजेर पावलें."

ताचें उलोवप सोंपचेंच आसा. कृष्णभावोजी बोंबीदादाल्या कानांत

फुतफुतलो. "इतलीं वर्सां इनाशिनाक सांभाळ्ळें हाणें तें रिण पावयता हो चोर." तांचें किटकीटप पळोवन भिकू भाटकारान दोळे मोटे करून तांकां पळेले. हेवटेन पंच आनी झेड.पी. देवान न मागतांच दोन दोळे दिले म्हणून खूश. पंचाच्या ट्रकान रात-दीस फेरयो मारून दोंगुल्लेवेली माती आनी रोबोल फोडून विकून पयसो पयलींच गांठीक लावपाक सुरवात केली. हळुहळू गांवचींच कामेरीं घेवन मुसुंडी आनी शिमतर मर्दीं एके वण्टीचो वेगळेचार घेवन तयार जाली. चार पयशे किरवंटेक लागले म्हणून वासू, भागडू आनी सोनू मोर्तुलागेर वचून पोरणी काजू फेणी पेटोवन आयले. तेवटेन किस्तू, दियोग आनी रूजार तांबडी बाटली रिती करून आयले. जाल्यार पंच आनी झेड.पी.न आपापल्या गडगंज पर्सेंटेंजीच्या खोशेंत व्हडल्या हॉटेलांत फामिलीसयत पार्टी केली.

सुशेगाद गांवकार आतां बेकार आशिल्ल्यान हेवटेन तेवटेन दिसवड्याच्या कामांचो सोद घेताले. बेकार जाल्ल्यान तिनसांजेचें कोप उदारेचेर चालू जाल्लें. मोर्तुलाचे गादयेर तिनसांजेची भासाभास रंगली. "ये वासू, आतां चोवूं जाय इतलेंच की रेडी जाल्ल्या मसुंडेचें पयलीं उक्तावण जाता काय शिमतरीचें तें." भागडून मात्सो कुरकुरीत जातकीर बाण सोडलो. "भागडू हांव हुंदराचें वीख दितां तें तूं खा रे. रोखडीच मोरतोलो. तुका लासोंन जातलें मसुंडे उक्तावण." मोर्तुल कोपांक ओततां ओततां फुतफुतलें. "सामकी फुटकी माळती शें पचपचलें मुगो. म्हागे कांय जावो ना आजून. चेड्या फुजरा, गुडी दिवों जाई. तुका चोय, ना घोव ना भुरगीं. तूंच घे तें वीख. कटकट नाका मागीर." भागडुले तकलेंत कोपाचें बरेंच वयर चडिल्लें. "हांव? हांव मेल्यार म्हाका तुमची मसुंडी नाका रे. म्हाजे घोवान इल्लो कुडको घेवन दवरला. तितुंकच म्हाका लासतले म्हागे देरा चेडे." उरिल्लें कुट्टेल ताळ्यांत ओतोवन तिगय एकमेकांक सांबाळत गेले.

दुसरे दिसा सकाळींफुडेंच घांटयांचो घणघण सुरू जालो. सगळो वाडो एकठांय जालो. "आरे पापया. आमी कोंकणे सदचे भाशेन हांगाय फार्टींच मरे?" जाण्ट्या रायुदादालीं उतरां आयकून गांव अजापलोच. मागीर भासाभास रंगली ती घांटी भायल्यांच्या मरणाच्यो काय गांवच्या! बशींच्या घरघराटांत आनी वाऱ्याच्या फरफऱ्यान घांटी सारक्यो कळनाशिल्ल्यो.

तेवटेन इगर्जेवाड्यार सगले क्रिस्तांव कपलाक हात लावन बशिल्ले. "जुजे किदें रे. शिमतर उबी कोरपा आमी गांवकारांनी मोर-मोर-मोरप. आनी उक्तावण ह्या मेंगलोरकार यारून कोरोप?" रूजार कपलाक हात लावन आड्डलो. "हेरशीं कितेंय दिता म्हळ्यार सोगले धांवताय. ह्हह्ह मोरोंन शिमतरी उक्तावण कोरपाक कोणू गांवकार नासलो रे देवा?" दियोग पोटांतल्यान तिडक उक्तायतालो. इतल्यांत हळूच वासू आनी सोनू इगर्जेवाड्यार पावले. "हे चोय कोण मेला तें चोंवू येयल्याय. आमगे गावंचे क्रिस्तांवागे कोण मोरो ना तो नां. ह्या कोंकण्यापुणी कोणु मरो जाय आसलो. किदें जांव. जांव कोकणों वा क्रिस्तांव पूण मसुंडेचें आनी शिमतरी उक्तावण गावच्यान कोणी कोरों जाय आसलें." जुजेन फोग काडलो.

"जुजे, ए जुजे. कोण मेला रे?" सोनून हळूच विचारलें. "पाय म्हागेलो. तो पायशांवांगे मेवणो मेगलोरा सावन हिंगा येयलो. थिंगा उदका सोऱ्या भाशेन हिंगाचो म्होणोन तेणी भट्टी ढोकलो. मेल्लो कोंनेस मारोंन रातीभितर सोपलो." जुजे तावान उलयलो आनी अचकीत ताणें सोनूले गोमटेक धरलो. 'ह्हह्ह' च्या चोय. आमगे शिमतरी उक्तावण भाल्या गावच्यान केलां. तुमगे कोणूय गांवचो मोराय आनी कोराय. भायले कोणी येयल्यार तेंका धांवडोन घालाय. सोयरे-बियरे. नाजल्यार तुगे गोमटी मुड्डीता आनी कोत्तां मसुंडे उक्तावण. जुजेले तांबडे गरगर फिरपी दोळे पळोवन सोनून दोळे धवे केले.

■ ■ ■


# CAFE CENTRAL

**Bakers & Confectioners**

**Opp. Corporation of City of Panaji**

**PANAJI - GOA**



- नं. ध. बोरकार
मास्कारेन्हस वाडो,
व्हडलें - गोंय
फोन : २२१८१४७

# म्हातारी काकी



**म्हातारे काकीच्या म्हऱ्यांत आतां पुरयो नाचूंक लागल्यो. कल्पनेंतल्यो पुरयो त्यो! तांबशो-तांबशोच, मोव-मोव आनी फुलिल्ल्यो-फुलिल्ल्यो आसतल्यो, अशें तिचें मन तिका सांगतालें. रुपान सुवादीक पक्वान्नां रांदल्यांत आसतलीं. वेलच्यो-बिलच्यो घालून मसालेदार कचोऱ्यो तळ्ळ्यात आसतल्यो. एक पुरी मेळिल्ली जाल्यार, हातांत घेवन मादशी तोखेतलीं आशिल्लीं. वचून लोखण्याकडे बसच्चेंशें दिसता. पुरयो गाळून-गाळून काडटा त्यो पळोवन जीव धादोशेतलो आशिल्लो. फुलांचो वास आमच्यांनी घरांनूय घेवं येता.**

## एक

अशें म्हणटात की मनीस म्हातारो जाता जाता तसो भुरगो जायत वता. आमचे म्हातारे काकीचेंय तशेंच जाल्लें. एक जिबेची रूच सोडली जाल्यार तिका कितेंच सुचनाशिल्लें. आपलें दुख्ख व्यक्त करपाक रडप होच एक उपाय आशिल्लो तिचेकडे! समस्त गात्रां, हात-पांय, कान-दोळे-आस सोडून बशिल्लीं. दीसभर जमनीर पडून आसताली बाबडी. घरांतलीं मनशां तिच्या मना आड वागलीं, जेवणा वेळार तिची वासपूस जालिना, जेवण थोडें जालें वा कोणे सांतेक-बितेक सावन हाडिल्लें खाण-बीण तिच्या हातार पडलें ना जाल्यार घे मागीर तिच्यो बोबो! कसलीय गजाल तिच्या मना आड घडली जाल्यार तिणें घर माथ्यार घेतलेंच म्हूण समजपाचें.

तिचो घरकार मरून आतां खूब वर्सां जाल्लीं. सगळे पूत जुवानपणांतूच मरून गेल्ले. आतां एक उरिल्लो तो पुतणयो. म्हातारेन आपली सगळी संपत्ती पुतणयाच्या नांवार केली. पुराय गिरेस्तकाय आपल्या नांवार करतासतना पुतणयान काकीक वचन दिल्लें, की तो तिका कितेंच उणें पडूंक दिवचो ना. पूण पुतणयान काकीक दिल्लें उतर थोड्याच दिसांनी उमथ्या कळशार उदक थारलें. म्हातारेल्या बेसाची वर्सुकी येणावळ देडशें-दोनशें रुपया परस उणी नाशिल्ली. तरी म्हातारेचे आतां उपासमार जावंक लागिल्ले. हाका जबाबदार म्हातारेचो पुतणयो आशिल्लो काय ताची घरकान्न, हें कळपाक कुस्तार जातालें. पंडित बुध्दीराम - म्हातारेचो पुतणयो - सभावान बरो. पूण ताचो बरो सभाव ते मेरेन तिगून उरतालो, जो मेरेन ताची धन-दौलत सुरक्षीत उरता. रुपा सभावान कडक आशिल्ली खरी, पूण देवाक भियेवन दीस काडपी. ताका लागून म्हातारे काकीक रूपाचें व्हडलेंशें कोंत नाशिल्लें. मात तिका भंय आशिल्लो तो बुध्दिरामाच्या बरेपणाचो. बुध्दीरामाक केन्ना केन्ना आपलो अत्याचार मानवनासलो. तो बरेभशेन जाणासलो की संपत्तीच्या बळार ताचें सज्जनपण तिगून आसा. जर गोड-गोड उतरांनी आनी खोट्या कळवळ्यान, कसलोय प्रस्न सुट्टा तर ताका तें जाय आसलें. पूण खर्चीक गजालींपासून

तो पयसूच रावतालो. दुसरी गजाल अशी, की ताच्या दारार जर कोणूय शांतसभावी मनीस आयलो आनी म्हातारी ताच्या मुखार बडबडूंक लागली, तर तो रागान तांबडो जातालो. म्हातारे म्हऱ्यांत येवन तिची खरडपट्टी काडटालो. तरणाट्यांक म्हातारीं आवडनात. ते तांचो तिरस्कार करतात, हांगाय तशेंच घडटालें. आवय-बापायच्या वागण्याकडे पळोवन बुध्दीरामालीं भुरगीं म्हातारे काकेक चडच सतायतालीं. कोण चिमटो काडून धांवतालो, तर कोण उदका घोटाची तिचेर पिचकारी मारतालो. काकी किळच्यो मारून रडटाली. पूण एक गजाल फामाद जाल्ली, की काकी रडटा ती खाणाक लागून. ते पासत तिणें कितलोय संताप केलो आनी किंवाट्यान बोब मारली तरी तिचेकडे कोणूच लक्ष दिनासलो. हां, एक गजाल खरी की तिच्या रागा पारो चडलो, की ती भुरग्यांचेर गाळयां शिंवोर करताली. बोवाळ आयकून जेन्ना रुपा धांवून येताली, तेन्ना काकी आपले जिबेची धार उणी करताली. रडपा परस हो उपाय तिका इल्लो बऱ्याक पडटालो.

पुराय कुटुंबांतल्या कोणाचेर जर काकीचो मोग आशिल्लो जायत, तर तो बुध्दीरामचे धाकले चलयेचेर! तिचें नांव आशिल्लें लाडकें. लाडकें आपल्या दोगाय भावांच्या भंयान, आपल्या वाट्याचें खाण काकी म्हऱ्यांत बसून खातालें. हीच सुवात ताका सुरक्षीत दिसताली. काकीचें हें शरणस्थान कितलेंय भंयाचें आसलें तरी तें भावांच्या अत्याचारां इतलें दुखखदिणें निश्चीत नासलें. हेच सुवराथाक लागून काकी-लाडकें एकमेकांकडे घट्ट जाल्लीं. हेच सुवराथाक लागून तांचे मदली ओड वाडीक लागिल्ली.

## दोन

ती रातीची वेळ आसली. बुध्दिरामाल्या आंगणांत वाजपां वाजतालीं. गांवांतल्या पोरांचो चोंबो व्हडा उमेदीन गीतांचो रसास्वाद घेतालो. सोयरे खाटींचेर सुसेग घेताले. गांवचे रीतीप्रमाण म्हाले म्हालेपण करताले. थंयच लागसाराक उबो आशिल्लो भाट चरित्रगायन करतालो. रसीक सोयरे 'वा-वा' म्हणून ताका दाद दिताले. कांयजाण अशें दाखोवपाचे प्रयत्न करताले, की 'वा-वा' चो खरेलो आनी पुराय अर्थ तांकांच खबर आसा - ते तातुंतले जाणकार आसात. एक-दोन इंग्लीश शिकिल्ले तरनाटे आशिल्ले. तांकां भाटगिरी माननाशिल्ल्यान तांचीं मुखामळां उदास दिसतालीं. तांकां ह्या गांवढळ लोकांमदें मिसळप आनी उलोवप तांचे प्रतिशठे आड येतालें.

आयज बुध्दिरामाल्या व्हडल्या चल्याचो-सुखरामाचो साकरपुडो आशिल्लो. ताचोच दबाजो चलतालो थंय. बायलां घरांत बसून गीतगायनां करतालीं. रुपा सोयऱ्यांच्या जेवणाखाणाची वेवस्ता करताली. भट्ट्यांचेर हांडे चडटाले, कायली चडटाल्यो. एकांत वडे तळटाले. दुसऱ्यांत हेर पक्वान्नां शिजतालीं. एका व्हडल्या तोपांत खतखतें खतखततालें. तूप-मसाल्याचो घमघम भुकेल्ल्यांच्या तोंडाक उदक काडटालो.

म्हातारी काकी आपले कुडींत बसून शोक मनयताली. अन्नाचो सुवाद मिश्रीत गंध तिका बेचैन करतालो. ती मनांतल्या मनांत विचार करताली, वडे खावंक मेळटलेच हाची तिका खात्री जायनासली. इतलो वेळ जालो तरी जेवण घेवन कोणूच आयलो ना. तिका दिसलें, सगळें जेवण मेकळें जालें जातलें. म्हाका इल्लेंय उरूंक ना जातलें. हें चिंतून तिका रडूंक आयलें. पूण अपशकुनाच्या भंयान ती रडलिना.

'आहा! कसलो वास सुटला!! हे वेळार म्हाका कोण विचारता? कोणाक कोंत आसा म्हजें? मुळांत एक सुकी रोटी मेळूंक कठीण, थंय पुरयो खंयच्यो?' ह्या विचारांनी तिका रडूंक आयलें. खिणांत दोळे भरून आयले! पूण रुपाच्या भंयान ती आपलें दुखख उक्तावंक शकली ना.

म्हातारी काकी केदो वेळ ह्याच विचारांत गुल्ल जाल्ली. तूप-मसाल्याच्या वासान तिचें मन शितिदाभायर गेल्लें. परत-परत तोंड उदकेतालें तिचें. पुरयां वासान काळजाक खातकुतल्यो जाताल्यो तिच्या. कोणाक उलो मारतली? आयज लाडकेंय फिरकूं नाशिल्लें तिच्या म्हऱ्यांतल्यान. दोगूय पोर तिका लागी धरिनात खरे, पूण तेय तिका लागसाराक दिसले ना. कळटलें आसलें तरी घरांत कितें शिजता-भाजता तें!

म्हातारे काकीच्या म्हऱ्यांत आतां पुरयो नाचूंक लागल्यो. कल्पनेंतल्यो पुरयो त्यो! तांबशो-तांबशोच, मोव-मोव आनी फुलिल्ल्यो-फुलिल्ल्यो आसतल्यो, अशें तिचें मन तिका सांगतालें. रुपान सुवादीक पक्वान्ना रांदल्यांत आसतलीं. वेलच्यो-बिलच्यो घालून मसालेदार कचोऱ्यो तळ्ळ्यात आसतल्यो. एक पुरी मेळिल्ली जाल्यार, हातांत घेवन मात्शी तोखेतलीं आशिल्लीं. वचून लोखण्याकडे बसचेंशें दिसता. पुरयो गाळून-गाळून काडटा त्यो पळोवन जीव धादोशेतलो आशिल्लो. फुलांचो वास आमच्यांनी घरांतूय घेवं येता. पूण पोरसांत वचून घेता त्या वासाची खोस वेगळीच आसता. अशें चिंतून म्हातारी काकी उकडयां बसली. जमनीक हात तेकयत सरकत-सरकत फुडें गेली आनी कायलीकडे वचून बसली. हांगा येतकच तिका इतलो धीर मेळ्ळो, जितलो की भुकेल्ल्या सुण्याक जेवतल्या मनशाच्या सामकाराक बशिल्ल्यान मेळटा.

रुपा ते वेळार कामाच्या चेपणा खाला वावुरताली. केन्ना हे कुडींतल्यान ते कुडींत वताली. केन्ना कायली कडसून कोठयेकुडींत वताली. कोणेंय येवन सांगलें, 'सायब सरबत मागता' तर सरबत दिवंक धांवली आनी कोणेंय सांगलें, 'गायकाक कितेंय दिल्यार बरें' तर भाटा खातीर सिदो काडूंक लागली. तिसरो येवन म्हणूंक लागलो, 'जेवणाक कितलोसो कळाव आसा? टाळ पखवाज खंय आसात?



मात्शे काडून दी.' एकली बायल खंय म्हूण पावतली? धांवपळ करून थकून वताली. पिंजळटाली, फुगार जाताली, पूण कोणाचेर रागार जायनासली. हे भंयान की शेजाऱ्यांनी तिका नांवां दवरचीं न्हय! तानेन तिचो ताळो सुकतालो, उकाड्यान घामाच्यो पावळ्यो गळटाल्यो, पूण उदक पिवंक आनी आयणो हालोवंक वेळ खंय आशिल्लो तिका? ते भायर वावराड्यांचेर नदरय दवरची पडटाली. कोठये कुडींतलें सामान फारायलें जाल्यार? असले वेळार तिणें म्हातारेक कायलीकडेन पळयली. तिच्यान सोसूंक जायना जालें. रागान तांबडी जाली. थंय शेजान्नी बसून आसात तें ती विसरली. त्यो मनांतले मनांत कितें म्हणटल्यो, थंय बसून आशिल्ल्या दादल्यांचेर कितें परिणाम जातलो, हें सगळें ती खिणांत विसरून गेली. जे तरेन बेबो गायडोळाचेर झोपय घेता, तेच तरेन तिणें म्हातारेचेर झोपय घाली. तिणें दोनूय हातांनी म्हातारेक झटकून म्हणलें, 'उजो लागूं तुज्या त्या पोटाक! तुजें तें पोट की भट्टी काय म्हणटां हांव? मरताली तूं कुडींत बसून रावल्यार? अजून देवाक वाडी दाखोवपाची आसा, सोयऱ्यां जेवपाचीं आसात. आनी तुज्या पोटाक रोखडोच उजो पेटलो? मातय धीर धरूंक जालो ना तुज्यान? हड्ड्यार बसली तूं आमच्या. उजो लागूं गे तुजे जिबेक. दीसभर उपाशीं उरिल्ली जाल्यार कोणाल्या बुडकुल्यांत तोंड घालतली आशिल्ली देवाक खबर! गांवांत कळ्ळ्यार लोक म्हणटले आशिल्ले, 'म्हातारी पोटाक वळवळटा. पोट-फाट एक जावन भोंवता बाबडी. केन्ना मरतली देवाक खबर कुरूड! नांव वगडावंक फुडें सरल्या आमचें. आमचें नाक कापले बगर रावची ना तूं. इतलें भरता तें खंय वता देवाक खबर! इल्ली तरी लज शिल्लक आसल्यार, वच आनी मर कुडींत. घरांतलीं मनशां जेवणांक बसतलीं तेन्ना घालतां तुका गिळूंक. तूं स्वताक हांगाची देवी बी समजता काय कितें, हेरांच्या पोटांत उदका घोंट वचचे पयलीं तुजी पुजा करपाक.'

म्हातारेन तकले वयर काडली खरी, पूण तिणें जापूय केली ना आनी रडलीय ना. मोन्यांनी सरकत सरकत आपले कुडींत गेली. सरकणेचो आवाज इतलो कडक आशिल्लो, की काळीज आनी मेंदवाची पुराय शक्त, पुराय विचार आनी पुराय नेट एकेच दिकेकडे केंद्रीत जाल्लो. न्हंयचे देगेच्या उंचायेचो, मातयेचो एक भूखंड कोसळून न्हंयच्या उदकांत पडून तें उदक फांकारचें, थंय खोलाय निर्माण जावची, आनी ती खोलाय भरून काडपाक चारय वाटांनी उदक धावून येता, तसो भास जालो. आतां जेवण तयार जाल्लें. आंगणांत पत्रावळी मांडल्यो. सोयरे जेवणाक बसले. बायलांनी जेवणावळींचीं कवनां म्हणूंक सुरवात केली. सोयऱ्यां वांगडा नोकर-चाकरय मातशे कुशीक वेगळे पंगतीक बसले. पूण रितीप्रमाण सगळे जेवले बगर कोणूच उठूं शकनासलो. सोयऱ्यांत एक-दोन शिकिल्लेय आशिल्ले, सेवक सावकाश जेवतात तें पळोवन उबगले, तांकां सगळ्यां वांगडा बसून रावपाची पद्दत मानवली ना. तांकां तीं अनाडीपणां दिसलीं.

म्हातारी काकी पिकासांवान आपले कुडींत वचून बसली. आपणें कितें केलें आनी कितें घडलें, अशें शें जालें तिका! तिका रुपाचो राग आयलो ना. कारण गडबड तिणेंच केली आनी ती तिकाच भुजली. गजाल खरी आशिल्ली, जेवणाचे बाबतींत सोयऱ्यांचो मान पयलीं आनी घरच्यांचो मागीर. म्हज्यान मात्शें रावंक जालें ना. ताकाच लागून लोकां मुखार सोब जाली म्हजी. जालें तें जालें. आतां आपयले बगर जाग्यावयली हालचीं ना.

मनांतल्या मनांत हो विचार करून, ती आतां आपोवण्याची वाट पळोवंक लागली.

पूण तुपाचो वास तिची कठोर परिक्षा घेतालो. एकेक खीण तिका एक-एक यूग भासूंक लागलो. आतां पत्रावळी मांडल्यात जातल्यो. सोयरे जेवणाचे तयारेक लागल्यात जातले. सेवक तांबये भरून दितात जातले. सोयरे हात-पांय धुतात जातले. अशें दिसता, लोक जेवंक लागले. जेवणा पंगती आतां श्लोक म्हणटल्यो अशें चिंतून, आपल्या मनाक थातारीत ती आडवी पडली. करतां-करतां ती आतां गीत गुणगुणूंक लागली. येदो वेळ मेरेन लोक जेवतात काय? कोणाचोच आवाज आयकूंक येना. लोक जेवन-खावन निश्चीत गेले आसतले. म्हजी कोणाकच याद जाली ना. रुपा म्हजेर तिडकल्या. घडये आपयनासतना रावत. तिच्या मनांत विचार आयल्यात आसतले, येतली आपूण जावन. आपोवपाक हांव कितें सोयरी? म्हातारी वचपाचे तयारेक लागली. एका मिनटांत पुरयो आनी मसालेदार तोंडाक मेळटलें अशें तिका दिसलें. दिसलें कितें, खात्री जाल्ली तिका. तिचीं सुवादिंद्रियां उत्तेजीत जालीं. तिचे खोशेक पालय फुटली. मनात तिणें कितलींशींच सपनां रंगयलीं - पयलीं तोंडाकांत बुडोवन पुरयो खातली, मागीर साखर-धयांत बुडोवन, रायत्यांत कचोऱ्यो बुडोवन खावंक कितली मजा येतली! कोणेंय बरें म्हणू वा वायट, हांव मागून-मागून खातलीं. लोक म्हणटले - ही सामकी अदाशी बायल, म्हणूं बाबडे! इतले दिसांनी पुरयो हाताक लागतात, फकत तोंड भश्टून वगी कित्याक रावपाचें?

ती उकडयां बसली. हातांच्या बळान घश्टत-घश्टत, सरकत-सरकत आंगणांत गेली. पूण हाय रे दुर्दैवा! अभिलाशेन आपलो मूळ सभाव सोडूं नासलो. तिची कल्पना फट थारली. सोयरे अजून बसून आशिल्ले. कोण खावन बोटां चोखतालो, कोण तिरशा दोळ्यांनी अदमास घेतालो की बाकीच्या लोकांचें जेवन जालां काय ना. कोणाक पत्रावळीवयल्या पुरयांची काळजी पडिल्ली. कोणायभशेन त्यो भितर व्हरून सुरक्षीत दवरच्यो, अशें दिसतालें तांकां. कोणाचे जिबेर अजून धंय दाटून आशिल्लें. दुसरो दोणो मागपाक फाटी-फुडें जाता म्हणसर म्हातारी सरकत-सरकत मदें आयली. कांय मनीस तिका पळोवन काचाबूल जावन सडसडीत उठले. ताणी बोवाळ घालो- 'आरे ही म्हातारी कोण? खंयच्यान आयली ही? आफडत बी ती कोणाकूय!' पंडित बुध्दिरामाची नदर म्हातारेचेर पडली मात, तो रागान तांबडो जालो. पुरयांची परात हातांत घेवन उबो आशिल्लो तो. ताणें परात जमनीर आपटिली आनी जे तरेन एक म्हाजन, आपल्या एकाद्रया पळपुटचा आनी बेमान रिणकाऱ्याच्या गंवट्याक धरता, ते तरेन ताणें काकीचे दोनूय हात धरले आनी तिका घश्टीत· व्हरून काळखाकुर्डीत धुकलून दिली. आशारुपी फुलबागेक हुलपाच्या एकाच झोतान करपोवन उडयली.

सोयऱ्यांचें जेवन जालें. घरांतल्यांचींय जेवणां जालीं. वाजंत्री, मडवळ, चामार बी सगळे जेवले. पूण म्हातारे काकीक कोणेंच विचारलें ना. बुध्दिराम आनी रुपान काकी कडल्यान घडिल्ल्या अपराधाची शिक्षा दिवपाचो नित्शेव केल्लो. तिच्या वयाचो, अज्ञानाचो, बाबडेपणाचो कोणेंच विचार केलो ना. कोणाकूच दया आयली ना तिची. मात, एकट्या लाडक्याचें काळीज चुरचुरतालें तिचे खातीर.

लाडक्याक काकीचो खूब मोग आशिल्लो. सरळ आनी सादेंसुदें भुरगें तें. फकाणां आनी चांचाळतायेचो इल्लोय वांगोड नाशिल्लो ताचेकडेन. आवय-बापायन काकीक घश्टीत-ओडीत व्हेली तें पळोवन लाडक्याचें काळीज तुट्टालें. काकीक जाय तितल्यो पुरयो दिनांत तें पळोवन लाडक्याक आपल्या आवय-बापायचो खूब राग येतालो. इतल्यो सगळ्यो पुरयो सोयरेच खातले? आनी सोयऱ्यां आदीं काकीन पुरयो खाल्ल्यो जाल्यार कोणाचें कितें बिगडपाचें आशिल्लें? लाडकें काकी म्हऱ्यांत वचून तिका धीर दिवंक सोदतालें. पूण तें आवयच्या भंयान वचनासलें. ताणें आपल्या वाट्याच्यो पुरयो खायनासतना, बावल्यांच्या पेटाऱ्यांत तशश्यो बंद करून दवरिल्ल्यो. तें पुरयो घेवन काकी म्हऱ्यांत वचूंक सोदतालें. काळजाक सुशेग जायनासलो ताच्या! ताका दिसलें, आपल्या आवाजान काकी झडझडीत उठटली. पुरयो पळोवन खोशेन भरतली ती. म्हजेर चड मोग आसा तिचो.

## चार

आतां रातीचीं अकरा वरां जाल्लीं. रुपान आंगणांत ताणून दिल्लें. लाडक्याक कशीच न्हीद लागनाशिल्ली. काकीक पुरयो खावोवपाची खोशी ताका न्हीद लागूंक दिनाशिल्ली. ताणें बावल्यांचो पेटारो म्हऱ्यांतूच दवरिल्लो. आवय न्हिदिल्ल्याची ताका खात्री जाली. तें गुपचूप उठलें आनी विचार करूंक लागलें, आतां चलूं कशें? सगळेकडे काळोख! फकत चुलिनीं उजो धुंवतालो. आनी चुलीक तेकून एक सुणो गोठेल्लो. लाडक्याची नदर सट्ट करून दारांतल्या निंबिणीच्या झाडार पडली लाडक्याक दिसलें, झाडार हनुमान बसला. ताची शेपडी, गदा बी स्पश्ट दिसूंक लागली ताका. भंयान ताणें दोळे धांपले. इतल्यान सुणो अकस्मात उठून बसलो. लाडक्याक धीर आयलो. ताका दिसलें न्हिदून पडिल्ल्या आडबऱ्यां मनशां परस एकटो जागो, धांवतो सुणो खूब बरो. ताणें पेटारो उखल्लो आनी म्हातारे काकीचे कुडींत गेलें.

## पांच

म्हातारे काकीक फकत इतली याद आशिल्ली की कोणें तरी तिका हाताक धरून

घश्टीत व्हेली. मागीर तिका अशें दिसलें की कोण तरी तिका ओडीत दोंगरार घेवन वता. तिचे पांयें परत परत फातरांक आपटतात. मागीर कोणे तरी तिका दोंगरार आपटिली आनी ती बेसुद्द जाली.

जेन्ना ती सुद्दीर आयली, तेन्ना कसलोच आवाज तिच्या कानार पडलो ना. तिका दिसलें, सगळे लोक खावन-जेवन न्हिदले. तांच्या वांगडा तिचें नशिबूय न्हिदलें. हाय राम! आतां रात कशी काडटलीं?

देवा म्हज्या! किते खावं आतां? पोटाक तर पेटला उजो! कोणाकूच पडिल्लें ना म्हजें. म्हाका उपाशीं दवरून हांची गिरेस्तकाय वाडटली? ह्या लोकांक म्हजी मातूय काकुळट कशी दिसली ना काय म्हणटा हांव, हांव सुक्यो रोटयोच खातां काय आनी कितें, हेंय पळोवप ना? कशे हाल जाल्यात पळयात म्हजे. थोटी आनी कुड्डी कशी जाल्यां हांव. ना आयकूंक शकतां, ना समजूंक. हांव आंगणांत गेलीं जाल्यार बुध्दिरामाच्यान सांगू येतालें, 'काकी, लोक जेवतात न्हय? मागीर यो.' तर ना. म्हाका घश्टीत व्हेली आनी आपटिली. पुरयो ना त्यो नाच, रुपान म्हजी सगळ्यां मुखार तासमपट्टी केली. गाळी घाल्यो म्हाका. पुरयां खातीर इतलें घडलें, तरी तांच्या फातरा काळजाक मातय पाझर फुटलो ना. सगळ्यांक खावयल्यो पुरयो, पूण म्हजी एका उतरान कोणें चवकशी केली ना. तेन्ना दिलें ना तें दिलें ना आतां तरी दिवपाचें!

असो विचार करून काकी निर्शेली. तरी तेच स्थितींत संतोश मानून ती थंयच लवंडली. गळो दाटून आयलो तिचो. रडूंक येतालें, पूण सोयऱ्यांच्या भंयान रडनासली.

इतल्यान तिच्या कानार आवाज पडलो - काकी, ऊठ! पुरयो हाडल्यात तुका हांवें. काकीन लाडक्याची भास वळखली. फटफटीत उठून बसली. दोनूय हातांनी लाडक्याक सांसपून घेतलें. मागीर तिणें ताका मांडयेर बसयलें. लाडक्यान पुरयो काडून काकीक दिल्यो.



काकीन हळून विचारलें, ''ह्यो तुज्या अम्मान दिल्यात गो बाय?''

''ना. ह्यो म्हज्या वाट्याच्यो.'' लाडक्यान भियेत सांगलें. काकीन पुरयांचेर झोपय घाली. पांच मिनटांत तिणें पेटारो रिकामो केलो. लाडक्यान विचारलें, ''काकी, पोट भरलें तुजें?''

जे तरेन थोडो-सो पावस थंडसाणे सुवातेर हुनसाण दिता, ते तरेन ह्या थोड्या पुरयांनी काकीची भूक आनीकय वाडयली. ती फुतफुतली, ''ना गो बाय, अम्माकडल्यान आनी घेवन यो.''

लाडक्यान म्हणलें, ''अम्मा न्हिदल्या.'' जागयल्यार मारतली. काकीन पेटारो सांसपिलो. कांय खवळे पडिल्ले ते काडून खाल्ले. परत परत वोंठांचेर जीब फिरोवंक लागली. रूच काडूंक लागली.

काकीचें मन आतां थाऱ्यार नाशिल्लें. आनीक पुरयो कशो मेळटल्यो, हें चिंतेंत आशिल्ली ती! मनशाच्या मनांतले आशेक बांद घालूंक जायना. ती चारूय वाटांनीं नेटान व्हावूंक लागता. मदांद मनशाक ताच्या मदांदकायेची याद करून दिल्यार तो आनीकूय मदांद जाता. मस्तेपणां करूंक ताका चड चेव येता. काकीलें अधीर मन आतां इत्शांच्या प्रबळ प्रवाहांत व्हावून गेलें. खऱ्या-खोट्याची जाणविकाय उरली ना तिका. थोडो वेळ तिणें इत्शेचेर नियंत्रण दवरलें आनी सहज ती लाडक्याकडे उलयली, ''म्हाका हाताक धरून सोयरे जेवल्यात थंय व्हर.''

काकीच्या उलोवण्याचो अर्थ लाडक्याक कळ्ळो ना. ताणें काकीचो हात धरलो आनी तिका उश्ट्या पत्रावळींकडे व्हरून बसयली. गरीब, भुकेल्ली आनी निर्बुध्द म्हातारी पत्रावळीं वयले पुरयां कुडके वेंचून वेंचून भकूंक लागली. मनांत ती म्हणूंक लागली वा! धंय कितलें सुवादीक आशिल्लें, कचोऱ्यो कितल्यो देखण्यो. काकी अगिन्यानी आसुनय तिका कळटालें, कीं तिणें केन्ना करूंक फावना तें ती करता. हांव दुसऱ्यांच्यो उश्ट्यो पत्रावळी ल्हेंवतां, कारण म्हातारपण हो तान-भुकेचो अंतीम खीण आसता. असल्या वेळार सगळ्यो इत्सा एका केंद्रबिंदूकडे धांवूंक लागतात. म्हातारे काकीचें हें केंद्र तिगेलीं स्वादेंद्रियां आसलीं.

तेच वेळार रुपाचे दोळे उकतें जाले. तिका कळ्ळें की लाडकें म्हज्या म्हऱ्यांत ना. ती काचाबूल जाली. खाटेवेल्यान हांगा-थंय पळोवंक लागली. तिका दिसलें, लाडकें सकयल बी पडलां जायत. तें थंय ना तें पळोवन, ती उठली. उठ जाल्यार कितें पळयतली? लाडकें उश्टट्या पत्रावळींकडें ओग्गी उबें आसा, आनी म्हातारी काकी पत्रावळींवेले पुरयां कुडके काडून-काडून खाता. रुपाक मारलो सणसणो. एखाद्रे गायेचे मानेर सुरी चलतना जी गत जाता, तशी गत रुपाची जाली. एक बामीण दुसऱ्यांची उश्टी पत्रावळ ल्हेंवता हो प्रसंग असंभव आशिल्लो तिका. पुरयांच्या इल्ल्या-इल्ल्या घासां खातीर रुपाची बापोलमांय निकृश्ट आनी तिरस्कृत कर्म करताली. तो देखावोच असो आसलो की पळयतल्याचें काळीज थरथरचें. अशें दिसतालें की धरतरीमांय निष्क्रिय जाली. मळब घुवूंक

लागलें. संवसारार विपत येवपाचे आसार दिसूंक लागले. तरी रुपाक राग आयलो ना. शोका मुखार क्रोधाक सुवात आसतली? दयेन आनी भंयान तिचे दोळे भरून आयिल्ले. हांगा अधर्म घडला. ह्या अधर्माचें पाप आतां कोणा माथ्यार? कोण धनी ह्या पातकाचो? तिणें उकते काळजान गगन-मंडळा दिकेन हात जोडून म्हणलें – "हे परमात्म्या, म्हज्या भुरग्यांचेर दया कर रे बाबा! सांबाळ तांकां. ह्या अधर्माचो दंड म्हाका नाका, सर्वनाश जातलो म्हजे घराब्याचो."

रूपाक आपलो सुवार्थ आनी म्हातारेचेर केल्लो अत्याचार प्रत्यक्ष रूपान दिसतालो. असलो प्रसंग हे आदीं केन्नाच अणभवूं नासलो तिणें. आतां ती चितूंक लागली – हाय! कितली दुश्ट हांव. जिचे संपत्तीचेर हजारांनी रुपयांची येणावळ घेतां, तिची अशी गत? तीय बी म्हाका लागून? हे भगवंता! म्हजेकडल्यान व्हडली चूक घडली, क्षमा कर म्हाका. आयज म्हजे पुताचो साकरपुडो आशिल्लो. शेंकड्यांनी लोक जेवन गेले. हांव तांच्या तालार नाचलीं. नांव मेळोवपाक हजारांनी रुपये खर्चीले हांवें. पूण जिचे खुस्तार आमी हजारांनी रुपये कमायले, तिका ह्या सुवाळ्याक लेगीत पोटभर अन्न दिवंक शकलीना. फकत हे खातीर की म्हातारेक कोणाचो आदार ना.

रुपान आतां दिवो पेटयलो. रांदचे कुडींत गेली. पुराय पक्वानानी थाळी सजयली. थाळी घेवन म्हातारे म्हऱ्यांत गेली.

आतां अर्दी रात जावन गेल्ली. मळबांत नखेत्रांचे थाळे सजयल्ले दिसताले. पूण तांचेपासत कोणाचेंच काळीज खोशेन भरनासलें. काकीक मात परमानंद भोगतालो तो म्हऱ्यांतली थाळी पळोवन! रुपान दाटिल्ल्या गळ्यांतल्या घरघऱ्या आवाजान म्हणलें, काकी, उठ. जेवन घे. हांव चुकलीं. माफ कर म्हाका. देवा कडे माग, की ताणें म्हाका क्षमा करची.

निश्पाप सभावाचीं भुरगीं जशीं फाटलें सगळें विसरून म्हऱ्यांतले मिठायेर झोपय मारतात, तशी म्हातारी काकी म्हऱ्यांतल्या थाळयेंतलें पक्वान बका-बका खावंक लागली. तिच्या नसां-नसांतल्यान आशीर्वाद भायर पडटाले, आनी रुपा म्हऱ्यांत बसून तो परमानंद भोगपांत गुल्ल जाल्ली.

**(मुन्शी प्रेमचंद हांचे मूळ हिन्दी कथेचो कोंकणी अणकार)**





मूल्य : रु.135 /-
(ट.ख.नि.)

भाषिक संघर्षाचे
# समाजशास्त्र

बहुभाषाप्रेमी चिंतक, उत्तम मराठी व कोंकणी लेखक — भारतीय ज्ञानपीठ पुरस्काराने सन्मानित, पद्‌मभूषण श्री. रवीन्द्र केळेकर यांनी समाजभाषाविज्ञानाच्या आधारे गोव्यात मराठीच्या विरोधात लिहिलेल्या लेखांपैकी काही संपादित आणि भाषांतरित लेख, तसेच हिंदी-हिन्दुस्तानी संघर्ष, देशी भाषा व इंग्रजी संघर्ष यांच्या अंतःप्रवाहाचे विवेचन.

**लेखक :** पद्‌मभूषण श्री. रवीन्द्र केळेकर
**अनुवाद व संपादन :** डॉ. अरुणा दुभाषी




प्रकाशक : **राजहंस वितरण**
1, मीनाक्षी बिल्डिंग, डॉ व्होल्फांगु द सिल्व्ह मार्ग, पणजी, गोवा - 403 001
फोन : (0832) 2220320 / 2232177 E-mail : rajhaunsvitaran@dataone.in



– सुधा खरंगटे
अ-४, कुडतरकार क्लासीक,
आर्के, मडगांव-गोंय.

# आशीकुशीक वावुरपी जितापत



मुंयांचे आनी माळणाचे जोडयेक आनीकय ल्हान-व्हड जीव घरांत रिगताले, आमचे आशीकुशीन वावुरताले. सरभोंवतणी वावुरपी त्या जिवांक पळोवन कोणाकच तांचें व्हडलेंशें अप्रूप दिसनासलें.

न्हाणयेंत न्हावंक गेल्यार केन्नाकेन्नाय फातरीपोंदच्यान बोटायेदी रूंद अशी जोळोणी भायर सरप. मागीर भुरगीं बी न्हातना ओलींच न्हाणयेंतल्यान भायर सरून.... 'जोळोणी....जोळोणी' करून नाचूंक लागतालीं. खरेपणीं ती पळोवंक कितली रेखीवशी दिसप. दोनयवटेन हारीन ते कितलेशेच पांय पळोवंक बी बरेंऽऽ दिसप. पूण ती चाबत म्हणून आमी तिका भिवप. मागीर बापूय नाजाल्यार भाव बी जाणटो कोणय येवन जोत्याव्हाणीन ती जोळोणी मारताले.

मदीं मदीं विंचूय बी मेळूंक येताले. तांच्योय दोन जाती. एक खडप विंचू आनी दुसरो बामण विंचू. खडप विंचू सामको काळो कुळकुळीत. तर बामण विंचू मात्सो हळदुवसार रंगाचो. एक दीस कपडे उमळपाचे फातरीपोंदच्यान आयिल्लो तो काळोकिट्ट विंचू पळोवन म्हाका ताची अपुर्बाय दिसली. दोनय वटेन आपल्यो नांग्यो फुलोवन आनी फाटलें आंग आर्क शें घुंवडावन तो विंचू म्हाकाच पळोवंक लागलो. हांव पयलेच खेपो विंचू पळयतालें न्हीं! व्हडले व्हडले टोळ बी तसले जीव हांव कांय न्ही करून चिमटेक धरून भुरग्यांक आनी जाणट्यांक लेगीत. '..तुमच्या आंगार उडयतां... तुमचे आंगार उडयतां...' करून भिशटावपी. हो लेगीत टोळाबशेन कोणय जातलो अशें समजून हांव ताका चिमटेन धरपाक फुडें सरलें मात,...फाटल्यान भयणीन बोवाळ घालो - 'आगो! आगो! तो विंचू!!... नांगी मारतलो... फाटीं सर.... खडप विंचू तो...'

हांव फाटीं सरलें. मागीर भावान व्हडली जोत्याव्हाण हाडून साग्रसंगीत... मोठ्या समारंभान ताका मारलो.

'खडप विंचू चावल्यार मोठें वायट हां! ताचें वीख चडटा... घुंवळ लेगीत येता... बामण विंचू चावल्यार तरी कांय चड जायना...' सगळ्यांनी म्हाका शिटकायलें.

हो बामण-विंचू चडसो कपड्यांचे राशीक वचून बसतालो. एक खेपो सुकिल्ल्या कपड्यांच्या ढीगांतल्यान भायर सरलो. दुसरे खेपो उमळपाचे ओलसार कपड्यांनी वचून बशिल्लो. सुंदरें बाबडें कपडे उमळूंक व्हरतालें, ताच्या बोटाकच चाबलो. ह्या बामण विंचवाचें वीख चड खर न्ही म्हणून बरें.

खडपो विंचू काळो-किट्ट पाषाण कसो तर बामण विंचू हळदुवसार रंगाचो. आतां विंचवांभीतरय हें बामणपण खंयच्यान पावलें काय.???

विंचवा भशेन त्यो जोळोणी आनी गोठाणी... जांकां मागीर आमी 'सेंटीपेड' 'मिलीपेड' म्हूण स्कुलांनी शिकलीं... ल्हानपणांत त्यो खूब पळयल्यो. गोठाण तर बाबडी सामकीच सादी. विखारी न्ही. तिका अशीऽ बडी तेकयल्यार सगळें आंग गुठलावन वाटकुळीच जावन पडून रावताली. मागीर बडयेन तिका 'खोऽलो बोटेंऽऽ' करून पयस शेवटून उडोवपाचो एक खेळच जावन पडप.

पोरसांत तण पांचवेंचार आसता तेन्ना ताचेर पांचवेच टोळ येताले. उडक्यो मारून नाचताले. पूण पावस सोंपून तण सुकलें आनी तें करड करड्या रंगाचें जालें तशे ते टोळय बी त्या करडाबशेन करड्याच रंगाचे जाताले. सैमाचो हो चमत्कार पळोवन तेन्नां व्हडलेंशें अजाप दिसनासलें. अशें जावपाचेंच, पांचव्या तणार पांचवोच टोळ आसपाचो आनी करडाचेर करड्या रंगाचोच टोळ आसपाचो अशें दिसप. सैमाचो हो येदो व्हडलो चमत्कार भुरगेपणांत आमी कांय न्ही करून अजाप करनासतना पचयतालीं.

आश्विनाक नवरात्रांच्या दिसांनी मळबांतल्यान देंविल्लेभशेन तोंडाक मावले-जाळयाबशेन धागो धरून कुसां-किडी देंवताल्यो. ह्यो आनी खंयच्यान येतात काय म्हणून अजाप जावप. कोणें सांगलें, 'म्हाळ-

म्हयनो न्ही हो?...मळबांतल्यान पितर देंवतात ते सकल... पिंड व्हरपाक येतात....'

ही आनी काणी आयकून भुरगेमनाक इतलें अजाप जावप...!!! पितर आयल्यार येवंदी, पिंड व्हरपाक... पूण कुसांकिडीच्या रुपान कित्याक?....कारण आमी 'कुसांकीड' हें उतरच एक गाळ कशी वापरतालीं. कोणय दुसऱ्याच्या कानाक लागून खबरी-चाडयो करूंक लागलो, तर त्या मनशाक 'कुसांकीड' म्हणप. 'कुसां पुरता पळय कसो म्हणप...'

ही कुसांकीड जर आंगाक म्हणून तेकत, जाल्यार तिणें आंगाभीतर आपलीं कुसां सोडलींच म्हूण समजुपाचें! मागीर आंगाचो तितलोच कुडको खरजप - जळप - तांबडोच जावप...! ताचेर मागीर जाण्ट्यांचो एकच उपाय आसलो - कुसां भायर काडून उडोवपाक 'कांबळीचें फर्टें' घेवन त्या जाग्यार जोरान घांसप! हुकमी उपाय!! सगळीं कुसां भायर सरून वतालीं आनी जिवाक सुशेग मेळटालो.

पयल्या पावसाक तांबड्योच विलोदी आंगाच्यो इल्ल्योशो देवाल्यो गोगलगायो येताल्यो. मेरेवेल्यान येतना वतना त्यो पांयांपोंदा चिड्डत म्हणून भंय दिसतालो. इल्लोसो चण्यायेदो जीव तो! पूण कितलो सुंदर दिसतालो. तिचें तें तांबड्याच व्हेलव्हेटाचेंशें लुसलुशीत आंग मोव वतार बरेंऽ तिकतिकप... पूण खर वतान त्यो मरून पडटाल्यो. खंयच्यान येताल्यो - कित्याक म्हणून पावसा बरोबर येवन आपलें रूप दाखोवन मागीर मरून वताल्यो - देवाकच खबर! पूण त्यो दिसतकच जिवाक बरेंऽ दिसतालें. 'ही पळय गोगलगाय... ही पळय आनी एक गोगलगाय...' अशें म्हणून बारीक शिरशिरत्या पावसांत नाचत त्यो एकमेकांक दाखोवपाक आमकां भोवच खोस मेळटाली. त्यो पायांपोंदा पडून मरत आनी आमकां पातक लागत म्हूण खूब जतनाय घेतालीं आमी...!!

पूण ती दुसरी गोगलगाय - फाटीर आपलें घर घेवन भोंवपी - तिचो मात सामको वीऽट येवप. चुकून तिका हात लागल्यार शेंबूड लागिल्लेभशेन जीव वीटप. साबू लावन हात धुयसर थार नासतालो. ती गोगलगाय जे वाटेन वता तो जागो लेगीत शेंबूड सारायिल्लेबशेन धवसार सो जावन तिकतिकप. ते गोगलगायेक आमी सामकीं विटतालीं.

गोठ्यार, जळवाचे खोपीर बी दुदणीच्यो वाली चडटाल्यो. श्रावण म्हयन्यांत हळदुव्याच फुलांनी त्यो पांचव्योचार वेली नटताल्यो सामक्यो..! दुदणीचे कळे तळून खावपाचो घोस्तच आगळो!! 'चलात गो, कळे काडून हाडात...' अशें आईन सांगल्यार पुरो, आमी ते कळे काडूंक धावप. पूण... थंयय बी अचूक एक जीव सांपडप. जल्ल्याबशेनसो...दुदणीचे वेलीची वाट लायतालो तो! ताका 'पैंगीळ' म्हणटालीं. त्या पैंगीळाक हात लागल्यार हाताक कसलो घाण वास येवप? शीऽऽ! येवजिल्यार आज लेगीत पोटांक धवळटा. ते पैंगीळ आमी बडयांनी दुदणीवालीवेल्यान झटकवप आनी बडयेनच ते मातयेंत पुरप.

घरांत जल्ले जाले तशे त्या जल्ल्यांक खावपाक पाली जाताल्योच! त्यो पाली वणटीचेर, वाशांचेर बी रावताल्यो. जल्ले, मावल्यो, जळारां, मूस अशे बारीक जीव बी खावन सुशेगाद आसताल्यो. पाली सावज धरतना पळोवंक खूब मजा येताली. ल्हवू...ल्हवू... सरकत, सरपटत ती आपल्या सावजा म्हऱ्यांक पावताली तीच पुट्ट करून जिबेन ताका खावन उडयताली. एके पालीन तर अर्दो जल्लो तोंडांत आनी अर्दो जल्लो भायर अशे अवतिकेन सगळो मायतो काडलो आनी शेवटाक त्या जल्ल्याक गिळूनच ती दुसरेकडेन गेली.

आनी एक खूब मोठीशी पाल आसली. तिका सगळीं 'रेडेपाल' म्हणटालीं. ती आनी साळांक वांशाचेर बसून आसताली. मोठ्ठी सुबेज..!! घरांतलीं मनशां बी बसून कितेंय खबरी करूंक लागलीं कीं आपूणय घरांतलो एक सदस्य जाल्लेभशेन त्या खबरांनी आपलें तोंड घालतालीच! तिगेलें तें 'चुक-चुक, चुक-चुक' करून मदीं तोंड घालप कोणाकच आवडनासलें. बडी बी घेवन तिका धांवडावपाचो यत्न करप. पूण तितले वेळापुरती ती ना जाताली; आनी रोखडीच परती येवन आपलो जागो धरून बसताली.

घरा भोंवतणी रोयिल्ल्या झाडांचेर, वालींचेर तरेकवार रंगाच्यो - आकाराच्यो किडी येताल्यो. पूण निमाणे हे एके किडीविशीं सांगन दिसता.

करबेलाचें झाड रसरसून पांचवेचार पानांनी भरलें तशें ताचीं पानां खावपाक ह्यो किडी येताल्यो. पानार चडटना पयलीं इल्ल्योशो काळसार रंगाच्यो.... पूण पानां खावन करबेलाक बोडको करीत, ह्या पानांवेल्यान त्या पानार चडत-चडत मागीर येऽद्यो बोटायेद्यो जाताल्यो. आंगय सामकें पांचवेंचार... ताचेर मदींच काळशे आडवे पट्टे आनी दोन मोठेच काळेशार दोळे... पळोवन अजापाबरोबर भंयच दिसतालें. हात चुकून तेकल्यार गिळगिळीतशें मोव आंग! बडयेन पानावेली उडोवंक केल्यार कशीच पडनासली.... पानाक घट्ट वेंगावन बसताली. मागीर ती कीड आसा थंयचे ल्हान ल्हान ताळेच तिचेबराबर कापून उडोवप.

आनी पयर दुसऱ्या माळ्यावेल्या ह्या फ्लॅटांत हांव झाडांच्या कुंड्यांक उदक घालतालें. कुंडेतलो करबेलाचो रोपो रसरसून सामको पांचवोचार जाल्लो. उदक घालतना मातसो हात लागल्यार आपल्या वासान भोंवतण परमळीत करून सोडली ताणें. पूण एका खांद्याचीं पानां नाच्च जावन फकत दांडे उरल्यात. बारीकसाणेन नदर मारल्यार तीच ती कीड - पांचवीच मोठी जावन पानांक वेंग मारून बशिल्ली... मोठे दोळे करून पळयताली.... पयलींची वळख दाखयिल्लेभशेन....

वळख-बिळख झक मारली, पयलीं करबेलाक वांचोवया म्हळें... कातर हाडून किडीसकट करबेलाची ती आंकरीच कापून उडयली.



# गोंय मुक्तीच्यो अमुरपिक्यो यादी



– कुसूम अग्रवाल
शिवोले–गोंय
फोन : २२७२०२१



**ह्या** वर्सा आमच्या गोंयंचे मुक्ततायेक पन्नास वर्सां जातात. आमच्या फुडाऱ्यांनी खूब कश्टान मेळयल्ल्या ह्या स्वतंत्रतायेचीं फळां आमी चाखतात. तांचो त्याग, तांच्या शिरंतरांत भरिल्लें तें देशप्रेम, धाडसान पुर्तुगिजांक मुखार वचपाची आनी आपल्या जिवाचो फाटलो फुडलो विचार करिनासतना आपल्याक झोकून दिवपाची ती वृत्ती पळोवन आपशींच तकली बागवता. तोंडांतल्यान शब्द येतात, धन्य ते लोक.

म्हजो इश्ट, शिक्षक देविदास नायकान सुनापरान्तांत मुक्तीपुर्व घटनांच्यो ताणी अणभविल्ल्यो यादी बरयल्यो आनी म्हज्या काळजांतल्या कोनशांतल्यो अमुरपिक्यो यादी ताज्यो जाल्यो. आमच्या गोंयांक मुक्ती मेळ्ळी तेन्ना हांव ८-९ वर्सांचें आसलें. म्हजो भाव सर्गेस्त मोहन तुकाराम केसरकर सुटके झुंजारी अशिल्ल्यान घरांत चालंत राजकारणाचेर चर्चा जाताली. राजकारण समजपा इतलें हांव व्हड नाशिल्लें. पूण पुर्तुगेज सरकार वायट, ते गोंयकारांक त्रास दितात ही गजाल म्हज्या भावान म्हज्या मनाचेर कोरांथिल्ली. ताचो म्हाका अणभवूय आयिल्लो. फोंडच्यां शांतीनगरांत रावतले मावशेगेर हांव गेल्लें. मावसभयणी व्हड आशिल्ल्यो. पाखले येतात म्हूण बेगीबेगीन मावशेन आमकां तांच्याच देवळांत बंद केलें आनी देवळाक चावी केली. सुंदर चलयो दिसल्यो की धमकी दिवन तांकां घेवन वतात अशें मावशेन सांगिल्ल्याची म्हाका याद जाता. तांच्या बद्दल आशिल्लो राग उक्तावपाक 'इंडियनालो बावटो, सालाझार ल्हेंवटो' अश्यो घोशणाय आमी तोंडपाठ केल्ल्यो.

त्या दिसांनी आमी मडगांवां कोंबांत केसरकाराचे चाळींत रावतालीं. सगल्याक भंयभीत वातावरण आशिल्लें. आमच्या चाळींतल्या भुरग्यांच्यो आवयो आमकां घराभायर वचपाक दिनासल्यो. पाकले लिपून रावन फारपेट करताले.

सकाळचो वेळ आसलो. म्हजी आई म्हजे केंस उगयताली. एक विणी घालून जाल्ली. दुसरी विणी घालपाक तिणें हातांत केंस घेतले. इतल्यांत कानाचे पड्डे फुट्टा तसलो भिरांकूळ आवाज जालो. कसलो आवाज? कितें जालां? आमकां कांयच कळना जालें. हातांतले केंस सोडीनासतना आवयन म्हाका भरभरीत घराच्या भायर काडलें. आमीच न्हय तर सबंद चाळींतलो लोक घराभायर आयिल्लो. मळबांत विमानांची गरगर आयकुपाक आयलो. एकलो आड्डलो. पुर्तुगिजांचें विमान आयलां. जमनीर न्हिदात नाजाल्यार ते तुमचेर फारपेट करतले. आमी सगल्यांनी जमनीर घालून घेतलें. विमान मुखार गेलें. इतल्यांत एक जीप आयली. जिपींतल्यान लोक व्हडल्यान सांगताले. भिवपाची गरज ना. तीं विमानां भारताचीं आसात. आमची राखण करपा खातीर पंडीत नेहरून तीं धाडल्यांत. पुर्तुगिजांक आमी धांवडावन घातला. हीं उतरां कानार पडनाफुडें आमी आमकां येताल्यो त्यो घोशणां दिवपाक सुरू केल्यो. अचकीत एक बातमी आयली. बोरयेचो पूल पुर्तुगिजांनी बाँब घालून मोडलो आनी ताचोच तो व्हडलो आवाज आसलो.

आमी पुर्तुगिजांच्या जाचापासून मुक्त जाल्लीं. जो तो घोळक्यांनी उबो रावन खबरी करतालो. आमी भुरगीं एकठांय जालीं आनी महिला विद्यालयाकडे वचपाक भायर सरलीं. तेच शाळेंत हांव शिकतालें. वाटेर तालकाच्या पसऱ्यामुखार कोणे तरी भारताचो तिरंगी बावटो हाडून जमनींत लायलो आनी घोशणा दीत, नाचत आपली खोस व्यक्त करपाक



लागलो. तांका धुकलीत एक पुर्तुगिज धार्जिणो गोंयकार बावट्यासरी आयलो आनी ताणें तो तिरंगी बावटो काडून जमनीर शेंवटिलो. चवताळिल्ल्या लोकांती ताका रगत येयसर बडयलो आनी आशिल्लो तसो तो बावटो परत मातयेंत रोमलो. तालकाच्या पसऱ्याच्या कुशीक अशिल्ल्या लॉन्ड्रीकडे उबीं रावन आमी हें पळयतालीं. ताका मारलो म्हूण आमीय ताळयो मारून खोस उक्तायली.

शाळेकडे वच जाल्यार थंय भुरगीं तशींच जाणटीं एकठांय जाल्लीं. सगलीं प्रभात फेरयेची तयारी करतालीं. आईन म्हाका रोखडेंच घरा आपयल्लें. पूण म्हजो म्हजेर ताबो नाशिल्लो. हांवूय तांचेबरोबर प्रभात फेरयेंत भरसलें. शाळेकडल्यान विठोबाच्या देवळाकडल्यान फेरी वताली. उजव्या हाताक वचून दामोदर सालाकडेन वचपाचो तो रस्तो. आतां तो रस्तो बंद केला. अदर्या रस्त्याकडे आमी पाविल्लीं. व्हडल्या व्हडल्यान घोशणां दीत आमी मुखार वतालीं. त्या घोशणांचो आवाज सगल्याक घुमतालो.

इतल्यांत फारपेटाचो आवाज आयलो. चवनाळिल्लो पुर्तुगेज अधिकारी रस्त्याचे कुशीक लिपून रावन फारपेट करतालो. आमी वेळ केलो ना, फाटल्या पांयांनी धावत घरा आयलीं. थंय मागीर कितें जालें तें पळोवपाचें धाडस आमचेकडें नासलें.

तो दीस आमकां परबेचो कसो दिसतालो. शाळेक सुटी आसली. नव्यो नव्यो बातम्यो कानार पडटाल्यो. पुलीस स्टेशनाकडे म्हळ्यार पोरण्या बसस्टॉपाकडे ट्रकाचे ट्रक भरून सैनीक आयल्यात ही बातमी आयकून आमकां कशेंच रावपाक जायना जालें. आवय फारपेटाच्या धक्क्यान आजून सांवरूंक नासली. तिणें म्हाका धमकायलें. पूण मन घरा रावपाक तयार नासलें. धांवत आमी थंय पावलीं. पळय जाल्यार कितलेशेच सैनीकांनी भरिल्ले पाचवे ट्रक. ते आपल्यो तकल्यो बागोवन लोकांक हात दिवन परबीं दिताले. गोंयकारूय आपलो हात दिवन कृतज्ञतायेचे भावनेन तांचे घडये उपकार मानताले. आमचे हात तांचे मेरेन कशेच पवनासले. आमी उडयो मारून तांकां हात लावपाचो प्रयत्न करतालीं. पूण व्यर्थ. आमची धडपड पळोवन कोणें तरी आमकां उखलें आनी आमी आमचो हात तांच्या हातांत दिलो. आमी जिखिल्याची खोस तेन्ना आमकां जाल्ली.

आज त्यो अमुरपिक्यो यादी जेन्ना शाळेंतल्या भुरग्यांक सांगतां तेन्ना त्या दिसांची याद येवन म्हजें हड्डे भरून येता. जशें व्हड जायत गेलें तशें स्वातंत्र्याचो खरो अर्थ कळ्ळो. आज त्या मुक्ती दिसाचें म्हत्व आयची पिळगी समजून घेनांत. तांच्या त्यागाचो, धाडसाचो उगडास करिनांत. १५ ऑगस्ट, १९ डिसेंबरासारके दीस तांका सुटयेचे दीस दिसतात म्हूण मन खंती जाता. आयचे पिळगेन मुक्तीपूर्व झूज पळोवंक ना. तांका ताची जाण करून दिवपाक जाय. तांचो देशाभिमान जागोवपाक शिक्षक, पालक, समाज खंय तरी उणो पडटा काय? अशी मनांत शंकाय येता.

■ ■ ■



# निंदक

निंदकाचें घर शेजरा आसचें अशें कोणें एका संतान म्हणलां. शेवटीं संतूच ते. तांकां तुस्त करपीय सारके आनी निंदकूय सारके. पूण ते सांगतात ते प्रमाण तुस्त करप्यांचेर विस्वास दवरचो न्हय. ते बऱ्या कारणाक जशे तुस्त करतात तशे चुकीक लेगीत ते चूक दाखोवन दिनासतना तुस्तूच करतात. पूण निंदक फकत चुकोच सोदीत आसतात आनी तेंच पालुपद घेवन निंदा करीत रावतात. हाका लागून चुको सुदारपाक गावतात आनी चुको जावच्यो न्हय म्हणपाची काळजी घेवप जाता.

पूण आमी सामान्य मनीस. आमकां टिका आवडना. आमकां टिका आयकतकच एक तर वायट दिसता ना तर तिडक मारता. एक एक वेळार, आमी ते टिके फाटलें कारण सोदूंक वचनात आनी चूक सुदारप जायना. आनी आनीक टिका नाका म्हणून तें कामूच सोडून दितात. नवें खंयचेंच काम हातांत घेवंक धजनात. चूक सुदारून काम केल्यार मेळपी फायदो आमकां घेवंक गावना आनी नव्या कामाचो लावूय आमी घेनात. एक एक वेळार आमकां लुकसाणाक तोंड दिवचें पडटा.

अशीच एक गजाल. कांय वर्सां फाटीं हांव कामाखातीर पुण्याक गेल्लों. ते वेचणुकांचे दीस आसले. वेचणुकांच्या दिसांनी फुडाऱ्याचे व्हडले व्हडले कटआवट्स रस्त्याकडांनी आनी चौक्यांनीं लावपाचें फेड हालीं दिसांनीं गोंयांत आयलां. गोंयांभायर असल्यो गजाली तेन्ना लेगीत पोरण्यो जाल्ल्यो. हांव ज्या वाठारांत राबित्याक आशिल्लों थंय लागसारा एक कलाकार स्थानीक नेत्याचो कटआऊट आनी एक ऊंच पुतळो करपांत मग्न आसलो. कांय कटआऊट करून दवरिल्ले. पूण पुतळो ज्या जाग्यार करतालो, ताचे भोवतणी आडोस केल्लो.

नेत्यान त्या कलाकाराक शिटकावणी दिल्ली, 'पुतळो भव्य जावंक जाय. म्हजे परस बरो दिसूंक जाय. तातूंत कुस्कुटाची लेगीत चूक उरूंक फावना.' हेच शिटकावणेक लागून ताणें आडोस केल्लो. तुस्त करपी आनी निंदक दोगांकूय अशे तरेन पयस दवरिल्ले. काम करतना चित्त विचलीत जावंचें न्हय हो ताचो उद्देश. ते खातीर ताणें काळजी घेतिल्ली. पुतळो पुराय जातकच ताचें उक्तावण त्या नेत्याच्या हातान करचें थारायलें. उक्तावणाक चार दीस आसतना ताणें लोकांक पळोवपाखातीर उकतो करचें थारायलें.

लोक येवन पळोवन आपापसांत कुजबुजत वताले. लोक कितें उलयतात तें आपल्याक कळचें आनी पुतळ्यांत कसलीच चूक आसल्यार वेळारूच सुदारूंक मेळची म्हूण ताणें एक चोपडी आनीक एक पेन थंय दवरलें. तितल्यान थंयच्यान एक मोचेकार वतालो. नवोच पुतळो पळोवन तो थांबलो. पुतळो करपी कलाकार हळूच पुतळ्या फाटल्यान लिपून रावलो. लिपून ताणें मोचेकाराचेर नदर दवरली.

त्या पुतळ्याचे बूट निरखून पळेत त्या मोचेकारान त्या कादेर्नाचेर कितें तरी बरयलें आनी गेलो. फाटोफाट कलाकारान येवन ताणें कितें बरयलां ताचेर नदर मारली, 'दावो बूट मात्सो वांकडो दिसता. तो सारको केल्यार पुतळ्याक बरी सोब येतली अशें म्हाका दिसता.'

कलाकारान निरखून पळयलें आनी त्या मोचेकाराचें सत दिसलें. बेगोबेग तो बूट सारको केलो. दुसरे दीस तो मोचेकार परत आयलो. आपले केल्ले सुचवणेक पाळो दिला तें पळोवन ताका हुरूप आयलो. ताणें परत बरयलें, 'पुतळ्याचें कल्सांव कंबरेक घट जालां आनी ताचो देंठ सारखो दिसना.' हें वाचून त्या कलाकाराक तिडक मारली आनी ताणें आपलो शेरो बरयलो,

'हे मोचेकारबाब, तुजी नदर मोच्यापुरतीच दवर. आपले लायकीभायर खंयूय मेतेर जाय नाका. फुकट त्रासांत पडटलो.'

हे खातीर, निंदक शेजरा आसचो अशें जरी संतान म्हणलें तरी, 'शेजरा' म्हणजे 'घराच्या शेजरा' असो अर्थ आमी घेवंचो न्हय. फकत जाय तेदेवेळार ताका 'शेजरा' म्हणल्यार 'लागीं करचो' आनी 'जाय तेंच' ताचें आयकुचें, आपल्याक उपेगी पडटा तितलेंच मतींत धरून जाय जाल्यार आपले कामांत सुदार घडोवन हाडचो आनी बाकिचें ह्या कानान आयकून त्या कानांतल्यान सोडून दिवचें. ना जाल्यार 'पेजेक पावपा नात.'



**– गुरूदास मधुसुदन शेणवी नावेलकार**
असोळणें, साश्टी – गोंय



# आग्वादचो इतिहासीक किल्लो

इतिहास जाच्या प्रत्येक फातरार कोरांथला असो इतिहासीक किल्लो म्हणजे आग्वाद. बार्देस म्हालांतल्या शिकेरी गांवच्या सोबीत पठाराच्या माथ्यार हो किल्लो मुकूट कसो सोबून दिसता. मिरामार, कांपालावेल्यान तर तो उठून दिसता.

पुर्तुगेज आनी डच म्हळयार हॉलन्ड वा नेदरलॅन्डचे हे एकमेकांचे व्यापारांत दुस्मान आशिल्ले. १५१०त पुर्तुगेजांनी गोंयचें तिसवाडी जुंवो घेतल्या उपरांत १५४३ वर्सा साश्ट आनी बारदेश म्हाल आदिलशाह कडल्यान पुर्तुगेजांनी बळकायले. डच राजकारण्यांचो पुर्तुगेजांचेर दोळो आशिल्लो. ते गोंयचेर घुरी घालपाची वाट पळयताले. ताणीं १६०४ ह्या वर्सा आपलें एक तारूं गोंयचे वाटेन धाडिल्लें. दर्यातल्यान गोंयचे वाटेन हें तारूं पाविल्लें तेन्ना पुर्तुगेज व्हायसरॉय मात्सो सतर्क जालो. ताका कर्शेय करून गोंय डचांचे नदरेंतल्यान वाटावपाचें आशिल्लें. तिसवाडी जुंवो, काबो दोनापावलाचो किल्लो, गास्पार दी यश (मिरामारचो किल्लो), पोरणे गोंयचो किल्लो आनी तिसवाडी जुंव्याची जी तटबंदी आशिल्ली ती पोर्तुगेजांक आपल्या दुस्मानांपासून सुरक्षीत दवरताली. पूण बार्देस म्हालांत फक्त तेन्ना रेइश मागूश वेरेंचो किल्लो आशिल्लो आनी एका सुरक्षीत अशा किल्ल्याची पुर्तुगेजांक सामकी गरज भासली. कारण डच खंयच्या वेळार पुर्तुगेजांक गोंयांतल्यान धांवडावपाक शकतात अशी भिरांत पुर्तुगेजांक दिसपाक लागली. म्हणून चारय





वाटांनी किल्ले आसप गरजेचें अशें तांकां दिसूंक लागलें. हेच दुरदृश्टीन पुर्तुगेज व्हायसरॉय तावोरा आनी पुर्तुगालचो राजा दों. फिलीप दुसरो हाणीं १६०४ ह्या वर्सा शिकेरी गांवचें पठार जें अरबी समुद्र, मांडवी आनी जुवारी न्हंय हांच्या संगमाकडेन पळयता त्या पठाराचेर किल्लो बांदपाक घेतलो. कारण हांगा एक सैमीक झर आशिल्ली. १६०४ ते १६१२ ह्या आठ वर्सांच्या काळांत हांगा एक प्रशस्त असो व्हड किल्लो पुर्तुगेजांनी खास करून डचांकडल्यान गोंयची राखण करता खातीर बांदलो. हाचें बांदकाम चिऱ्यांनी जालें. आग्वा म्हळ्यार पुर्तुगेज भाशेंत उदक. हें नांव ताणीं ह्या किल्ल्याक थंय आशिल्ले झरीवेल्यान दिलां आसतलें. पूण ह्या किल्ल्याक फोर्ट आलिझा रिअल म्हणटाले. मागीर आग्वादा म्हणूंक लागले. कारण ह्या किल्ल्यान व्हड अशी उदकाची टाकी बांदली. जी दर्यावर्दींक उदका पुरवण करताली. तें उदक झरींतल्यान व्हरताले. आग्वाद किल्लो सामको मजबूत आशिल्ल्यान ताचे सकले वाटेन एक बंदखण १६२४ वर्सा बांदली.

ह्या किल्ल्याक बुरूज, तट, कट्टो







तो पळोवंक मजा दिसता. हो प्रकाशजोत वांटकुळोच फिरत आसता. पुर्तुगेज सैन्य ह्या किल्ल्यांत रावतालें. तांचो कॅप्टन आसतालो.

आग्वादच्या किल्ल्यान मुक्ती संग्राम पळयला. डॉ. टी. बी. कुन्हा, नागेश करमली, नामदेव हरमलकार अशा कितल्यातरी सुटके झुंजाऱ्यांक आग्वादचे बंदखणींत घाल्ले.

१९ डिसेंबर १९६१च्या दिसा ऑपरेशन विजय हो मिलिटरी फोर्स जो गोंयांक मुक्त करपाक आयिल्लो तेन्ना मेजर सिध्धू हांणीं गोंयच्या स्वातंत्र्या खातीर आपले प्राण बलिदान केले. मेजर सिध्धूक आमी विसरूंक फावना. आग्वादच्या किल्ल्यावेल्यान सरभोंवतणचो जो निसर्ग, सैम

आनी भुंयारी कोठड्यो आसात. त्याच वांगडा बोगदे आसात. किल्ल्याचेर दोन दिपस्तंभ आसात. हातुंतलो पोरणो एक दिपस्तंभ १८६४ वर्सा गवर्नादोर तोरेस नोवास हाणें बांदलो. हातुंतलो दुसरो धाकटो दिपस्तंभ १९७५ वर्सा आमच्या सरकारान बांदलो. पोरण दिपस्तंभ बियांचें तेल घालून पेटयताले. दिपस्तंभाचो प्रकाशजोत आयजमेरेन चोय दिकांनी घुंवता











दिसता तो उतरांनी सांगपाक कठीण. गोंयच्या सगळ्यांत सोबीत वाठारांत हो किल्लो बांदला. ह्या किल्ल्या वयल्यान मुरगांव बंदर, काबोची पलास, पणजे, दर्या इतलो सोबीत दिसता कीं खरेंच गोंय हें सैम सोबीत सर्ग.

एक गजाल सांगपाक विसरलों ती ही की १८०८ ह्या वर्सा नेपोलियन आनी टिपू सुल्तान च्या भयान ब्रिटीश जांचे भारताचेर राज्य चलतालें ताणी आपलें सैन्य पोर्तुगेजांकडेन करार करून आग्वाद दवरिल्लें. मागीर १८१५त नापोलियन हरतगेर ब्रिटीश सैन्य आग्वादाक सोडून गेलो. कारण ताका भंय आशिल्लो नापोलियन आनी टिपू हे दोगूय ब्रिटीशांचे दुस्मान गोंयचो वापर तांका भारतांतल्यान धांवडावपाक करत म्हणून.









– प्रा. प्रजल साखरदांडे
एस-३, बी-३, पुर्वा अपार्टमेंट्स,
मरड, करंझाळें – गोंय.
फोन : ७८७५२४००६९





- विन्सी क्वाद्रस
'स्नोज कृपा', आर्लेम गांव,
सालसेत-गोंय
मो. 9822587498

# आदार



**खरें म्हणल्यार आंतोन ताका सांगतालो दोन वियाजी मारल्यात त्यो पुरो, आतां हांगाच खंयतरी नोकरी धर म्हण. पूण तें आग्रहाक पेटलें आनी आयकनासतना गेलेंच. आमकां ताचो कसलोच दुबाव नासलो. ताचें कुवेताक गुपीत कारस्थान चलतालें म्हण आमकां खंय खबर? थंयसर तें मायकल नांवाच्या काजारी दादल्याच्या मोगान भोंवता म्हण फामाद जाल्लें. आंतोनीचो एक इश्ट थंयच काम करतालो.**

'ह्या वर्साक आयकर वाचोवंक जाय जाल्यार खंयचेय नोंदणीकृत संस्थेक दान कर आनी थोड्या आयकरांतल्यान मुक्ती मेळय.' आमच्या हिशोबनिसान दनपरां दिल्लो सल्लो कशे तरेन अस्तित्वांत हाडचो हाचेर हांव विचार करीत आशिल्लों. आमोरी जावन गेली. खंयचे संस्थेक दान करूं? मुखेल मंत्री निधी खातीर दिल्यार चड बरें अशें चिंतलें. ना, ते परस खंयचेय बिगर सरकारी संस्थेक दिल्यार ताचो बरो उपेग जातलो. ह्या विचारांत आसतनाच गांवच्या कॉन्वॅन्ट इश्कॉलांतले मुखेली माद्रिचो म्हाका फोन आयलो. हांव तिका वळखतालों.

''आमच्या इश्कॉलांत एक चेडूं आसा जाका पयशांची सक्त गरज आसा. जाता जाल्यार ताका मात्सो आदार करशी?'' तिणें नम्र आवाजान सांगलें.

''कित्याखातीर ताका पयशे जाय तर?''

''ह्या वर्साच्यो परिक्षा जाले उपरांत दिल्लीक एक राष्ट्रीय स्पर्धा आसा. हेर भुरग्यांबराबर आमी ताकाय धाडूंक सोदतात. तिकेट बी आमी काडटलीच, पूण हेर खर्चा खातीर थोडे पयसे जाय पडटात न्हय? ते पासून तांचे कडेन दिवंक जायनात. हेर भुरग्यांचे वडील आपल्या भुरग्यांक धाड म्हण विनयतात पूण हें भुरगें आमच्या इश्कॉलाक नांव हाडटलें हाची आमकां खात्री आसा.''

''तूं म्हणूंक सोदता, हांवें ह्या भुरग्याक स्पॉन्सर करचें म्हण?''

''ना, ना. सद्याक ताका थोडेशे पयशे जाय थंयच्या खर्चा खातीर. ते कोणें तरी ताका दिवंक जाय. तुज्यानय दिवंक जाता.''

''ताची थोडे भितर वळख दिवंशी?''

''ताचें नांव नताशा. सुमार बारा वर्सां ताची पिराय. सातवेक शिकता. तें शिकूंक एकदब बरें आसा. पूण शाळेंत कसल्याय कामाक पयशे भरूंक पडटात वा नवीं पुस्तकां हाडूंक पडटात जाल्यार ताका बरीच अडचण जाता. ताचो बापूय हालींच अंतरला. ताची आवय भायल्या देसांत नोकरी करता पूण ती ह्या चेडवाक आदार करिना. देखून आसूनय



नाशिल्ल्या सारकी. ताका जाण्टी शेमांय आसा. तिचे फुड्यांत तें रावता. तिचे कडेन ताचो आर्थीक भार उबारूंक जायना. तिका सरकारी पेन्शन आनी पुतान बँकेत कितें दवरिल्लें आसा ताचो जूर मेळटा ताचेर तीं दीस काडटात.''

''हांव ताका मेळून पळयतां.''

हांव आदार दिवंक तयार जालों आनी ताणीं घेवंक नकार दिलो जाल्यार? हांवे ताचो पत्तो घेतलो. कॉन्वॅन्टाक दान केल्यार सूट मेळत काय म्हण मनांतच चिंतलें आनी दुसऱ्या दिसाक सांजेर कामावयल्यान सरळ ताका मेळूंक गेलों.

तें एकटेंच बसून अभ्यास करतालें. हांवें जाप केली आनी म्हजी वळख दिली. तें म्हाका आदींच वळखतालें. गांवच्या कार्यावळिनी ताणें म्हाका पळयल्लो.

''कशें आसा?'' हांवें ताका विचारलें.

''हांव बरें आसां. यो अंकल बस.'' म्हाका पळोवन तें अजाप जालें.

''तुजी शेमांय ना घरांत?''

''येतली. जळवाक कितेंय मेळटा जाल्यार पळोवंक म्हण भायर सरल्या.''

''आनीक, अभ्यास कसो चलता?''

''बरो चलता. आनीक पंदरा दिसांनी परिक्षा येवपाच्यो आसात म्हण तयारी करतालें.''

''इश्कॉलांत शिकोवप कशें आसा?''

''इश्कॉलांत शिकयतात ताचेर हांव निंबून रावना. म्हाका एक माद्री टिचर सदांच सांगता घराकडेन शाळेचीं पुस्तकां वाच. इश्कॉलांत तातुंतलेंच शिकयतात. हें मनांत दवरून, इश्कॉलांत एक पाठ शिकयलो म्हण्टच हांव घरा कडेन येवन तो वाचतां. मागीर म्हाका प्रस्नांच्यो जापो सोदूंक एकदम सोंपें जाता.''

''गूड. एकदम बरी संवय आपणायल्या तुवें!''

''अंकल, हांव तुका च्या करून हाडटां.''

''तुका च्या करूंक कळटा?''

''म्हजी च्या म्हजे शेमांयक लेगीत बरी लागता.''

''तशें जाल्यार ती येतच तूं च्या करूंक वच. आतां म्हाका सांग तूं राष्ट्रीय स्पर्धेंत भाग घेवंक दिल्लीक वचूंक सोदता म्हण तुमची माद्री सांगताली.''

''हय. तींच म्हाका धाडपाची तयारी करतात.''

''तुका उमेद ना तर?''

''उमेद आसा. पूण थंय खर्च करूंक आमचेकडेन पयशे खंय आसात?''

''हांवें तुका पयशे दिल्यार उपकारत?''

''पूण.... शेमांयक विचारूंक जाय.''

तें उलयतासतनाच ताच्या घरांतलो मोबायल फोन वाजलो. ''शेमांयक कितले फावटी सांगलें हो फोन बंद उडय म्हण, कशीच आयकना. तें रागान उटून फोना कडेन गेलें.

''हॅलो कोण?''

''हांव, रोजी.''

''म्हाका तुजेकडेन उलोवंक नाका. शेमांयक कितें सांगपाचें आसल्यार सांग. ना जाल्यार फोन ऑफ करतां.''

''म्हाका तुजेकडेनच उलोवंक जाय आसलें.''

''ना. म्हाका उलोवंक नाका.'' ताणें फोन खरेंच ऑफ केलो.

''अशेंच करता. आपले आवयकडेन उलोवंकच सोदिना.'' जळवाचो ल्हानसो भरो कुशीन उडयत ताचे शेमांयन म्हणलें.

''फोनार उलयताली ती?'' हांवे प्रश्न

केलो.

"ताची मम्मी."

"तिची खबर पयलीं हांव अंकलांक सांगतां. जाणां अंकल एक दीस हांव हांगाच बसून आशिल्लें. सुमार सात-आठ म्हयन्यां फाटली गजाल. पप्पाचो एक इश्ट ताका मेळूंक आयलो. तो सांगूंक लागलो म्हजी मम्मी खंय भायर फॉल्गां मारता. मागीर म्हाका पप्पान भितर धाडलें. आनी ते कितें उलयले तें म्हाका खबर ना. पूण दुसऱ्याच दिसा पप्पा दुयेंत पडलो आनी त्या दुयेंसांतल्यान भायर सरलोच ना. एक दीस मेलो. म्हजे मम्मीक लागूनच तो मेला न्हय? म्हजी मम्मी ताच्या मरणाक लेगीत आयली ना. जाल्यार सांग अंकल, तिचे कडेन हांवें आनीक उलोवपाचें उरलां?" उलयतना तें फुगार जातालें.

"बाय, तूं म्हाका च्या करता म्हणटालें न्हय?" हांवें ताचे शेमांयकडेन उलोवंक, नताशाचें लक्ष दुसरेकडेन व्हेलें.

"हय. हांव च्या करून रोकडेंच घेवन येतां." तें भितर गेलें.

"अशें कितें केलें तिणें?" हांवें शेमांयकडेन विचारलें.

"तें कुवेट आसतालें आनी आजूनय थंयच आसा. म्हजो पूत आंतोन दिसवड्याचें काम करपी. एक दीस काम केल्यार दुसऱ्या दिसाक बेकार. मागीर बेकार मनशाचें तूं जाणां, तांकां रोकडेंच वेसन लागता. घरची परिस्थिती तशी बरी नासली. देखून तोच म्हणूंक लागलो, वता जाल्यार वच. हें नताशा पांच वर्सांचें आशिल्लें. ताच्याच एका सोयऱ्यान घरांत काम करूंक विझा धाडिल्ली. एक-दोन वियाजी बरे भशेन मारल्यो. खरें म्हणल्यार आंतोन ताका सांगतालो दोन वियाजी मारल्यात त्यो पुरो, आतां हांगाच खंयतरी नोकरी धर म्हण. पूण तें आग्रहाक पेटलें आनी आयकनासतना गेलेंच. आमकां ताचो कसलोच दुबाव नासलो. ताचें कुवेटाक गुपीत कारस्थान चलतालें म्हण आमकां खंय खबर? थंयसर तें मायकल नांवाच्या काजारी दादल्याच्या मोगान भोंवता म्हण फामाद जाल्लें. आंतोनीचो एक इश्ट थंयच काम करतालो. ताणें ताका समजावपाचो यत्न केलो. तो मायकलाक लेगीत मेळ्ळो. पूण ताणीं आयकलें ना. तांच्यो पाड करण्यो इतल्यो मुखार पावल्यो कीं तें मायकलापासून गुरवार जालें. पूण ताणें भुरग्याक जल्माक हाडूंक ना ती वेगळी गजाल. आंतोनीचो इश्ट जेन्ना गोंयांत आयलो. तेन्ना ताणें ताका बायलेची गजाल सांगली. आंतोनीक एकदम शॉक जालो, आनी तो हांतरूणार पडलो तो उठलोच ना."

"हांवें आयकलां तुमकां पयशांक लागून खूब त्रास जातात म्हण?"

"आंतोनीचें कितें आसलें आनी म्हाका सरकारचे दोन पयशे मेळटात, ताचेर आमी दोगांय काडटात दीस."

"ती तुमकां पयशे बी धाडिना?"

"पयशे खंयचे? खबर पासून सारकी घेना. हो आमचो इतलोसो भाटा कुडको आसा. ताका खबर आसा आतां आमचो कोण ना म्हण. तो आपल्याकच मेळटलो हे आशेन तें मर्दी-मर्दी फोन करता. हाकाच लागून ह्या चेडवान तो फोन एक दीस भायर मारिल्लो. पूण म्हज्या भावान केन्नाय आपणाक आमची खबर घेवंक जाय म्हण लायफ टायम कार्ड घालून दवरलां. तो काणकोण रावता. हांगा येता तेन्ना कितेंय घालता हातार."

"पळय, म्हाका नताशाच्या इश्कॉलांतले माद्रीन हांगा धाडला. ताका ती हेर भुरग्यांबरोबर दिल्लीक धाडटात खंय आनी थंयच्या खर्चाचे पयशे हांव दिवंक तयार जालां. तुमची परिस्थिती पळोवन हांवें थारायलां हे मुखार ताचो शिकपाचो खर्च पासून हांव उबारूंक तयार आसां. जर तर तुजी कसलीच अडचण ना जाल्यार."

"तुजे व्हड उपकार जायत. म्हज्या पुताची एकूच निशाणी ही. तें बरे भाशेन शिकून मुखार वचचें होच म्हजो आंवडो आसा. म्हजे कितले दीस उरल्यात ते म्हाका खबर नांत. तू जर ताका आदार दिवंक तयार आसा जाल्यार, देवानच तुका धाडला म्हणचो पडटलो." तिच्या दोळ्यांतल्यान दुकां व्हावलीं. तेन्नाच नताशा च्या घेवन आयलें. हांवें ताचे तकले वयल्यान हात फिरयलो आनी च्या हातांत घेतली.

"नताशा, तुका कितलें पासून शिकन दिसता?"

"म्हाका एक वकील जावंक जाय आनी म्हजे मम्मीक शिक्षा दिवंक जाय."

"ना, ना.ना. भुरग्यांनी अशें आक्रमक वागूंक जायना. तू जेरूल वकील जा, पूण तुजे मम्मीक शिक्षा दिवंक न्हय, बगर तुजे भाशेनच जायतीं जाणां ह्या संवसारांत अन्याय सोंसतात, एकसूरपण भोगतात. गरजेभायर खास्तीक सापडटात. विनाकारण बंदखणीत पडटात तांकां नीत मेळोवन दिवंक वकील जा. तुका शिकपाचो देवान बरो गूण दिला ताचो बऱ्या कामाखातीर वापर कर. आक्रमक जिवितांत कोण यशस्वी जायना. तूं जितलें शिकूंक सोदता तितलें शीक. हांव तुका सगळो आदार दितां. आनी तुज्यो निमाण्यो परिक्षा सोंपतच दिल्लीक वचूंक तयार जा. वतलें न्हय?"

"खरेंच अंकल?"

"हय. तुज्यो परिक्षा बरे तरेन कर. आनी स्पर्धे खातीर दिल्लीक वचून बरें नांव जोड."

म्हजीं उतरां आयकून तें खूब खुशाल जालें. आयकर वाचोवंक कितलें आनी कोणाक दान करचें हो हिशोब थंयच उरलो आनी नताशाक कशे भाशेन हांव आदार दिवंक शकतलों, ताचो नवो हिशोब करीत हांव घरा परतलों.

■ ■ ■

## भाग्योदय - बीज

भाग्योदया-बीज आतां
गांवा गांवांत वीज

वाड्या वाड्यार शाळा
करा अक्षरांचें चीज

शेता भाटांत पाट आतां
उदक काट्टा वाट

सारीं आतां आयलिं दारीं
पिकां काडात दाट

खंडांत तुका सूट आतां
कमर बांदुन ऊठ

स्रमा तुज्या, घामा तुज्या
येवंदि नवें पूट

आमच्या गोंयची माती पापया
सतम्याचें भांगर

शेतां मड्डां कसूंक आतां
आमुड तुजे नांगर

सड्यार येवंदि फुला आनी
दोंगरांक नवें चंवर

पळौंक सोब येवचे हांगा
आठय दिकां भोंवर

पेंडी, शिंपटिं येवची मातून
आंब्या पणसां भार

घरोनघरीं पावसा भशेन
दुदान धरची धार

न्हयां पोयां बांदा तोंडां
काडा दर्या - खरड

भांग आसूं जोरगत आसूं
जावंदि नुस्त्या खातड

जेवात बरे, खायात बरे
कामाक जायात वाग

आवतां येवंदि वेग आनी
घरांत घुंवदि माग

जणेकल्याक मेळ्ळ्या आतां
प्राक्तनाची वाट

छाती जावची रूंद आनी
मान आसची ताठ,

स्रमाफसल काडून जेन्ना
जाता सांजचि घांट

करात रंग, हांवय येतां
तुमच्या फाटोफाट

– बाकीबाब बोरकार



## वळख

तुका हांव कसो वळखतलों?
गांडीचो वास घेवन?
गरज ना
हांव जनावर न्हू

तूं कोण?
कोण जाणा!
हांव तुका वळखूंक शकतां
म्हाका दोळे आसात
तुजें रूप हांव नदरेंत साठोवंक शकतां
म्हाका नाक आसा
तुजो परमळ हांव कुशींत भरून घेवंक शकतां
म्हाका यादगार आसा
तरी तुजी वळख जायना
सामकार येयना तूं समग्र
हांव पिसाटल्यावरीं जातां
म्हजें जनावर जाता
आनिक तुवूंय एक जनावर समजून
हांव तुजे गांडीचो वास घेतां

कितलीं अब्ज वर्सां गेलीं
वळख पटपाक!

– नरेंद्र बोडके
पुणे

## लादेन

म्हजे कुडींत कुप्प भितर
लिपलो एक लादेन खोल
आनी एक बुध्द तथागत
आत्तदिपो.... अंतर्यामी

घनघोर तांचें युध्द चल्लां
सन सन सनातन म्हज्या
सासणाचे... रंध्रारंध्रांत

बुद ज्ञानी...
लादेनूय गिन्यानी
पूण जोडिल्लें बुध्दान
चौऱ्यांशी लक्ष शाणेपण
बुध्द जावचे आदी
जळताप काडून जियेलो तो
आपणालीच जीण
कणकण खणून

मेळयलें गिन्यान
आनी साबार विज्ञान
लिपचोरयां लादेनान
नागोवन – बिगोवन
पेल्यांक – हेरांक
भार साभारांक

ताचे लागी आसा
अलक्ष ॲटमांची शक्त
पूण तो अशक्त
जाला शेणोवन
साभार शाणपण

आयचे आयज
हांगची हांगाच
पिपळा रोपी
म्हाका एक जाय

रोपी एक ज्ञानबोधी
म्हजी म्हाकाच
रोवची पडटली
अजान आनी
पट्टली काडची
शिपोवन
म्हज्या रगतान
अहिंसक... ताज्या

मनिसकायेचें मोगाळ
घालून इरलें लखख धव्या
फुडारा खातीर
मनशाच्या... जनावराच्या... पिरथुमेच्या..

कारण म्हाकां जाणा
लादेनाक ना मर्ण
जालेंच जाल्यार एकूच एक कीर्ण
'जीवजिणे अंतर्बाक्ष! पारदर्शक – अंतर्याद
करीत बुध्द!'

ताका लागून हांव
सोद सोद सोदतां
सोदतां एक अजन्मा
दिप्प दिव्व्य पिपळा रोपी

तुमचे म्हजे कुडींत
मनीस कुळींत
मोक्ष मुक्तिदात्री
तुमकां...म्हाका, लादेनाक
पेल्याक... पिरथुमेक... मातयेमायेक

– बाळकृष्णजी कानोळकार



## आस

सोदतालें काळीज हासूंक
रावलें तुजेच येवकाराक दसून
खोशयेचीं कारणां आसलीं भोंवतणी
तुकांच सोदी दोळे पुसून पुसून ।।

दीस उजवाडटालो तुजे यादीन
तिनसानचे कात्रेर येताले दोळे धापून
रात परमळटाली तुजे गोपांत वचूंक
झिळमिळ्यार वेंगेंत पावले सपनांत देवून ।।

एकसुरेपणाचो हुलोप सोंसलो
तरी काळीज रावलां परमळूंक
सैमाचे बागेंत फुलप फुलांचें
तशें तें वावुरता परतून-परतून ।।

सदचेंच हें जालां बावप-फुलप
नवे बांदावळीन लागता काळीज वावरूंक
तूं येतलो हें सत मानू
काय रावूं केन्ना तरी बीं येतलें रुजून ।।

– महेश पारकार
शिरोडें – गोंय.
मो. : ९४२०७६८५१८



## धूंद नाशा

शंवशालांत ह्या
ज्याई ज्याई
अशी म्हजी
फकत आई

शंवशालांतल्या
पयल्या दिशा
घातली तिने
वेंगेची शाशा

तिच्या पोशाची
लक्तुबाय
खिणाखिणाक
म्हाकां ज्याय

तिच्या हाशाची
मदूल शाशाय
शलगानंदा
गोल कशाय

म्हजे आईंत
शगल्यो दिका
तिचे कल्ल्यान
ज्याय तें शिका

अशी म्हजी
आईच दिशा
आईच म्हजी
धूंद नशा
धूंद नशा

– रमेश भगवंत वेळुस्कार
पाळें, शिरदोन.

## टिचर

टिंचूची टिचर
रावता भोमा
ती शिकयता भुगोल
गोल - गोल - गोल

पिंटूची टिचर
रावता पिरवळ
ती शिकयता पीटी
पिटी, पिटी, पिटी

गणूची टिचर
रावता गांवण्यां
ती शिकयता गणीत
इत, इत, इत

इंदूची टिचर
रावता इब्रामपूर
ती शिकयता इतिहास
हास, हास, हास

शोभनाक टिचर ना
तें शाळेक वचना
दोन वर्सां ताका
सारकें जेवीना खायना

– डॉ. भिकाजी घाणेकार
पणजी – गोंय.





### यो रे बाबू

यो रे बाबू, यो रे बाबू
आपालिपा खेळ खेळुया
सायचो गोणो जिखून घे रे
आमी नाच नाचुया

न्हाणयेंत उदक तापत घातलां
वासा साबण लावन न्हावया
घसघसून आंगावयल्यान
उदक खुब्ब ओतुया

आतां येतले दोळे धापून
दूद पियेवन न्हिदुया
राणयेच्या कुंवराची
काणी तुका सांगूया

बाबू आमचो मस्तो
खावू खावंक रडटा
नाचती बावलीं दाखयतकच
हांसत तिका रावता

बाबू आमचो हुतहुतो
धांवन खळ्यांत रावता
मळबाकडेन बोट दाखयत
चानीमामाक हांसता

पुरो रे तुजे नाच आतां
धोपरां तुजीं फुटल्यांत
फुगार तूं बेश्टोच जातलो
तकली तुजी दुखल्यार

शाण्या म्हजें आयक मात्शें
काळी तिकली गालांक लायतां
दिश्ट तुका लागत कोणाची
काजळ कुंकूम हुंवाळटां

– अशोक शिलकार



### सूर्य

सकाळच्या पारार उंच मळबांत
आसलो भांगराचो गुळो
झगझगीत किरणां परजळीत
अभ्यास करूंक सांगतालो
आपल्याचेर दवरून विस्वास
खेळपाकय लायतालो
उजवाड आनी ऊब दीत
मयपास जागयतालो
आर्गां तुका ओंपतां देवा
दवरून तुजेर भरवंसो

(बालांकूर २०१० मदल्यान घेतलां)

– व्हेलेरीया कुयेलो

# केकाची कथा



म्हज्या बालमित्रानो आनी मैत्रिणीनो, तुमी सगळीं तुमचो वाढदीस सामको दबाज्यान मनयतात. तुमी तुमच्या सगळया इश्ट-इश्टीणीक आपयतात. तांचे खातीर पार्टी करतात. कोण जादवाचे खेळ करून दाखोवपी जादुगाराक हाडटात तर कोण तुमच्या इश्टां-इश्टीणीं खातीर वेगवेगळया खेळांचें आयोजनूय करतात.

तुमच्या वाढदीसाक तुमचे पिरायेचेच सवंगडी येनात तर पप्पा-डॅडीचे फ्रेन्ड येतात. मम्मा-मम्मीच्यो इश्टीणीय येतात आनी तुमकां आशिर्वाद दीत, शुभेच्छा दीत पार्टी सोबयतात.

ह्या तुमच्या वाढदिसाक हे सगळे येतात. मजामजा करतात. पूण तांतले कांय जाण आयलेनांत जाल्यारूय तुमचें कांय अडना. तुमचो वाढदीस जाताच. पूण एक वस्त ना जाल्यार मात तुमचो वाढदीस पुराय जायच ना. ती खंयची वस्त सांगात पळोवया?

तकलेंत नाका जाल्ले प्रस्न हाडूं नाकात. हांवच सांगतां. ती वस्त म्हळ्यार केक. घरांत केक हाडलो ना. तो केक कापलोना जाल्यार तुमकां तुमचो वाढदीस जालो अशें दिसता? ना न्हय! तर दर एकाच्या वाढदिसाक मुखेल सोयरो आसता तो केक! पूण हो केक खंयच्यान आयलो हें तुमकां खबर आसा? खबर आशिल्लें जावये! आतां विसरल्यांत जाल्यार हांवच सांगतां तुमकां!

केकाचो जल्म युरोपांत आनी उत्तर अमेरिकेक जालो. पूण आयज आमी जो केक पळयतात वो खातात तो केक आनी तेन्नाचो केक हातूंत खूबसो फरक आसा. पयलींचो केक हो पावासारको आसतालो. तातूंत कोण साखर घालतालो तर कोण म्होंव घालून तो गोड करतालो. केन्ना केन्ना त्या पांवांत तातीं, केन्ना दूद तर केन्ना क्रीमय घालताले.

युरोपांत जे केक करताले त्या केका सारकेच खावपाचे प्रकार आसताले. तांकां गेट्टो, टॉर्ट अशीं नांवां आशिल्लीं. हीं केकाचीं जुवळीं भावंडांच कशीं म्हणूं येता. केक करपाखातीर जो मैदो, साखर, लोणी ह्या सारख्यो गजाली वापरतात तश्यो त्याय खाणां प्रकारांत वापरताले. पूण तातूंत ततयां, लोणीं, चॉकलेट, सुको मेवो, हांचो वापर



अदीक चड प्रमाणांत जाल्ल्यान ताका केक म्हणचे परस आयज जी पेस्ट्री म्हणपाचो प्रकार मेळटा तसोच तो प्रकार जातालो.

केक भाजपाची कला सगळ्यांत पयलीं कळ्ळी ती इजिप्तच्या लोकांक. थंय म्हौव घाल्ले पांव तयार जातालें. स्विट्झर्लंडांतल्या दरेक गांवांत तापलेल्या गरम गरम फातरांचेर केक भाजतालें.

नातलां, वाढदीस आनी हेर खास परबांच्या निमतान केक तयार करपाची प्रथा सुरू जाली ती मात १४व्या शेकड्यांत.

१७व्या शेकड्यांत केक तयार करपाचीं खाशेलीं आयदनां तयार जालीं. केकचीं फॉर्मा ह्याच काळांत तयार जालीं. उप्रांत केक सजोवपाची प्रथा सुरू जाली.

मागीर १९व्या शेकड्यांत मात केक भाजपाचे पद्दतींत खूब सुदारणा जाली. केक करतना तातूंत बायोकार्बोनेट सोडा पावडराचो वापर सुरू जालो. बेकींग पावडराचो वापर केकींत करीत जाल्यार केक ल्हव जाता हीय गजाल कळून आयली. मागीर केक तयार करपाचे ओव्हन आयलें.

आयज आमी तरातरांचे, तरांतरांच्या रंगाचे, आकाराचे, रूचीचे केक बाजारांत एके हारीन मांडलेले पळयतात. तातुंतलो जाय तो केक तुमच्यांनी निवड करून घरा व्हरूं येता. तो जर नाका आनी तुमकां जाय तसलो केक तयार करूनय दितात. ताचेर जाय जाल्यार तुमचें नांवूय घालून मेळटा.

तुमी हो केक घरा हाडून ताचेर मेणवात लायतात. ती फूक मारून पालयतात. मागीर सुरी घेवन केक कापतात आनी खातात. तो खातां खातां कोण पदांय म्हणटात.

आयज म्हजो वाढदीस, गोड गोड दीस . हो दीस गोड जाता तो गोड केक खाल्ल्यानूच आं!

■■■

– श्वेता नायक
तोर्डा , बार्देश – गोंय.
मो. : ९५४५२४६४८४

# शाणू मास्तरालें मनीसपण



एका गांवांत शाणू मास्तर म्हणून एकलो रावतालो. ताचें पुराय नांव शांताराम नायक. पूण सगळे लोक ताका 'शाणू मास्तर' म्हण वळखताले. मास्तर नांवाप्रमाणेच शाणो आसलो. शाणू मास्तराक कितें कळना म्हण नाशिल्लें. गणित, भुगोल, चित्रकला, इतिहास वेगवेगळ्या भासांचें गिन्यान, तशेंच शिकोवपाचीय पध्दत सामकी बरी आशिल्ली. शाणू मास्तरान शिकयलें की भुरग्यांक कळपाकूच जाय. शाणू मास्तरा भितर आनी एक देख घेवपासारखी गजाल म्हळ्यार गरीब लोकांविशीं तळमळ. जर कोणय गरीब दिसलो जाल्यार आपल्या पोटाक चिमटो काडून लेगीत दुसऱ्यांक आदार दिवप अशे शाणू मास्तर आसले.

जे शाळेंत शाणू मास्तर शिकयताले ते शाळेंत तरी चडशीं मध्यमवर्गीय आसलीं. तेच शाळेंत सतीश नांवांचो एक भुरगो येतालो. बापूय ल्हान आसतना भायर पडिल्लो तेन्ना सतीशाची सगळी जतनाय आवयकच घेवची पडटाली. गरीब परिस्थिती, तातुंतल्या तातूंत तीन भुरगीं. जोडय तितकी नाशिल्ली. म्हशीचें दूद विकून पोट भरतालीं. सतीश आवयक शेण भरपाक, दूद काडपाक मदत करतालो. सकाळीं गांवांतल्या पाच-स लोकांक व्हरून दूद दितालो. आनी केन्ना-केन्ना उपाशीं शाळेंत येतालो. सदांच सकाळीं शाळेंत उसरां येता म्हण वर्गाच्या भायर आसतालो. शाणू मास्तरान हें पळयलें की, हो भुरगो सदांच भायर कित्याक? शाणू मास्तर नवोच ते शाळेंत भरती जाल्लो. शाणू मास्तरान सतीशाक विचारलें, तूं सदांच भायर कित्याक आसता? सतीशान म्हळें, "म्हाका सगळें घरचें काम करून शाळेंत येवचें पडटा. आनी ताका लागून म्हाका उशीर जाता. म्हाका अभ्यास करपाक वेळ मेळना. म्हाका शिकपाची खूब आवड आसा. व्हड जावन म्हाका बरो दोतोर जावपाची इत्सा आसा. पूण आमची गरीब परिस्थिती म्हाका फुडें वचपाक आडयता."

सतीशाचीं उतरां आयकून शाणू मास्तराक खूब वायट दिसता. शाणू मास्तर सतीशाक सांगता, "तुजी शिकपाची उमेद पळोवन म्हाका खूब बरें दिसलें. तुका शिकोवपाची सगळी जबाबदारी म्हजेर."

मास्तरान सतीशाक रात-दीस आपल्या घरा व्हरून शिकयलो. धावेची फी भरली. पुस्तकांय हाडून दिलीं. सतीशाचो सगळो खर्च शाणू मास्तरान केलो. धावेचो निकाल आयलो, सतीश

पयल्या वर्गांत पास जालो. गांवांतले, शाळेंतले, तशेंच घरचे सगळे लोक उमेदीन भरले. गांवच्या लोकांक सतीशाची अपुरबाय दिसताली, कित्याक ताच्या वांगडचे भुरगे जे सायकल घेवन, बॅग घेवन वताले त्या वेळार सतीशाक घरचीं कामां करचीं पडटालीं. घरचीं कामां करून पयल्या वर्गांत पास जालो म्हण गांवभर सगळ्या लोकांक खुशालकाय भोगली.

शाणू मास्तरान ताका बऱ्या कॉलेजींत घालो. अकरावेक आसतना शाणू मास्तराची बदली जाली. सतीशाक वायट दिसलें. मास्तरापरस एक बापूय म्हण म्हाका आदार दिलो, तो सतीश केन्नाच विसरूंक शकचो नासलो.

एका पयस गांवांत शाणू मास्तराची बदली जाली. शाणू मास्तराची बदली आयकून गांवच्या लोकांक लेगीत खूब वायट दिसलें. कारण मास्तराचें शिकोवपय बरें आसलें आनी भुरग्यांक बरे संस्कारय शाणू मास्तरान दिल्ले.

कांय वर्सांनी शाणू मास्तर रिटायर जाले. जाण्टेपण जाल्ल्यान दुयेसांय तितलींच वाडलीं. मास्तराक काळजाचें दुयेंस जालें. हॉस्पिटलांत



व्हेलो जाल्यार दोतोरान सांगलें, 'ऑपरेशन करचें पडटलें.' शाणू मास्तरान म्हळें, 'कितले पयशे लागतले?' दोतोराचीं उतरां आयकून शाणू मास्तरान म्हळें, "हें ऑपरेशन परवडपा सारकें ना. हांव घरा गेल्लों बरो." दोतोरान ताका दोन दीस हॉस्पिटलांत रावपाक सांगलें.

दुसऱ्या दिसा ऑपरेशन करपाखातीर 'स्पेशलिस्ट' येवपाचो आसलो. दोतोरान ऑपरेशन करपाच्या लोकांचीं नांवां पळयलीं. पूण शांताराम नायक नांवाचो मनीस तपासपाक आयलो ना म्हण दोतोर अजाप जालो. तेन्ना दुसऱ्या दोतोराकडल्यान कळ्ळें की पयशांचे अडचणीखातीर तो ऑपरेशन करपाक तयार ना.

दोतोर दुसऱ्या दिसा शांताराम नायकाच्या घरा गेलो. मास्तर खाटीर आड पडिल्लो. दोतोरान मास्तराच्या पांयांक हात लावन आशीर्वाद घेतलो आनी म्हळें, "मास्तर, फाल्यां तुमचें ऑपरेशन जातलें आनी सगळो खर्च हांव करतलों." मास्तराक कितें उलोवचें तेंच कळना जालें. दोतोरान म्हळें, "म्हाका तुमी वळखले ना अशें दिसता. आज हांव दोतोर जालां तो फकत तुमचेखातीर. हांव सतीश. जे तुमी म्हजेर उपकार केले ते उपकार परत करपाची संद म्हाका मेळ्ळ्या."

सतीशाक मास्तराचें ऑपरेशन करून जल्माचे सार्थक जाल्ल्याचें समाधान जालें.

■ ■ ■

– लक्ष्मी संतोष शेटये

(बालांकूर २०१० मदल्यान घेतलां)

# रावंस पावलो दुबय



(फाटल्या अंकांत आमी पळयलें, सुळूक म्हळ्यार रावंसाचो माणकुलो पिलो, उदका वयर तकली दवरून कशें पेवप आनी दुस्मान लागीं पावलो म्हणटकीच सुळूक करून उदका भितर कशें वचप हें सांगटा कडल्यान शिकता. ताका तें जमता आनी सुळूक निर्भयपणान उदका वयर येवन दुस्मानालो संवसार नियाळटा. आतां फुडें...)

सांगटमामा कडल्यान तकली वयर काडपाची ट्रीक शिकून सुळूक आतां उदका वयर तकली काडून भोवंक लागलो. ताका आपल्या दुस्मानालो सगळो संवसार दोळ्यांक दिश्टी पडटालो. ताका तें एक सामकें अप्रूपच दिसतालें.

पूण सुळूकाक एक गजाल अजून कळनाशिल्ली ती म्हळ्यार ह्या आमच्या उदका भायर रावतात तेच आपले दुस्मान कशे? ते आमचे वांगडा उदकराज्यांत रावनांत म्हणून? आमच्या उदकराज्यांत रावपी, आमच्याच समाजाचे, आमचेवरींच दिसपी कितले तरी आमचे जात बांधव आसात ते तर आमचे सगळ्यांत व्हडले दुस्मान!

उदका भायल्या संवसारांत रावपी दुस्मान हांयस गरयेक लावन आमचे मदल्या एक एकल्याक तरी अचळय व्हरतात. बुळूकाक व्हेलो तसो. केन्ना केन्ना जाळ मारून आमच्या बऱ्याचशा सोयऱ्या धायऱ्यांक हे दुस्मान अचळय उखलतात. पूण झप्प असो आवाज जालो म्हणटकच हें दुस्मानाचें जाळ म्हणपाचें कळून येता आनी शादूर जावं येता. त्या जाळा पासून पयस धांव मारूं येता. आपलो जीव वाचोवं येता. आनी जाळाक सापडले थोडे आमचे बांधव जाल्यार ताका उपायूच ना म्हणा! आमचो जल्मूच तर दुस्मानाची भूक भागोवंक जाला. पूण आमचेच मदलीं व्हडले समाजांतलीं नुस्तीं

आमकां खावन उडयतात म्हळ्यार कितें? सुळुकाक हेंच वायट दिसतालें!

उदका भायर रावपी आमचे दुस्मान, दुस्मान तरी मानू येतात. ना ते आमच्या धर्माचे ना आमच्या कर्माचे. तांचें काम आमकां धरून मटक करपाचें. परकी जमाती दुसरे जमातीक फस्त करूंकच जल्माक आयल्यात. पूण आमचेच जमातीन आमकां फस्त करप म्हळ्यार कितें? सुळूकाक हें कळनाशिल्लें!

सुळूकाचे आवयन सुळूकाक एकदां ह्या व्हडल्या जातीच्या सोयऱ्या दुस्मानाची गजाल सांगिल्ली.

सुळुकाची आवय एकदां हेर आवयांचे लगाडीक पडून न्हंय सोडून दर्याचे भोंवडेक गेल्ली. थंय तांच्याच समाजांतले व्हडले व्हडले नुस्तेंबाब, नुस्तेंमाम रावतात म्हणपाचें तिणें आयकल्लें. एकमेकाच्या तेंक्यान चोंब्या चोंब्यान त्यो सगळ्यो आवयो न्हंय सोडून म्हाल दर्यांत भितर मात सरल्यात, मुखार घे म्हूण तांचे सोयरे! आपले परस थोडे व्हडले अशें म्हूण तरी आसात! आपले न्हंयगांवांत येतात त्या बार्जी नांवाच्या घुसघुसू परस व्हडले. घुसूघुसू तरी आवाज करून मुखार वतात. पूण हे आकांताळे सोयरे केन्ना लागीं पावतात तेंच सुळूकाचे आवयक कळनाशिल्लें. तरी आपले सोयरे येदे व्हडले आसात तें पळोवन तिका बरेंड दिसलें. तांचे कडल्यान आपल्याक तांचे कॉलनींत आयल्यां म्हूण कितें खावंक मेळूं नाका, फक्त ताणीं आपल्याचेर नदर मारून हटकिल्यार पुरो, आपल्या आंगार मासोभर मांस चडटलें अशें तिका दिसलें. ती मोळ्या अभिमानान आनी तोखणायेन आपल्या अगडबंब सोयऱ्यांकडेन पळयत रावली. तांका पळयतां पळयतां दर्याचे भोंवडेक गेल्ल्यो सगळ्यो रावंशीणी देहभान विसरून गेल्यो. खाण जमोवपूय विसरल्यो. आपल्या सोयऱ्यांक पळोवनच सगळीं तान भूक विसरल्यो. एकमेकांच्या कल्ल्यांक तेंकून आनी शेपडेन शेपडेचो आदार घेवन चोंब्यानी रावन तीं सगळीं हो अप्रूप संवसार तोखेतालीं. इतल्यांत एक शार्क म्हणोवपी तांचो सोयरो लागीं येवंक लागलो. रावंशीण पंगडाक दिसलो तो तांका मोगान वेंगेंत घेवंक येता. पूण येतनाच ताणें इतल्या नेटान आनी रस्तीन येवन तोंड उगडलें की एका कोनशाक रावून तांका पळोवपी न्हंयगांवचो हो रावंशीणीचो आख्खो चोंबोच ताच्या तोंडांत गेलो. शार्कमाम आतां तोंड बंद करपाचोच आसा, सुळूकाचे आवयन आनीक आनी वेळ लायलो ना, जीव आसल्यार भीक मागून खायन, असले सोयरे म्हणटात ते जल्मांत नाका असो विचार करून न्हंयगांवचो रस्तो धरलो.

बऱ्याच वेळान तिणें फाटीं वळून पळयलें. तिचे वांगडच्यो हेर आवयो म्हळ्यार सांगातान गेल्लो चोंबो तिका खंयच दिसलोना. त्या चोंब्यांतल्यो तिचे वांगडा गेल्ल्यो एकदोन इश्टीणीच जिवाच्या आकांतान तिचे फाटल्यान येतात इतलेंच तिणें पळयलें. म्हणचे सोयऱ्यांनी आख्खो चोंबो मटक केलो तर! तांचे खातीर रडपाक लेगीत सुळूकाचे आवयक वेळ नाशिल्लो. आपलो न्हंयगांव जुवारी जेन्ना तिणें लागीं केलो तेन्नाच तिचें धडधडपी काळीज मात्शें थिरावल्लें.

आवयन सांगिल्ली गजाल आयकून सोयऱ्या दुस्माना परस परकी दुस्मान बरे, निदान वळखूंक तरी येतात म्हणपाचें सुळूकाक जाणवलें. असले सोयरे कितलेय व्हडले कॉलनींत रावूं आनी तांचें व्हडपण केदेंय आसूं,

तांचेर नदर घालूंक पासून वचप ना. आपली ही न्हंय बरी आनी आपलो माणकुलो संवसार बरो अशें सुळूकान थारायलें.

सांगटमामान दिल्ले ट्रेनींगे प्रमाण सुळूक आपली तकली उदका भायर काडून जुवारी न्हंयच्या त्या वाळारांत हे तडीक सावन ते तडीक भोंवतालो. ताका आतां दिसपट्ट्यो खूबश्यो गजाली दिश्टी पडटाल्यो. ल्हान व्हड घुसूघुसू ताचे संवकळीच्यो जाल्ल्यो. बार्जी म्हणटात त्यो घुसू ताका त्रास करिनाशिल्ल्यो पूण त्यो येतना वतना ताच्या घरांत माती आनी तेल सोडटाले. माती पडले बराबर ताचें घर सामकें तांबडें जातालें आनी मागीर कांय वेळान ती माती सामकी तळाक वचून बसताली. हे मातयेन ताच्या घराच्या तळाक तांबडोच थर केल्लो. त्या थराक लागून ताच्या घराच्या तळाची मूळ माती इबाडून गेल्ली. ते मातयेंतले खूबशे जीव मरून गेल्ले. सुळूकाची आवय सांगताली, हे तांबडे मातयेक लागून आमचें खाण जेवण ना नपयत जावन गेलां. थंय कितें खावंक मेळटालें हें मात सुळूकाक कळनाशिल्लें.

घुसूघुसू बार्जीतल्यान तेल गळटा तें मात उदकाचेर सगळ्याक पसरतालें. घुसूघुसू वतना उदकाक सदचे परस व्हडलीं ल्हारां येतालीं. तीं ल्हारां हें तेल हाडून सुळूकाच्या तोंडार मारतालीं. तें सगळें तेल सुळूकाच्या नाकांत, तोंडांत वतालें. दोळयांतूय वतालें. दोळे धांपतलो म्हळ्यार ताच्या दोळ्यांक पापण्योय नाशिल्ल्यो. हेर प्राण्यांक दिल्यात तसल्यो पापण्यो आमकां कित्याक दिवंकना काय देवान असो प्रस्न सुळूकाक पडटालो. तो मागीर उदकांतल्यान हांगा थंय पळटालो आनी दोळे साफ करतालो. पूण ताची सामकी पंचायत जाताली ती कल्ल्यांत उदक भितर घेतना. हें उदक तशें भितर घेना जाल्यार ताका प्राणवायू मेळचोना आशिल्लो. तेलाचें उदक आसुनय तें भितर घेतल्या बगर ताका पर्याय नाशिल्लो.





ताणें आपलें हें दुख्ख आवयक सांगलें. आवयन म्हळें, "पुता, तूं तर हालींच हें भोगता. आमी तें तेल आंगांत घेवनूच ल्हानाचीं व्हड जालीं. आतां आमकांय सवंय जाल्या ताची."

"पूण तें आमच्या जिवाक माल न्हय गे आवो?" सुळूकान चवकस उतरांनी आवयक विचारलें.

"माल पडून सांगतलीं कोणाक पुता? सांगल्यार वेवाक." रावंशीणीन म्हळें.

"मागीर तो देव तांका ख्यास्त करतलो?" सुळूकाचो नवो प्रस्न तयार जालो.

"देव कोणाक ख्यास्त करिना पुता. आमीच तांका ख्यास्त दितलीं." आवयन म्हळें.

आतां मात सुळूकाक अजाप जालें! आमी ते केदेशे जीव! आमचे ते सोयरे, कॉलनींत रावपी शार्कमामा बी तांका ख्यास्त दितले अशें म्हणिल्लें जाल्यार समजूं येतालें. पूण ही पिशी आवय आमी तांका ख्यास्त दितलीं म्हणटा ती कशी काय? सुळूकाची ह्या प्रस्नान तकली खाली. ताणीं आपले आवयचो जीव खायत त्या प्रस्नाची जाप सोदून काडलीच.

हे सगळे दुस्मान दर्यांत म्हळ्यार आमच्या घरांत दिसरात घुसूघुसू घेवन भोंवतात. त्या घुसूघुसूंतलें तेल दर्यांत पडटा. तें आमच्या पोटांत वता. आमच्यो कुडी त्या तेलाक लागून रोगी जातात. आमकां मारून हे आमचे दुस्मान आमकां खातात. आमचे कुडींतले रोग, दुयेंसां तांच्या पोटांत वतात. तांकां तीं दुयेसां जातात आनी ते एक दीस मरतात. सुळूकाक आवयन हें सगळें समजावन सांगलें आनी तें आयकून सुळूक जाम खोशी जालो.

तरी लेगीत हे दुस्मान ही हळशीक आपल्या घरांत करतात तें सुकळूकाक आवडलें ना. कितें तरी करून हें तेल आमच्या घरांत पडना जावंक उपाय काडूंक जाय अशें ताणें चिंतलें. पूण करप कितें? तरी ताणें ताचेर विचार करपाचें थारायलें. विचार करतां करतां ताका एक आयडिया आयली. ती जर प्रत्यक्षात साकार जाली जाल्यार ताचें घर म्हळ्यार, न्हंयतलें उदक स्वच्छ दवरूंक तो शकतालो.

चलता...

# झूक झूक गाडी



हालींच अखिल भारतीय कवयित्री संमेलनाक बडोद्याक वचून आयलें. गुजरात राज्यांत जावपी ह्या संमेलनांत वांटेकार जावपाक गोंयच्यान हांव, नूतन साखरदांडे, माया खरंगटे, नयना आडारकार, वीणा सुर्लकार, दीपा खोलकार, सुशिला हळर्णकार, श्रीनीशा नायक, सुजाता घाडी, सिद्धी केरकार, आनी सीमा नानोस्कार अशीं इकरा जाणां गेल्लीं. संमेलन १,२ आनी ३ जानेवारी २०११ हे तारकेक आशिल्लें. पूण आमकां रिझर्वेशन २९ डिसेंबर २०१० चें मेळ्ळें. प्रवास रेल्वेचो. म्हजे आवडिचो. अणभवांचो आनी मनरिजवणीचो घसघसो. आयज मेरेन केल्ल्या रेल्वे प्रवासांत बरेबरे अणभव मेळिल्ले, इश्ट मेळिल्ले, म्हत्वाचें म्हळ्यार धव्यार काळें (निळें) करपाक विंगड विंगड विशय आनी पात्रांय मेळिल्लीं.

ह्या प्रवासांत मात येतना आनी वतना जे अणभव आयले ते विसरप शक्य ना. आमच्या प्रवासाचो श्रीगणेशा २९ डिसेंबराक मडगांव रेल्वे स्थानकाचेर रातच्या दोनांक जालो. आमी इकरा वरांचेरूच थंय पाविल्लीं कवींचे तकलेंत केन्ना कितें येत सांगपाक जायना. मायान म्हळें आमी कोंकणीचें प्रतिनिधीत्व करपाक वतात तेन्ना सगल्यांनी शुद्ध कोंकणींतल्यान उलोवप. एकूय उतर इंग्लीश वापरप ना. भासाभास रंगली. रातच्या दोन वरांचेर त्या सुनसान रेल्वे स्टेशनार आमी इकरा जाणां जागोर करतालीं. मायान म्हळें, "ती पळयात आगगाडी येता." ताणें आगगाडी म्हणनाफुडें सगलीं हांसलीं. हांवें म्हळें, "गाडी येता पूण 'आग' (उजो) खंयच दिसना. कोळसोय ना आनी धुंवरय ना तिका आगगाडी म्हणप ना."

"मागीर कितें म्हणप तर?" नयनान विचारलें.

'लायटी गाडी, विजेगाडी, चुंबकीय गाडी, डिझल गाडी' अशीं जायतीं नांवां एकेकल्याचे तकलेंतल्यान भायर सरपाक लागलीं. कोणेतरी अणकार करीत सांगलें, 'उज्यागाडी' म्हणात. उजोच ना म्हणटकच उज्यागाडी भायर पडली. उतराक न्याय दिवपाक घाणेकाराक फोन केलो. ताणें सांगलें, "जो मेरेन कोंकणीत योग्य उतर मेळना तो मेरेन तिका ट्रेनूच आसुंदी." ताचें उतर मानून आमी ट्रेन स्विकारली. हे ट्रेनीन फुडें आमकां ज्यो आजनेरी केल्यो ताचीच ही काणी.

दुसरे दिसा सांजेवेळार बडोदा पावपाचें सपन घेवन रातच्या दोन वरांचेर ट्रेनींत चडिल्लीं आमी सकाळीं धा वरांचेरूच साटली पोटली घेवन पनवेल स्टेशनार देवलीं. खबर मेळिल्ली 'गुर्जर' आंदोलनाक लागून ट्रेनी डायव्हर्ट केल्यात. त्यो बडोदाच्यान वचच्यो नांत. आमचेर आकांत. हांवें आनी नूतनान स्टेशन मास्तराकडेन वचून आमच्या आरक्षीत तिकेटीचेरूच आमकां दुसरे ट्रेनींतल्यान बडोदामेरेनचो प्रवास करपाक मेळचो अशें बरोवन घेतलें. आरक्षण आसूनय जिणेंत पयले फावट सामान्य डब्यांतल्यान (जनरल क्लास) बडोदामेरेनचो प्रवास केलो. हांगा आयिल्ले अणभव विसरप शक्य ना. चडश्यो ट्रेनी डायव्हर्ट जाल्ल्यान प्रवाशांचीं रेल्वे कर्मचाऱ्यांकडेन चलिल्लीं झगडीं-झुंजां पळोवन मन विटलें. नव्या वर्साचे पूर्व संध्येक सगल्याच ट्रेनीनी इतली गर्दी आशिल्ली की दुसरी तिकेट काडून लेगीत आमकां जागो मेळचो नाशिल्लो. आमी बशिल्लीं खरीं पूण कोणाचें तोंड कोणाक दिसनाशिल्लें. आमचे वांगडा आयिल्ल्यो चार विद्यार्थिनी पयलेच

फावट रेल्वे प्रवास करताल्यो. तांका भंय दिसचो न्हय म्हूण तोंडां दिसनांत तरी आमी व्हडल्या व्हडल्यान उलयतालीं. फकत आमी खूबजाणां आसात हें लोकांक कळचें म्हणून! इतल्यान कोणेतरी 'आवय गे...' म्हळें. पळयत जाल्यार एक दादलो आमच्या एका कवयित्रीच्या खांदार पांय दिवन वयल्या बर्थार चडून बसलो. ती दुखीन वळवळ्ळी. गोंयांत पावसर तिचें भूज दुखतालें.

बडोद्या लागसार केळणपूर हांगा दादा भवानजीच्या सोबीत, सुंदर, भव्य आनी शांत अशा आश्रमात अखिल भारतीय कवयित्री संमेलनाचो हो अविस्मरणीय सुवाळो संपन्न जालो. बडोद्यांतले आमचे ४-५ दीस खोशयेंत आनी आनंदान गेले.

आता आमकां परतुपाच्या प्रवासाची चिंता सतावपाक लागली. नूतन, हांव आनी माया मेळटा थंयच्यान रेलगाडयांचें वेळापत्रक सोदून म्हायती मेळयतालीं. आमची गोंयां येवपाची गाडी गुर्जर खलनायकांक लागून धा वरां लेट आशिल्ली.

येवपाच्या दिसा आमी तिगांय सकाळफुडें रिक्शा करून बडोदा रेल्वे स्थानकाचेर पावलीं. म्हाकां रेल्वे प्रवासाची संवय आशिल्ल्यान व्हडलोसो भंय दिसनाशिल्लो. सगल्यांक वेवस्तीत येवपाक मेळचें म्हूण नूतनाची चलिल्ली धडपड, मायाक आशिल्ली जापसालदारकेची जाणीव, आनी म्हजी निर्णयक्षमता हे सगले गूण हांगा कसाक लागले. गुजरात-मुंबय-गोंय-केरला ह्या मार्गार चलपी वट्ट बत्तीस गाडयांची म्हायती आमी काडली. सगल्योच गाडयो फूल! इतलो लोक वता तरी खंय? हो प्रस्न म्हाका सदांच सतायता. निमाणे कडेन निर्णय घेतलो की स्टेशन मास्तराकडेन वचून मार्ग काडप. बडोदा रेल्वे स्टेशनाच्या स्टेशनमास्तराकडेन आमी गेलीं. ताणें हांसत आमकां येवकार दिलो. आमी आमची परिस्थिती ताका कथन केली आनी आमच्या 'आरक्षित' तिकेटींचेरूच




आमी गोंयामेरेन पावता अशें कितें तरी कर म्हूण ताका विनंती केली. ताणें आमकां उतर दिवन सांगलें की तुमी कांयच भियेवं नाकात. हांव तुमची सगली वेवस्ता करतां.

गुर्जर आंदोलनाक लागून १०-१२ ट्रेनी डायव्हर्ट जाल्ल्यो. इतल्या ट्रेनींतलो रिजर्वेशनाचो लोक वतलो खंय? स्टेशन मास्तराकडेन लायन लागिल्ली. कोण झगडटालो, कोण वाद घालतालो, कोण विनयतालो पूण तो शांतपणान आपलें काम करतालो. ताच्या चेऱ्यावेलें स्मितहास्य हाललें ना. दर एकल्याक तो समजायतालो. मजत करपाक तत्पर आशिल्लो. पयले फावट हांवें स्वताच्या कामाचेर मनापासून प्रेम करपी आनी कोणाचेरूच रागार जाय नासतना संयमान उलोवपी सरकारी अधिकारी पळयलो. ताची तोखणाय दिसली. "आप डरीए मत, एक बजे आ जाइए। मै आपकी पूरी सहाय्यता करूँगा।" ताणें आमकां सांगलें, ताचें नांव आशिल्लें राजिंदर सिंग. आमी सगलीं एक वराचेर बडोदा रेल्वे स्टेशनार पावलीं. राजिंदर सिंगान उतर दिल्याप्रमाण पनवेल वचपी ट्रेनींत आमची वेवस्ता केली. आपलो मोबायल नंबर आमकां दिलो. आमचोय घेतलो आनी वाटेक कसलीय अडचण आयल्यार फोन करपाक सांगलें. पनवेल पावसर हांव चिंततालें. ह्या राजिंदर सिंगाक हांवें खंय तरी पळयला. ताका हांव वळखतां. तकलेक बरोच ताण दितकच याद जाली, सेंट्रल लायब्ररीचो ग्रंथपाल कार्लूसबाब फर्नांडीसाक हांव वळखतां. हो राजिंदर सिंग ताचेच भशेन दिसता. तेंच रूप, तोच आवाज, तीच उलोवपाची पद्धत आनी दुसऱ्याक मजत करपाचो तोच स्वभाव. संवसारांत एका रूपाचीं सात मनशां आसतात खंय! पोरूं ह्याच संमेलनाखातीर पुण्यांत गेल्लें. थंय एके चलयेकडेन वळख जाली. तेन्नाय आमी सगल्यांनी तकली फुटसर विचार केलो की हाका खंय पळयलां? हाका आमी खंय तरी मेळ्ळ्यांत. हय, तेच दोळे, तोच रंग, तेंच रूप, तीच उलोवपाची पद्धत आनी हुशारी. दोन दीस ताचे वांगडा रावल्या उपरांत तिसरे दिसा जेवणावेळार म्हाका साक्षात्कार जालो. ही चली म्हळ्यार दामोदरबाब घाणेकाराची डुप्लीकेट. फकत तें एक कॅथलीक चली. सोमतोच ते चलयेचो मोबायलार फोटो काडलो आनी घाणेकाराक फोन केलो.

राजिंदर सिंगाचो फोटू काडपाचे मनस्थितींत आमी नाशिल्लीं. इकराय जाणांक वेवस्तीत, सुखरूप गोंयांत हाडपाची चिंता आशिल्ली.

रातच्या इकरांक आमी पनवेल स्टेशनार पावलीं. पनवेलाक म्हजी आत्या रावता. आमी सगलीं बायलांच आसात आनी फांतोड मेरेन स्टेशनार रावतलीं हें तिका पटलें ना. कारण पनवेल स्टेशनार जायत्यो आजनेरी जातात अशें आयकल्लें. ते कुलकुल्याचे थंडेंत म्हजो आतेभाव आमकां घरा व्हरपाक आयिल्लो. पूण आमी गेलीं नांत. कारण

आमचें रिजर्वेशन आशिल्ली ट्रेन फांतोडेर न्हय तर दुसरे दिसा सांजवेळा पनवेल पावतली म्हणपाचें आमकां थंय कळ्ळें. रातीं दोनाक पनवेलच्यान सावंतवाडी वचपी ट्रेनींतल्यान आमी सावंतवाडी आयलीं. थंयच्यान मोटारीन घरा पावलीं. तेच दिसा सांजवेळां राजिंदर सिंगाचो फोन 'मॅडम आप लोग ठिक से गोवा पहुँचे या नही? तकलीफ तो नही हुयी?'' हांवें म्हळें, ''आपकी कृपा से तो ठीकसे पहुँच गये। बहुत बहुत धन्यवाद।'' ''मॅडम मैने तो सिर्फ अपना फर्ज निभाया है। सबको नमस्ते कहना।'' ताणें फोन दवरलो. म्हाका ताचें अजाप दिसलें. आयच्या काळांत अनवळखी मनशांची अशी आत्मियतेन खबर कोण घेता? स्वत:च्या कर्तव्याक शांतपणान पाळो दितना मनीसपणाचे धागे विणपी राजिंदर सिंगाक हांवें मनांतल्या मनांत सलाम मारलो. कोणतरी स्वत:च्या हक्काखातीर आंदोलन करता. सरकाराक धारेर धरपाचें सोडून असंख्य निरापराध मनशांचेर अन्याय करता. झगडीं, झुंजां, खून, मारामारी, बलात्कर, आतंकवाद, दहशतवाद हें आयचें दिसपट्टे चित्र. ताचे परिणाम भोगतात सामान्य निरपराध मनशां.

शांतताय, मनीसपण, समजिकाय, आत्मियता, नितीमूल्यां हीं सगळीं उतरां इतिहासजमा जावंक लागल्यांत अशें दिसपाक लागता तेन्ना म्हाका याद जाता ती पुष्पा भारती हाणी केल्ल्या भाशणाची. कोकणी अकादेमीच्या पुरस्कार वितरण सुवाळ्याक हिंदीचे नामनेचे साहित्यकार धर्मवीर भारती हांची घरकान्न साहित्यिक पुष्पा भारती आयिल्ली. धर्मवीर भारती हांच्या महाभारताचेर आधारीत 'अंधायुग' नाटकाचेर खूबवेळ ती उलयली. तिचें पुराय भाशण म्हळ्यार ज्ञानसागरांतल्यो शिंपयो. दरेक विचार म्हळ्यार शिंपियातलो मोलादीक मोती.

भाशण सोपंतयतना तिणें म्हणिल्लें, ''आजकल हमलोग अंधेयुग में ही जी रहे है। 'राधा' शब्द का अर्थ है प्रेम, माया, ममता, शांति और अपनापन. (राधा शब्दाचो इतलो सुंदर अर्थ पयले फावट हांवें आयकलो) गांधारी का शाप स्विकारते हुए कृष्णने कहा था, ''जब जब राधा मरेगी तब तब महाभारत होगा, और जब जब महाभारत होगा तब तब हर जीव की मृत्यू में मैं ही मरूंगा।''

आयज राधा सोंपल्या. म्हळ्यारूच ह्या देशांतली शांती, माया, एकचार, प्रेम सोंपला. दहशत, आतंक वादाचें महाभारत सुरू जालां. गांधारीच्या स्रापाप्रमाण देवाचें अस्तित्वच सोंपोवपाक आमी फुडें सरल्यात. मानवाच्या मनांत दानवी वृत्तींचो जाल्लो संचार हेंच आयचें महाभारत. विचारांचे गाडयेक थांबो ना. जिणेचे रेलगाडयेंत तरतरांचीं मनशां चडटात, तांचो थांबो आयलो काय देंवतात. अणभवांचें आनी विचारांचें धन गाठीक बांदून जिणेची ट्रेन चलत रावता. झुक...झुक....झुक....झुक....

■■■

## कोंकणी पॉप

### झनक धीन

फुललीं बनां, तनां मनां
जालीं पिर्शी पायजणां
फुलचीं कशीं, मुक्तांगणां, चिरंतनी वेदना

झनक झनक धीन भुलला वारो
मोगी म्हणटा दी एक थारो
झनक झनक धीन खुबला वारो
जोगी सोदता आलाशिरो

मंदावल्या दोळ्यांतली
सपनेलीं राजांगणां
फुललीं बनां...।।

मळबाच्या देगेची लांबाय केदी
काळखाच्या वेंगेची खोलाय जेदी
काळखाच्या वेंगेची खोलाय केदी
मळबाच्या देगेची लांबाय जेदी

जिणेची आस, मोनेळी भास
अनवळखी शुन्याचो साद
फुललीं बनां...।।

मोगाच्या खिणांची सासाय नवी
वळखिच्या दोळ्यांची नसाय नवी
मोगाच्या खिणांची सासाय नवी
वळखिच्या दोळ्यांची नसाय नवी

उतरांचे स्वास, अर्थांची रास
अनवळखी मोगाची साथ
फुलली बना...।।

गीतकार : श्रीधर कामत
आल्बम : ९ मेलोडीयस इन कोंकणी
गावपी : हरिहरन
संगीत : अशोक पत्की

# बुद्ध



- रुपा कोसंबे
शिंदोळी,सांकवाळ,
कुठ्ठाळी-गोंय.
फोन-२४५२१५०



हालींच एका भक्तान तिरुपतीच्या बालाजीक आपलें नांव गुप्त दवरपाचे अटीचेर एक कोटी चाळीस लाखांचो भांगराचो आनी वज्राचो मुकूट दान केलो म्हण दिसाळ्याचेर वाचिल्लें. दान खंय सत्पात्री आसचें अशें म्हणटात आनी दुसरी गजाल म्हळ्यार एका हातान दिता तें दान दुसऱ्या हाताक पासून कळचें न्हय इतलें खंय गुप्त आसचें. तो दानी पयल्या कसोटीक उतरलो काय ना हाचेर उलोवप वा बरोवप म्हळ्यार सर्वसामान्यांची त्या जगनियंत्याचेर जी श्रद्धा आसता ताका वेर वतली, ती वेगळीच. पूण खूब जाणांच्यो भावनाय दुखोवपाचो संभव आडनदर करूंक जावचोना. पूण गुप्ततायेच्या बाबतींतले कसोटीक मात तो महादानी उतरला अशें खात्रेन म्हणूं येता कारण इतलें दान म्हूण दिवनय ताचो गाजोवाजो करिनासतना तो आयच्या युगांत अवतरिल्लो कर्ण, प्रसिद्धीपासून पयस रावलो. ही इतली गुप्तताय पाळपा फाटलीं कारणां. कितें तीं ताचीं तो जाणां. पूण देवाचो मात थंय घुस्मटमार जाल्ले बगर रावचोना. कारण दिवप्यान आपणें इतलो धनसंचय करपा फाटलीं काळीं कर्तृबां लीपय म्हण देवाक साकडें घालां वो आपल्या बेहिशोबी मालमत्तेकडेन इनकम टॅक्स अधिकाऱ्यांचें लक्ष वचचें न्हय वो आनी कसल्या कारणाखातीर आपणें केल्लें दान गुप्त दवरलां तें बाबडें तो सर्वज्ञानी देव जाणां आनी दिवपी जाणां.

देवाकय म्हण बरेच चिटमिटे पडटात आसतले! एकेवटेन ताचीं थोडीं लेकरां भुकेक विडविडटात, वखद- विसर्दाखातीर पयशे नाशिल्यान मरणाच्या दारांत पावतात, कोण भीक मागतात. परिस्थितींत गंजून वीख घेवन मरतात आनी हे अप्रबुद्ध दानी कितें काय म्हळ्यार ताच्या पांयांकडेन हाडून धनाच्यो राशी ओततात. ताका पांयांसाकून तकलेमेरेन भांगराशिंगरांनी नटयातात, देवळाक भांगराचो कळस घालतात. उत्सवाक भांगराची पालखी वापरतात. तो पूण करतलो कितें? तोंड सोडून उलयतलो म्हळ्यार ह्या कलीयुगांत तेंय उपकारना. मागीर तोय भायलें सुतक भायर ह्या नात्यान थोड्यांच्या मनांत वचून तांकां आपल्याचेरच दरोडे घालपाची बुध्द दिता. आपले मालमत्तेची अफरातफर करून घेता. असल्या प्रकरणांनी व्हडाव्हडांक गुंतयता. म्हणटगीर तपासकामाकय आडमेळें येवपाक बरें पडटा. कांय काळ प्रकरणां धुंवतात. मागीर तेरी भी चूप, मेरी भी चूप.

हाताचीं जशीं पांचय बोटां सारखीं नासतात ते प्रमाणे दर एकल्याचो सभावय विंगड विंगड. थोडे आपलेकडेन आशिल्ली संपत्ती स्विस बँकेंत सुगूर दवरपाच्या यत्नांत आसतात, थोडे ताचें प्रदर्शन मांडटात. थोडे पयसो पयसो करून जीवाक मारून आपल्या धनाचो डोलारो उबो करतात तर थोडे 'हाडली पड, खाली पड, सकाळ उठून धांवपळ' म्हण ओर्हाद रावतात. थोड्यांक पयसो सांबाळचो कसो म्हणून न्हीद पडना तर थोड्यांक बॉल्सांत दमडी नाशिल्ल्यान फालचो दीस कसो सारचो म्हण न्हीद पडना. थोडे जन्मासावन मरसर दरिद्री नारायण तर थोडे जन्मताच नवकोट नारायण.

आतां विदर्भांतली परिस्थिती घेतल्यार

गेलीं पांच वर्सां थंयचे शेतकरी आत्महत्या करतात. शेतकरी जे बाकिच्यांचें पोट भरतात, जांकां लागून मदले दलाल गब्बर जातात. पूण तांकां स्वत:क मात पोटाक चिमटे काडचे पडटात. भांगरासारकें धान्य पिकोवन पासून तांचेर दळदीर आनी रिणा खातीर सावकाराकडल्यान लागिल्ले तकादीक लागून कंटाळून आत्महत्या करपाची पाळी येता. अंदूंय वातावरण दुश्काळी आशिल्ल्यान व्हडलीशी आस ना. आत्महत्यांचें प्रमाण वाडत आसा. आनी ह्या विदर्भाचो नेतो, राजकीय फुडारी आपल्या चल्याच्या लग्नाचेर कोट्यांनी रूपयांची उधळपट्टी करता. चार दीस चलपी सुवाळ्याक जाता तितलें आपले संपत्तीचें प्रदर्शन करतात. राजेशाही थाटाचो शामियानो, विजेची रोशणाई हाचेर प्रचंड खर्च करून देड-दोन लाख लोकांखातीर जेवणावळी घालतात. आनी लग्न सुवाळ्यांतले आमंत्रित कोण तर देशांतले व्हड व्हड उद्योगपती, बॉलिवूड स्टार्स, राजकारणी. हांतले कांय जाण स्वत:च्या विमानान भोंवपी. मागीर पार्कींगाचो प्रस्न, तांचे सुरक्षेचो प्रस्न, आमदार, खासदार हांच्याखातीर वेगळो दीस, आनी पक्षाच्या कार्यकर्त्यांखातीर वेगळो दीस. पूण ह्या चार दीस चलपी सुवाळ्याक आम आदमीक कांय वालोर ना, जर तो पक्षाचो कार्यकर्तो नासत जाल्यार. राष्ट्रीय स्तरावयल्या नेत्यांनी जर अशी वागणूक दवरली जाल्यार फुडली पिळगी कशी बरी निपजतली? ती कोणाचो आदर्श दोळ्यांमुखार दवरून देशाचो आधारस्तंभ जातली! काय लोकशाय लोकशाय म्हळ्यार फकत थोड्याच लोकांनी, थोड्याच लोकांखातीर चलयिल्लें थोड्याच लोकांचें राम राज्य?

हाचे पयलींय जायत्या जाणांनी होच धडो चिरला ताचेर प्रसिद्धी माध्यमानी उजवाड घालोना अशें न्हय. पूण कितलीय टिका, चर्चा जाली तरीकय हे फुडारी तेला आंगावयलें उदक करपाक बरे फिशाल जाल्यात. आम आदमीय आतां ही तांची वर्तणूक गृहीत धरूनच चलतात. 'मानग्या मानग्या तुजी फाट मोव' म्हणून परिस्थितीकडेन तडजोड करीत आयिल्लो दीस धुकलतात. केन्ना ना जाल्यार केन्ना 'भोग सरल, सुख येईल' म्हण आस लावन बसल्यात. आम जनतेक मार्गदर्शन करपी, देशाक प्रगतीपथाचेर व्हरपी, आमच्या ह्या फुडाऱ्यांक बरी बुद्धी दी, तशेंच आमकांय निवळ निवळ पारदर्शी उमेदवार निवडून हाडून देशाचें येरें थिरायेर दवरपाची बरी बुध्द दी अशें त्या देवाकडेन मागणें.

■■■

## हांसता तो जगता...

### नुस्त्या बोवाळ!

टोपणशेट सदचे वरींच आपली लुगटाची पोती घेवन नुस्त्या खातीर मार्केटांत गेलो. आख्खो बाजार भोवून भोवून तो ज्याकीन नुस्तेकान्नीकडेन आयलो. ज्याकीनाल्या पाटल्यांतल्या नुस्त्याचेर नदर मारीत ताणें ज्याकीनाक प्रस्न केलोच, ''ज्याकीन, नुस्तें ताजें आसा मुगो? काय पोवशेलां गो?''

ज्याकीनान टोपणशेटीचेर खीणभर नदर मारली आनी मागीर पाटल्यांतल्या नुस्त्याचेर तापली, ''तुमकां मात लेगीत ओगे पोडोंक जायना? कोण फडफडटा, कोण उण्णां मारता, कोण कोल्लीं हालयता, कोण पोटां फुलयता! कोण बोबाळ घालताय! तुमच्या बोबावा मुखार म्हाका आयकोंकू येयना गिरायक कितें इचात्ता तें.'' अशें म्हणत ज्याकीनान नदर वयर काडून टोपणशेटीक विचारलें, ''भाटकारा, कितें म्हुणटालो? कितल्या घालूं नुस्तें?''

### शॉ चो ओपननेस

जॉर्ज बर्नाड शॉ हे आपल्या फकाणेर सभावाखातीर प्रसिध्द आशिल्ले. मिश्किल उलोवप तें शॉन अशें त्या काळार थारिल्लेंच आशिल्लें. एकदीस ते बाथरूमांत टबांत पडून न्हाणाची मजा घेताले. ते वेळार ते संपूर्ण उगडे आशिल्ले. तेन्नाच कांय पत्रकार तांका मेळूंक आनी तांची मुलाखत घेवंक आयले. पत्रकार म्हणटकच तांकां ताटकळत दवरप कोणाक परवडना. तांचो रोखडोच अवमान जाता. पत्रकार आयल्यात अशें नोकरान सांगतकच जॉर्ज बर्नाड शॉ आसात तेच अवस्थेंत न्हाण अर्द्यार उडोवन सालांत आयले आनी म्हणूंक लागले, ''म्हाका तुमचे पासून कांयच लिपोवपाचें ना. विचारात तुमकां कितें विचारपाचें आसा तें!''

### आईक मात रूम ना

मेघना आपल्या नव्या घरांत रावपाक गेलें. नवें घर म्हळ्यार मेघनाक एक अप्रूपच आशिल्लें. तें घर म्हळ्यार चार-पांच कुडीचें प्रशस्त घर आशिल्लें. सरभोंवतणी खेळपाक मेकळी सुवात, गार्डन बी आशिल्लें. एक दीस शाळेंतले बाईन मेघनाक विचारलें, ''आगो मेघू, तूं नव्या घरांत रावपाक गेलां खंय? तुवें कांय सांगूंक ना मगो नव्या घराविशीं? आवडलें मगो तुका घर?''

मेघनान मोठ्या उत्साहान बाईकडेन पळयत म्हळें, ''हय बाई, घर खूब व्हडलें आसा. पांच कुडी आसात. म्हाका एक कूड, दादाक आनी भाईक एक एक कूड आनी दीदीक एक कूड. सगळ्यांक वेगवेगळी. पूण...''

इतलो वेळ उमेदीन उलोवपी मेघना अकस्मात निर्शेल्लेवरी थांबलें.

''पूण कितें गो?'' बाईन विचारलें

''पूण बाई, मम्माक मात वेगळी कूड ना. ती अजूनय पप्पाचेच कुडींत न्हिदता.''



– ब्रॅण्डा मिनेझीस
कुसमण – केपे, गोंय.

# मजतीचो हात!



"म्हज्या आंज्याक व्हरूं नाकात.... म्हजें बाय तें..... म्हजी धाकटुली बावली ती... म्हजी धूव म्हाका जाय. तुमच्या पांयां पडटां. सोडात ताका. कित्याक, काश्यांवांत न्हिदयलां म्हज्या कुकूल्याक? खाटीर दवरात ताका. सांगतां तें आयकात पापयांनों. मातूय दया ना तुमकां?" जासींतोच्या हुयेल्यानीं जमलेल्यांचे दोळे व्हांवले. तीन म्हयन्यांची ताची एकटीच, अपुर्बायेची धूव तांचे हुंटयेंतली देवान काडून व्हेल्ली.

जासींतो आनी लोरेसीनाच्या एकवटाचेर खूब काळ मेरेन, देवान आशिर्वाद घालूंक नाशिल्लो. देव-दोतोर करून, शेवटीं तांच्या घराब्यांत उजवाड परजळ्ळो. लोरेसीनान एक, गोरे, सुंदर चलयेक जल्म दिलो. पूण ताच्या काळजाक बुराक आसलो आनी तें चड काळ वांचचें ना, अशें दोतोरान कळीत केल्लें. तांचेर परतून दुखाची सावळी पडली आनी तीन म्हयने सरता म्हणसर त्या ल्हान जिवान तांका सासणाक फाट केली.

फादर येवन मडें भायर काडपाची तयारी केली. तांच्या वाड्यांतल्या चार ल्हान भुरग्यांनीं तो काशांव उबारलो आनी दारांतल्यान भायर सरलीं. जासींतो आड्डत तांचे फाटल्यान धांवक लागलो. ताच्या इश्टांनीं ताका आडावन धरलो. लोरेसीन, एक मडें कशें जावन, सुक्या दोळ्यांनी हें सगलें पळयतालें. जासींतोन बोब मारली, "बाय, म्हज्या बाय, म्हाका सोडून वचूं नाका. तूं म्हाका जाय... म्हज्या बेबी.... म्हज्या बेबी.. तूं म्हाका जाय.." आनी हीं उतरां सोंपतां सोपतां, तो जमनीर शेवटून पडलो आनी आपले धुवेक सांगात दिवंक हो संवसार सोडलो.

बाळंत जाल्ल्या लोरेसीनाच्यान ही येदी व्हडली दूख सोंसूंक जाली ना. मानसीक पिडेक तें सांपडलें. ल्हान तशीं व्हड ताका 'लोरेसीन मान' म्हणून उलो करतालीं. त्या दिसाच्यान तें मोनें जालें. कोणाच कडेन उलयना जालें. भायर सरना जालें. ताचो सभावूय विचित्र जालो. सुरवातेक शेजारीं ताका समजून घेतालीं. पूण सदां-संदा कोण सोंसतलो? सवका-सवका ताची वाट लोकांनी सोडून दिली. आपलें पेन्शन घेंवंक तें म्हयन्याक एक फावट भायर सरतालें आनी केन्नात मनांत आयल्यार मिसाक वतालें. पूण एक अनवळखी कशें.

म्हयने, वर्सां धांवलीं आनी लोरेसीन मान जाण्टें जायत गेलें. बल्कावांत बसून तें आपलो वेळ पासार करतालें. आतां ताचे भलायकेंतूय बदल जाल्लो. थोडे दीस लोरेसीन मान बल्कांवांत बशिल्लें कोणाकूच दिसूंक ना. म्हणून ताच्या शेजाऱ्यान लागींच रावपी रोजालिनान ताच्या हुंबऱ्यार पांय दवरलो. तें खाटीर न्हिदिल्लें आसलें. रोजालिनाक पळोवन उठलें आनी ताच्या तोंडाक पासून पळयनासतना पांय झरयत कुजनांत गेलें.

रोजालीन आयिल्लें ताका आवडूंक ना. तशें कळून सुद्दां ताची खबर घेत तें ताच्या फाटोफाट कुजनांत भितर सरलें. चुलीर कितें शिजतालें. सगलीं आयदनां तशींच पडून आसलीं. ताची पर्वा करिनासतना रोजालिनान आयदनां धुंवक हात घातलो मात लोरेसीनान ताका कुशीक काडलें आनी बडबडूंक लागलें. बाबडें रोजालीन परत्या पांयांनी घरा आयलें. हेरां शेजाऱ्यांक ताणें लोरेसीनाचें कर्तूब सांगलें. सगल्यांक वायट दिसलें आनी ताणीं ताची वासपूस करपाची सोडून दिली.

सगल्यांनी लोरेसीनाक सोडलें, तरूय, रोजालीनाची बारावेक शिकपी धूव मिलेना,



तिची गत पळोवन, तिची सेवा करूंक तयार जालें. दुसऱ्या दिसा, कॉलेजींतल्यान येवन तें जेवलें आनी लोरेसीन मानागेर गेलें. ताचीं सगलीं आयदना धुलीं. घराक सारन मारली. जमीन पुसली. मान्यात, ताचे म्हेळे कपडे पडून आसले, ते फुगत घातले. मिलेना आपल्यागेर येत हाचो लोरेसीन मानाक मातूय दुबाव नासलो. तें ताका मना करूंक लागलें. मिलेना ताची दखल घेनासतना आपलें काम करीत रावलें. ताचो ट्यूशनाक वचपाचो वेळ जालो आनी तें थंयचें भायर सरून गेलें.

त्या उपरान्त नेमान तें लोरेसीन मानागेर वचून, ताची सेवा करूंक लागलें. लोरेसीन मानूय, मात-मात सुदरत वतालें. ह्या भुरग्यान ताची जीण बदलिल्ली. मिलेनाची ताका संवंय जाली. ताका कळाव जालो जाल्यार, तें ताका हुस्केतालें. ''तूं आयलें?'' ''तूं वता?'' इतलींच चार उतरां तें ताचे कडेन उलयतालें. मिलेनाय तितलें पुरतेंच ताचे कडेन उलयतालें.

मिलेना कडल्यानूच तें बारावी शिकता आनी ताच्यो परिक्षा लागीं पावल्यात हें लोरेसीन मानाक कळिल्लें. त्या भुरग्याच्या शिकपाचेर, आपल्याक लागून वायट परिणाम जांवचो न्हय, अशें ताका मनांतल्यान दिसूंक लागलें.

एका दिसा, मिलेना काम सोंपोवन घरा वचूंक लागलें तेन्ना, लोरेसीन मानान ताका उलो केलो, ''मिलेना....!'' ताचो तो मवाळ उलो आयकून मिलेना सुखावलें.

''कितें जालें लोरेसीन माना? तुका कितें जाय?'' मिलेनान सगलो मोग आपल्या विचारांत ओतलो? ''फाल्यां तुजे मम्मीक हांवें आपयल्या म्हूण सांग. म्हाका तिचेकडेन उलोंवक जाय.'' ताणें म्हळें. दुसरे सकाळीं रोजालीन ताका मेळूंक आयलें. ''कशें आसा तूं लोरेसीन माना? कित्याक आपयला म्हाका तुवें?'' रोजालीनान आदलें विसरून ताची वासपूस केली. खाटीर बशिल्ल्या लोरेसीनान रोजालीनाक आपले कुशीक बसयलें आनी ताचो हात आपल्या हातांत घेत, पयलीं ताची माफी मागली, ''म्हाका भोगस रोजालीन! खूब सोंसलें तुमी म्हाजें. पूण हांव म्हणून कितें करूं? म्हजेर कोसळिल्ल्या दुखान म्हजी अशी दशा करून सोडली. त्याच दिसा, म्हाकाय कित्याक तांचे बरोबर देवान व्हरूंक ना?'' तें हुंडकेवंक लागलें.

रोजालिनान ताचे तकलेवयल्यान हात भोंवडायत म्हळें, ''आमी तुजें दुख आनी पिडा समजलीं. तुजो आमकां बिल्कूल राग येंवक ना. पूण तुजेंय मन आमकां दुखोवंक नाका आसलें. म्हणून तुका आमी तशेंच सोडलें. आमची गरज तुका भासतली, तेन्ना तूं आमकां उलो मारतलें हाची आमकां खात्र आसली. रडूं नाका. सांग म्हाका कि उलोंवक जाय म्हजे कडेन?''

लोरेसीन सुस्कारलें, ''तुजे धुवेन मिलेनान, म्हजीच धूव जावन, म्हजी सेव केली आनी म्हजी जिणूच बदल्ली. म्हजें बा आयज आसलें जाल्यार येदेंच आसपाचें मिलेनाच्या रूपान म्हजी धूव म्हाका मेळ्ळी सदांच येवन तें आपलो वेळ म्हजेर खर्चिता हांव जाणां ताच्यो बारावेच्यो परिक्षा लाग पायल्यात. म्हाका जाय तें बरे बशे शिकिल्लें. हांव हांगा पडून रावल्यार, तें हांग येयत रावतलें, आनी ताचो अभ्यास सारक जांवचो ना. आनी दुसरें म्हळ्यार, म्हजी पिरा खूब जाल्ली आसा. म्हजी भलायकी इबाडल्या. हांव हांतूरणार पडल्यार कोण म्हज करतलो.? कशें जातलें म्हजें? रोजालीन म्हजेर एक उपकार कर भयणी, खंयच्याय एक 'आझीलांत' म्हाका व्हरून पावय. हात पां चलता असतनाच हांगाचें हांव गेल्यार बरें अशें म्हाका दिसता. तूं कितें म्हण्टाय?''

लोरेसीनाच्या उलोवपांत तथ्य आसल रोजालीनान ताका ताची इत्सा पूरी करपाचे उतर दिलें. गांवच्या पाद्रविगाराच्या आदारान लागीच आशिल्ल्या आझीलांत दवरपाची वेवस्था केली. घर सोडपाचो दीस उजवाडलो ताका मायेन निरोप दिवंक वाड्यावयल ताच्या घरा भायर जमलीं. भायर सरतन मिलेनान, लोरेसीन मानाक घट्ट वेंग मारली ताणें ताचे तकलेर हात दवरून ताक आशिर्वाद दिलो.

''देवान तुका बरें आयूश्य दिवं आनी तुजें बरें जावं बाय.'' लोरेसीन मानाक आनी खूब उलोवंचें दिसतालें. पूण ताची जीब सुटलीना मिलेनाच्या कपालाचो ताणें उमाव घेतलो आनी आपल्या मोगाळ शेजाऱ्यांक हात हालोवन 'आदेवस' केलो आनी आझीलांत वचूंक रिक्शांत बसलें.

■ ■ ■



– काश्मिरी स. पावसकार
एक्रगशायन अपार्टमेंट,
शिवोली–गोंय.

# आजनेरी



एक दीस हांव शिकोवपाच्या सामकें मुडार आशिल्लें. तितल्यान दोग भुरगे आपसांत कितें तरी उलोवंक लागले. शिकपांत तांचें लक्ष ना तें पळोवन हांवें तांची तापय काडीत म्हळें, "आरे आयकुपाचें सोडून कसल्यो खबरो चलल्यात?" तशी एकल्यान जाप दिली, 'मिस, काल प्रतिकाल्या वाड्यार खंय एक व्हडली आजनेर घडली."तशें हांवें तांकां समजायत म्हळें, "तुमी सारके शिकना जाल्यार फाल्यां बोर्डाचे परिक्षेक ताचेपरस व्हड आनी एक आजनेर मात शेर्त घडटली. तेन्ना आजनेरीच्यो खबरो आनी केन्नाय करूया." अशें म्हूण विशयांतर केलें.

ही खबर घडून दोन दीस जाता म्हणल्यार वर्गांत मेजावयलो डस्टर आनी चॉक दोनूय गायब! वासपूस काडूंक तोंड उगडल्यार विनयान व्हडान जाप दीत म्हळें, "मिस, काल वर्गांत आजनेर जाली दिसता." जाप आयकून राग न्हिवलो आनी म्हज्या भुरगेपणांतल्यो कितल्योशोच आजनेरी तकलेंत फुगडी घालपाक लागल्यो. तांतल्यो कांय घट्ट उगडासान उरिल्ल्यो आजनेरी दोळ्यां सामकार एक एक करून उब्यो रावपाक लागल्यो. ह्यो चडशो सगल्यो आजनेऱ्यो हांवें कोणाना कोणा लागच्यान आयकल्ल्यो आसल्यो तरी त्यो तितक्योच खऱ्यो आसताल्यो. अशीच एक आजनेर म्हजे काकीचे बाबतींत घडिल्ली. एकदां ती आपल्या घरच्यांसयत नागेशीं देवळा फाटल्यान न्हंयच्या पाणट्यार गेल्ली. थंयचे गुळगुळीत फातर पळोवन तिगेलो जीव भुल्लूसलो. लोणच्या बुयावांत घालूंक बऱ्याक पडटले अशें चितून तिणें ते गुंडे आपले होटयेंत पुंजावंक सुरवात केली. एक दोन गुंडे उबारता थंय आसा ती कोणाकूच दिश्टी पडना जाली. वांगड्यांनी उलो घालो, सोदली पूण खंयच ना. आपूण हेरांच्या फुड्यांत आसून दिश्टी पडना म्हणून तिगेली भिवन सामकी गुळी जाली. तितल्यान तिच्या बापायन तिका म्हळें, "अगो, प्रमिल हांगचें तुवें कितेंय काडलां बी जाल्यार बेगीन उडय गो बाय." आनी खऱ्यांनीच फातर उडयतकूच ती सगल्यांक फुड्यांतल्या फुड्यांत दिश्टी पडली. देवाच्या अमक्याच एका जाग्यार अशो आजनेऱ्यो घडटात म्हणपाचें तांकां कोणेतरी मागीर सांगलें.

अशीच आनी एक आजनेर म्हजे एके इश्टीणीगेर दर पुनवे रातीक घडटाली. तेन्ना ती कोणागेर तरी भाड्याच्या घरांत रावताली. ते रातीक रांदचे कुडींतल्यो मिरसांगो, हळदी पिठो घरभर रकयल्लो आसतालो. केन्ना तांच्या घराचेर फातरांचो शिंवर पडटालो. मर्दींच कपड्यांक उजो पट्टालो. बाराय पुनवेंक बारा तरेच्यो आजनेऱ्यो थारिल्लो आसताल्यो. दिवचले आमच्या वाड्यार दोन तिस्कां काडून तिसऱ्या तिस्कार सिनेमा थेटर चलता. केन्ना चुकून रातच्या धांक सिनेमाक वचूंक आमी भायर सरतालीं. आवयन मर्दींच शिटकावंक म्हणचें, "रातीर खंय भायर सरप ना. वाटेर तिस्कांनी आजनेरी घडटात."

आवयचीं उतरां आयकून आमची गुठली जाताली. आजनेरीच्या भंयान आमकां मागीर सिनेमाचेर उदक सोडचें पडटालें. आयज लेगीत रातीर तिस्कांचेर ओगीच काळीज धडधडटा.

शिगमो जावन शिमेवयल्याची, राखणदाराची राखण मेळोवपाक आदल्या तेंपार वाड्यार 'कलाट' करपाची चाल आसताली. कलाट आसता ते रातीर गांवकार वाजप करीत गांवभर शिताचो शिंवर घालताले. त्यावेळार कोणेंच भायर सरप ना. खंय भोंवप ना. मुकाट्यांनी दिवे पालोवन न्हिदपाचें. पूण आमकां न्हीद पडटा थोडीच! जनेलांतल्यान भायर कितें घडटा तें पळोवपाक

जीव फाटीं-फुडें जातालो. धाडस मात केलें ना. कारण कलाट जावचे पयलीं काळजांत जातालो तो कलकलाट सोसपाचो न्हय!

अशो ह्यो भुतांखेतांच्यो, देवा देवचारांच्यो, जाग्याकारांच्यो तरेकवार आजनेऱ्यो आमी भुरगेपणांत आयकुच्यो. पूण ते दीस आतां इतिहासजमा जावंक लागल्यात अशें म्हाका दिसता. आयचे घडयेक मनशांनी मनशां खातीर घडोवन हाडिल्ल्योच चडशो आजनेरी कानार पडटात. एकाद्रो बापूय आपले धुवेक आजनेर करूंक शकता, भाव-भावाक, इश्ट-इश्टाक, शेजारी -शेजाऱ्याक अशो जायत्यो आजनेरी. बरें, ह्यो आजनेऱ्यो सामान्य मनशाच्या जिवीतांत घडटात अशें ना. राजकारणी, वेवसायीक, साहित्यिक, फौजेतले जवान आदी कोणूच तांचे तावडींतल्यान सुटना. वर्तमानपत्रांतलीं पानां तर असल्या बातम्यांनी कचकचीत भरलेलीं आसतात. काल पयरची बातमी, कांय इश्टांनी आपल्याच एका वांगड्याक आजनेर केली. कसल्या तरी दुबावान तांणी आपल्या इश्टाक खंय तरी पयस व्हरून बरोच झोडलो. वयल्यान ताका वाटेर उडोवन दिवन, फोनावेल्यान ताचे आवयलागच्यान दुडवांची मागणीय केल्ली. कितें म्हणटलें आतां?

अशीच दुसरी एक भयांकृत आजनेर फाटल्या दिसांनी शाळेचे वाटेरूच घडल्या. शाळेचे दोन मिनटांचे वाटेर एक तिस्क लागता. थंय सकाळफुडें चल्यांचो एक जमो ल्हवपीक आवाजान "Do you want to make trendsip" हीं उतरां येतल्या वतल्या चलयांक फुसलावंक म्हणटाले. खरें सांगचें म्हळ्यार ह्या उतरांनी आजनेर घडत अशें हांवें केन्ना चितूंक नाशिल्लें. कांय तेंपान शाळेच्यो दोन चलयो थंयच्यान नाच्च जाल्यो. सोदून दोन दिसांनी सापडल्योय बी! ना जाल्यार कितें जावपाचें? ह्यो असल्यो आजनेऱ्यो म्हज्या आंगार शिरशिरो हाडटात. वाट चुकिल्ल्याक आडच्या कडेन, घरामेरेन सुरक्षीत हाडून सोडपाच्यो आदल्यो आजनेऱ्यो आतां फाटीं पडल्यात. आयज रातीचे दीस जावपाक लागल्यात. वयल्यान ह्यो राती शारीकरणाच्या आनी उद्देगीकरणाच्या जाळ्यांत घुस्पल्यात. ना न्हय आदल्यो आजनेरी घडटाय आसत. पूण त्यो आमकां कळूंक नाका? कितेंय आसूं! आयजूय आमी तितक्याच भावार्थान देवाचेर, जाग्याकाराचेर, देवचारांचेर बऱ्या वायटावेळार विश्वास दवरतात.

केन्ना कोण कोणाचो घात घेत, कसली आजनेर करीत हाचो नेम नाशिल्ल्यान असुरक्षीत जीण आमच्या वाट्याक येता. तेय परस 'आपूण जगा, दुसऱ्यांकूय जगूंक दियात' हो मंत्र चालीक लायल्यार आमची सगल्यांची जीण सोबीत सुंदर जावंक पावतली हातूंत दुबाव ना!




## बिम्ब प्रकाशनाचीं नवीं पुस्तकां

| | | |
|---|---|---|
| तॉलस्तॉय | : रवीन्द्र केळेकार | मोल : १२० रुपया |
| बाकी विशेश | : दिलीप बोरकार | मोल : १०० रुपया |
| जाय काय जूय? (दुसरी आवृत्ती) | : दत्ता दामोदर नायक | मोल : १०० रुपया |
| आत्मभान (कादंबरी) | : सुजाता सिंगबाळ | मोल : २०० रुपया |
| वीकार (कथा संग्रह) | : सुजाता सिंगबाळ | मोल : १२० रुपया |
| काणी एका सुण्याची (बाल साहित्य) | : सुधा खरंगटे | मोल : १०० रुपया |
| बोरकारी | : दिलीप बोरकार | मोल : २०० रुपया |
| Shreyarthee | : Dilip Borkar | Rs. 200 |
| मेथये पावलां (कविता) | : दिलीप बोरकार | मोल : १०० रुपया |
| कुळागरांतलो सर्गानंद (ललित) | : नं. ध. बोरकार | मोल : १२० रुपया |
| एक आंकवार डायरी (कादंबरी) | : दिलीप बोरकार | मोल : १०० रुपया |

पुस्तकां खातीर संपर्क करात : फोन : २४३८३५५
ऑर्डर नोंद केल्यार आमी पुस्तकां घरपोच पावयतात
१५% सवलती सयत.

# पुस्तकाचें खरें मोल!

केन्नाकेन्नाय खीणभर म्हाका प्रस्न पडटा, हांव जसो वागतां तें ह्या समाजांत योग्य आसा व्हय? म्हज्या वागपांत आनी सामाजीक विचारसरणेंत खूबशी तफावत आसता आनी हेरांचे नदरेन हांव पिसो थारतां. तोंडार म्हणना जायत, पूण तांच्या हासपावेल्यान म्हाका सदांच तें जाणवलां.

हालींचीच गजाल घेयात. जानेवारी म्हयनो सोंपतां सोंपतां हांवें म्हज्या एका पुस्तकाचें प्रकाशन दवरलें. गोंय मुक्तीच्या भांगरा उत्सवी वर्सा दर म्हयन्याक म्हजें एक पुस्तक उजवाडावंचें आनी तें भांगरा उत्सवी वर्साक भेटोवंचें असो तकलेंत विचार आयलो. तकलेंत विचार आयलो म्हणटकच हांव तो रोखडोच चालीक लायतां. विचार करूंक, सेकंड ओपिनियन बी घेवपाचे भानगडींत पडना आनी संकल्प एकदां केलो काय तो मागीर पडत मरत तडीक व्हरतां.

जानेवारी म्हयन्यांत 'एक आंकवार डायरी' ही नवलिका उजवाडाक हाडपाचें थारायिल्लें. पूण दर दिसा कोणाचीं ना कोणाचीं फंक्शनां. तांकां करूं तीं, म्हजें हांव करतलों अशें तरी म्हणूं येता? ह्या सगळ्या कार्यक्रमाक हजेरी लावपी मनीस तेच. ताणीं म्हज्या कार्यक्रमाक येवंक जाय जाल्यार हांवें म्हजी सोय पळोवंक उपकारना तर तांची पळोवंक जाय. आयज फाल्यां करतां करतां जानेवारी उलगपाक पावलो. शेवटाक म्हळें, चल ३० जानेराक करूया. जावं तो मागीर गांधीहत्येचो दीस. आयोजनाक लागलों तर कोणे तरी म्हळें, त्या दिसा नूतन साखरदांडेच्या पुस्तकाचें प्रकाशन आसा! म्हळें, करूं दी तांका. म्हजे खातीर गांधीहत्येचो दीस बरो नासुये! तातूंत हांवें अरूण साखरदांडेचो सत्कारूय दवरिल्लो. १६ वर्सांनी आपले बायलेचो कविता संग्रह उजवाडाक येता तेन्ना तो सुवाळो सोडून खंयचोच घोव आपलो सत्कार आसा म्हणत दुसरेकडेन कूस मारचोना आशिल्लो. अरूण मारीतूय आशिल्लो, सांगू नज! शेवटाक निमाणो दीस उरलो तो ३१ जानेवारी.

'हे ३१ जानेवारीक नाका, तें रस्त्याचें नांव. पुर्तुगेजांनी दिल्लें. ते तारखेक केल्यार तुका पुर्तुगेज धार्जिणो म्हणटले' असोय तकलेंत विचार आयलो. मागीर करप केन्ना प्रकाशन? जानेवारी मासांत तर आनी दीस ना. हो एक आसा तो चुकयल्यार म्हजो म्हयन्याचो संकल्प चुकतलो! (चुकल्यार कोण फासार चडोवंचो नाशिल्लो म्हणा. हांगा खूब जाणांचे मासिक कार्यक्रम चुकतात) तेन्ना म्हळें करूयाच.

प्रकाशनाची सगळी तयारी जाली. सोयरे थारायले, च्या बटाटवडे सांगले, लोकांकूय कळयलें. लोकूय बऱ्या पयकी आयले शॉर्ट नोटीस दिवनूय! तांकां पळोवन हांव उचंबळीत जालों आनी तांच्या येवकाराचें भाशण करूंक उबो रावलों तर म्हजी अवतिकाय कुरूक्षेत्रार युध्दाक उबो राविल्ल्या अर्जुना सारकी जाली. मुखार बशिल्ल्यां पयकी चडशे लोक हे सदचेच. तेच संजीवाच्या प्रकाशनाक वतात आनी चंद्रिकाच्याय वतात. कालूच नूतन साखरदांडेच्याय पुस्तक प्रकाशनाक हेच लोक आशिल्ले. तोंड दाखोवन गेल्यात तरी! कार्यावळ सोपल्या उप्रांतय पुस्तक घेवपाखातीर लायनीत राविल्ले.

अर्जुनाक मुखार आपले काका, मामा, सोयरे धायरे दिसताले. ह्या लोकां आड हांव झुजूं? तांचेर हांव शस्त्र चलोवं? तांची हांव गोमटी उडोवं? म्हाका पाप लागचें ना? तांच्यो विधवा बायलो आनी अनाथ भुरगीं म्हाका शिराप सोडचेनांत? अश्या प्रश्नानी ताची तकली चक्रावली तशीच गत म्हजी जाल्ली,.

हे सगळे लोक मुखार येवन बसल्यात ते म्हज्या प्रेमान आयल्यात. तशे ते प्रत्येककडेन प्रत्येकाच्या प्रेमानूच वतात. प्रकाशन सुवाळो सदचेवरी उसरांच सोंपता आनी मागीर घरा परतुपाक रासवळ येरादारी नासता देखून जण एकलो आप आपली गाडी घेवन वता. हाका लागून तांची गैरसोय जायना ती जालीच वेल्यान दुस्मानाचे दोळेय फुटूंक मजत जाता. काल पयर जिका भास मानपाक कोण तयार नाशिल्लो, ते कोंकणीतल्यान दर दिसा भाराभार पुस्तकां भायर सरतात आनी तांच्या प्रकाशन सुवाळ्याक, एका काळार झोळी घेवन भोंवपी प्रत्येक जाण गाडयो घेवन येतात म्हणचे कितें!' हो विचारूच सोसना तसलो आशिल्लो. तांका जळोवपाखातीरूच थोडेजाण गाडयो भायर काडटाले!

पूण हांव मराठीवादी न्हय. मराठींतल्यान बरयतां म्हूण मातसो सो म्हणू येता! हांव सामको कोंकणीवादी. देखून म्हाका काळीज आसा. हालींच बायपास करपाच्या निमतान तें आसा म्हणपाची खात्री करून घेतल्या. काळीज आसा देखुनूच मुखार बशिल्ल्यांविशीं हांव विचार करूंक लागलों -

हे सगळे लोक वेळांत वेळ काडून प्रकाशनाक येतात. एक प्रकाशन म्हळ्यार निदान तीन वरां उलगताच. जणएकलो आपली गाडी घेवन येता म्हणटकच पेत्रोलाची वाडिल्ली दर मतींत घेवन हिशेब केल्यार शंबर-देडशें रूपयांचो फटको पडटाच. कार्यक्रमांत च्या, बटाटवडो, बिस्किट पासून

दिली तरी तितल्यान तें भागना. वेल्यान पुस्तक विकतें हें घेवंचें पडटाच. प्रकाशकान प्रकाशन सुवाळ्या निमतान कितलीय सूट जाहीर केली तरीय एक सादारण पुस्तक शंबरांक पडटाच आनी पुस्तक घेवंकूच जाय अशी सक्ती ना अशें कितलेंय प्रकाशकान वो लेखकान म्हणलें तरी वतना प्रत्येकान एक तरी पुस्तक व्हरचें अशें दिसता. पुस्तक आयिल्ले खातीर जमिल्ले लोक गराडो घालून अभिनंदन जरी करता आसले तरी लेखक, प्रकाशक त्याय बोवाळांत भायर वतल्याच्या हातार नदर दवरूनच आसतात. आपल्याचेर नदर आसा हें खबर आशिल्ल्यानूच दरएकलो वतना पुस्तक विकतें घेवनूच वता. परवडना आसलें तरीय!

म्हजेवेल्यान हांवें हें अशें गणीत केल्लें. हांव म्हजी लायब्ररी सांबाळटां. दर म्हयन्याक म्हजें वृतपत्रां, पुस्तकां हाचे खातीर दोन हजारांचें बजेट आसता. ज्या म्हयन्याक बरीशीं पुस्तकां घेवंक मेळनांत तेन्ना हांव खंयच्याय पुस्तक प्रदर्शनाक पावलों जाल्यार चड पुस्तकां घेतां. जाचेकडेन स्वताची लायब्ररी आसा ताका बरें ऽ पुस्तक दिसल्यार घेवप चुकना. कोंकणी कार्यकर्तो म्हूण ज्या प्रकाशनाक वतां थंय पुस्तक खरेदी करून घरा हाडटां. तरी लेगीत म्हजीय एक अपेक्षा आसताच!

हांव नवें पुस्तक आयलें म्हणटकच ताची म्हायती बिम्बात 'शब्दफूल' ह्या सदरांत दितां. कार्यावळींचो फोटोय छापतां. इतलें जेन्ना हांव करतां तेन्ना पुस्तक फुकट मेळचें अशी अपेक्षा बाळगप चूक न्हयच. त्या भायर सद्याच्या व्यापा मुखार देड-दोन वरां कार्यक्रमाक दिवप परवडना. पुराय आदेसूच वता म्हळ्यार जाता. तातूंत सगळींच पुस्तकां विकतीं घेवपा सारकीं आसताच अशें ना. पूण व्यक्तीगत संबंदाक लागून वचचें पडटा. इतलेंय करून पुस्तक विकतें घेवप हें तशें विकतें स्त्राध्दच न्हय?

तेन्ना हांव म्हजेवरींच दुसरेय समजतां. तेच पासत म्हज्या प्रकाशनाक जे कोण येतात तांका हांवें पुस्तक फुकट दिवपाचो निर्णय घेतलो. जे कोण पुस्तक घेवचें पडटा म्हूण येना आसतना रावतात ते तरी येतले ह्या उद्देशान. तातूंत आयज कोंकणी पुस्तकां खपतात. केल्ली गुंतवणूक भरून येता. म्हणटकच प्रकाशन सुवाळ्याक आयिल्ल्यांक पन्नास पुस्तकां वाटलीं म्हूण कितें जाता? हे दीस तशे हळदी कुकमाचे. जीं कोण हळदी कुकूम करतात तांचे घोव तांकां बोल्साक खार घालून कितें ना कितें हाडटात. हांवेंय हो एक हळदीकुकूम करूं येतालो. वक्ते इतली तोखणाय करतात तें आयकून कितें बरयलां तें तरी पळोवया म्हूण वाचून तरी पळयतले!

हांवें पुस्तकां फुकट दिवपाचें थारायलां तें पळोवन म्हजो एक इश्ट तिडकलो. म्हणूंक लागलो, तूं वायट प्रथा घालता. पयलींच कोण पुस्तकां घेनांत. जे कोण घेवपी आसात तांकांय तूं आडायता.

पूण गजाल तशी न्हय. घेवपी आसात ते मशणात लेगीत वचून पुस्तकां घेतात. असल्या सुवाळ्याक जे कोण पुस्तकां घेतात तांतले भोवतेक मुर्वतीक पडून घेतात. खरे घेतात ते जांचेकडेन स्वताची लायब्ररी आसा ते. म्हणटकच जे कोण आपलेपणान येतात तांका भुर्दंड कित्याक?

पयलीं लग्नाक वचपी व्हंकल-न्हवऱ्याक केळवण दिताले. चडकरून कॅश आसताली ती! प्रत्येकाच्या हातांत 'कव्हर' आसतालें. मागीर समाज सुदारलो आनी भेटवस्तू घेवन वचूंक लागले. व्हडल्या बॉक्सांत कितें आसा तें कळना आशिल्लें. प्रेजेन्ट पेपरांत रेवडायल्ल्यान भपको व्हडलो दिसतालो. एक काळ असो आशिल्लो जेन्ना दूद तापोवंक आल्युमिनेमाचे नवेच कुकर आयिल्ले. सिटी वाजोवपी. आठ-धा रूपयांक मेळटाले. न्हवरो व्हंकलेच्या संवसाराक उपयुक्त म्हूण लग्नाक वचपी धा रुपया भितर भागोवंक लागले. शेवटाक न्हवऱ्यागेर डझनभर कुकर जावंक लागले. ते दवरूपाकूच बाबड्याकडेन जागो नासतालो.

त्या काळार लग्नाक पयशे दिवपच प्रॅक्टीकल आसतालें. तातुंतल्यान खर्चाक आदार जातालो. एक प्रकारची सहकार प्रथा ती. रीण काडिनासतना लग्न जावन पडटालें. मागीर सगळे सुदारले. 'कृपया अहेर आणू नये'ची प्रथा सुरू जाली. लग्नाक रिणां मेळूंक लागलीं. बापायन लग्नाक काडिल्लें रीण ताच्या पुतानी फारीक केल्ल्याचीं उदारणांय कांय कडेन आयकूंक मेळ्ळ्यांत.

पुस्तकांचीय तीच गत. र. वि. पंडितान आपलो दोंगर विकून एक काळार पांच पुस्तकां छापलीं. हेरांक तें शक्य नाशिल्लें. उदारीचेर वा रीण काडून पुस्तक काडलें आनी प्रकाशना वेळार कांय प्रती गेल्यो जाल्यार खर्च भागतालो. सहकार पध्दतूच ती एक. पूण आयज ती परिस्थिती ना. पुस्तक छापूंक आतां अनुदान मेळटा. थळावो आमदार वो राजकारणी सहज त्या पुस्तकाचो खर्च दिता. छापिल्लें पुस्तक चार संस्था विकत्यो घेतात. वाचनालय संस्कृताय वाडीक लागल्या. अशें आसतना आपले चार मीत्र प्रकाशनाक आयल्यात तांचेकडल्यान दुडू ते कितें घेवपाचे? पुस्तक विकतें घेवचें पडना म्हूण फुडल्या प्रकाशनाक चड लोक येतात काय ना तें तरी पळोवंक मेळटलें आनी जांका फुकट पुस्तक व्हरप पुटवना तांचे खातीर म्हज्यान एक फंडपेटी दवरूं येता. पुस्तक उखलात, बोल्सांत हात घालात आनी दिवचे दिसतात तितले पयशे ते फंड पेटयेंत घालात. म्हणचे म्हाकाय म्हज्या पुस्तकाचें खरें मोल कळून येतलें!

■ ■ ■

– दिलीप बोरकार
आगशी – गोंय.
मो.:९८२२१३६८८५

एक आंकवार डायरी ही नवलिका जानेवारी म्हयन्याच्या ३१ तारखेक उजवाडाक आयली. कोंकणींतली एक आगळे वेगळे शैलिंतली ही कादंबरी अशें म्हणपाक हरकत ना.

मनशाच्या जिवितांत वेगवेगळे पिरायेचेर वेगवेगळीं स्थित्यंतरां येत आसतात. हे पिरायेंत पंद्रा तो पंचवीस ह्या काळाक खूब म्हत्व आसता. हे पिरायेवेल्या व्यक्तीक आपलें क्षेत्र सापडना. तातूंत हो काळ म्हळ्यार प्रेमात उपाट्ट बुडून वचपाचो काळ. ह्या काळार भुरगो कोणाचें आयकना. आपूण करता तेंच ग्रेट अशें दिसून तो एके धुंदींत जियेत आसता. होच खीण धरून लेखकान तरनाट्याची मनोवृत्ती आनी विचारसरणी हे नवलिकेंत काव्यात्मक शैलीन गुंथल्या.प्रत्येक तरनाट्यान वाचपा सारकी ही नवलिका जावन आसा.

बिम्ब प्रकाशनाचें हें ७१वें प्रकाशन. पानां १०० मोल १०० रुपया आनी पुस्तकाक मुखचित्र दिलीप बोरकार हांचेंच आसा.

कोंकणींतली एक सिध्दहस्त, संवेदनशील कवयित्री **नूतन साखरदांडे** (आदलींची मुखठणकार) हाचो **पासवर्ड** हो नवो आनी दुसरो काव्यसंग्रह. ह्या काव्यसंग्रहाविशीं भाशय करतना कन्नड कवी जयंत कायकीणी म्हणटात - नूतनाची कविता आमकां स्पर्शून वता ती ते कवितेंतल्यो साध्यो प्रतिमा हाका लागून. नूतनाच्यो संवेदनशील कविता ह्यो दरएक



संवेदनशील मनशाच्या काळजाक जागयता. आपल्या कवितांचेर उलयतना नूतनय म्हणटा, आपली कविता म्हळ्यार दरएक मनशाचे अणभव. सैम आनी मनीस म्हाका आवडटा. तीच म्हाका बरो प्रोत्साहीत करता.

नूतन प्रकाशनाचें हें पांचवें पुस्तक. ह्या पुस्तकाक श्रीधर बांबोळकार हांचें मुखचित्र लाबलां. १०२ पानांच्या ह्या पुस्तकांत ६४ कविता आसात. मोल जावन आसा १२० रुपया.

मराठींतले नामनेचे गोंयकार कवी **नरेंद्र बोडके** हांचो **अनार्य** हो पयलोच कोंकणी काव्यसंग्रह हालींच उजवाडाक आयला. मृत्युशय्येचेर पडून आयुश्याकडेन झुंजत आशिल्ल्या कवी बोडकेन बरयिल्ल्यो ह्यो कविता म्हळ्यार ताच्या आत्म्याचो हुंकार.

कोंकणी अणकादेमीन आपल्या वेंचीक पुस्तकां प्रकाशन हे येवजणे खाला हें पुस्तक उजवाडाक हाडलां. ह्या काव्यसंग्रहाक ४९ दर्जेदार कविता आसात आनी केशव सद्रे हांची प्रदीर्घ प्रस्तावना आसा. तांचेविशीं बरयतना ते म्हणटात कवीन कवितेंत वापरिल्ल्यो प्रतिमा आनी शब्दकळा हांची वैशीश्ट्य पुर्णता तशेंच ताणें मांडिल्लो आशय, ह्या तिनांकूय लागून ताची पृथगात्मता कळून येता.

६८ पानांच्या ह्या पुस्तकाक बळी खैरे हांचें मुखचित्र आनी शरद नरेश हांचीं रेखाचित्रां लाबल्यांत. मोल जावन आसा ५० रुपया.





बिम्बचे संपादक आनी साहित्यकार दिलीप बोरकार हांच्या 'एक आंकवार डायरी' हे नवलिकेचें विमोचन करतना २०१० वर्साच्या साहित्य अकादेमी पुरस्काराचे मानकरी प्राचार्य अरूण साखरदांडे, खास अतिथी ॲड. सतीश सोनक, कोंकणींतले ज्येश्ठ कादंबरीकार नं. ध. बोरकार, प्रकाशिका कामिनी किणी आनी लेखक दिलीप बोरकार.

गोंयचे ज्येश्ठ जादुगार डि. सतीश हांकां जादुच्या मळार पन्नास वर्सां जाल्ले खातीर तांच्या मित्र परिवारान तांचो भोवमान केलो. ह्या वेळार तांकां भेट वस्तू भेटयतना गोंयचे मुखेलमंत्री श्री. दिगंबर कामत, महाराष्ट्राचे आदले मंत्री चंद्रशेखर प्रभू, गोंय विधान सभेचे उपसभापती श्री. मॉवीन गुदीन्हो, मांगिरीश पै रायकार आनी श्री. सिरसाट.



नुतन साखरदांडे हांच्या पासवर्ड ह्या काव्यसंग्रहाचें विमोचन करतना नामनेचे साहित्यीक आनी साहित्य अकादेमीचे कोंकणी प्रतिनीधी श्री. पुंडलीक नायक,
प्राचार्य माधव कामत, प्रा. हनुमंत चोपडेकार, प्राचार्य अरूण साखरदांडे, गोंय राज्य वस्तुसंग्रहालयाच्यो संचालिका आनी कवयित्री राधा भावे आनी नुतन साखरदांडे.

---

कोलकाता हांगा जाल्ल्या सुवाळ्यांत भारतीय भाषा परिषदेचो राष्ट्रीय युवा साहित्य पुरस्कार कोंकणी कवी आनी नाटकार
श्री. राजय पवार हांका भेटयतना हिन्दी कवी डॉ. केदारनाथ सिंह.

---

# थंडी

थंडी जावप म्हळ्यार नाक व्हावूंक लागप. हें संवसारांतलें सगल्यांत चड प्रमाणांत जावपी दुयेंस अशें म्हळ्यार अतिताय जावंची ना. जिवितांत एकदां तरी हें दुयेंस जावंक ना असो एकूय मनीस मेळचो ना. हें दुयेंस मनशाक जितलें सतायता तितलें दुसरें खंयचेंच दुयेंस सतायना हेंवूय तितलेंच खरें.

हें दुयेंस एका वायरस जातीच्या रोगजंतूपासून जाता. तांकां 'रिनोवायरस' (ग्रीक भाशेंत नाकाचो वायरस) अशें म्हणटात. हे रोगजंतू नाक आनी वाऱ्यानलिका वा ट्राकेया ह्या स्वासोस्वासाच्या वयल्या भागार आसतात. हे वायरस १०० परस चड जातींचे आसात. हे ल्हान रोगजंतू बॅक्टेरिया परस ल्हान, म्हळ्यार एका इंचाच्या दशलक्षीय भागायेदे आसतात.

'रिनोवायरस' हो एकूच वायरस थंडी जावपाक कारण अशें न्हय. पूण थंडी चड प्रमाणांत ह्याच वायरसाक लागून जाता. दुसरो वायरस म्हळ्यार 'कोरोना वायरस'. तो मायक्रोस्कोपांतल्यान मुकुटाभाशेन दिसता. कोरोना म्हळ्यार मुकूट. हाचेपासून थंडी जाता. 'आदेनो वायरस' हो सगल्यांत पयलीं 'आदेनोयड' हे ग्रंथींत ऑपरेशन करतना मेळिल्लो. हाचेपासून भुरग्यांक थंडी चड प्रमाणांत जाता; जाणट्यांक चड करून जायना.

दुसऱ्या खंयच्याय वशाच्या रोगाभाशेन थंडी जाल्ल्या मनशापासून दुसऱ्याक थंडी जाता. थंडी जाल्लो मनीस जेन्ना शिंकता तेन्ना थंडेचे हजारांनी रोगजंतू ताचे शिंकेंतल्यान भायर पडटात. तांची गती सुमार वराक ५० मैल आसता. हे थेंब्याचे कण रोखडेच जमनीर पडनात. ते हवेंत मदल्या भागार डॅमोक्लसाची तलवार कशी हुमकळिल्ले भाशेन रावतात. रोखडचा रोखडे दुसऱ्या मनशाच्या स्वासाबरोबर ताच्या नाकांत वतात. नाकांत वचून बसतकूच तांची करणी सुरू जाता. थंयच तांची वाड जाता. कांय वरांनी पेशी आनी हे वायरस हांचेमदीं झूज-सुरू जाता. सगले वायरस भायर पडटात. दर एक वायरस एके बरे पेशीचेर तुटून पडटा. अशे तरेन हें चक्र चालूच उरता. ४८ ते ९६ वरांनी नाकाच्या पेशींक बादा जाता. त्यो कुडींतल्यान भायर पडटात. ज्यो पेशी थंय आसतात तांची लाळ कशी भायर पडटा. अशे तरेन त्यो मेल्ल्यो पेशी थंय आसतात तांकां भायर सरपाक मदत करतात. हेचखातीर थंडी जातकच नाक व्हांवंक लागता. वायरस ताळ्याच्या कांय पेशींक बादा करता, ताची वाट लायता. हाकाच लागून ताळो कुचकुचिल्ले भाशेन जाता. उपरांत खोंकली येवंक लागता. तांतले तातूंत एक बरी गजाल म्हळयार, ह्या पेशींपासून नव्यो पेशी रोखडच्योच तयार जातात. हाका लागून कायमची अशी बादा केन्नाच जायना. नाकाच्या आनी ताळ्याच्या पेशींक बादा करपाक वायरसांक ४८ ते ९६ वरां लागतात. हाका लागून हो काळ जातकच थंडेचीं लक्षणां दिसूंक लागतात. हाकाच 'लागणेचो काळ' म्हणटात. रोगजंतू भितर सरतकच रोगाचीं लक्षणां दिसूंक लागतात तो हो काळ. हो बॅक्टेरिया आनी वायरस रोगांक लागू आसता. खंयचीच बॅक्टेरिया वा वायरस रोगजंतूचो शिरकाव जातकच रोखडींच दुयेंसाचीं लक्षणा दिसूंक लागनात. तांची मनशाचे कुडींत वाड जावंक लागूंक जाय. तांचो जाय तितलो आंकडो जातकच ताचे उपरांत तीं पेशींक बादा करूंक लागतात.

सर्वसादारण कुडीची भलायकी बरी आसत जाल्यार थंडी जावंक पावना. हाकाच लागून व्यायाम, उगडी हवा, ताजें जेवणखाण घेवपाक फर्मायतात. एका मनशाच्यो सदांच्यो भलायकेच्यो संवयो थंडी जावप वा ती चड प्रमाणांत जावप हें थारायतात. सिगार, विडी ओडप्यांक थंडी चड प्रमाणांत आनी चड तेंप जाता, तांकां खोंकली चड मारता हो समज सामको खरो.

विसाव्या शेंकड्यांत घरगुती वखदां उणीं जाल्यांत आनी ताच्या वांट्याचीं थंडेचीं वखदां दोतोराक दाखयनासतना फार्मासींनी वचून घेतात. हांतलीं खंयचींच वखदां थंडेचेर सारकीं लागू पडनात, फकत लक्षणां उणीं करतात. देखीक आस्पीरीन आनी आसेतामिनोफेन हीं दूख उणी करपी आनी जोर उणो करपी वखदां. 'आंतिहिस्तामीनीक' वखदां नाकाचें चोंदप उणें करतात, नाक सुकपाक मदत करतात. 'कोडेयन फॉस्फेट' हें वखद खोंकली, भोव करून रातची येवपी सुकी खोंकली उणी करता. बाजारांत असलीं वखदां खूब मेळटात. तीं म्हारग आसलींय जाल्यार आस्पीरीन आनी 'आवील' सारकीं आंतीहिस्तामीन वखदाचो बरो परिणाम जाता. हेभायर नाक चोंदलां तें उणें करपाक हून उदकाची वाफ नाकांत घेतात.

नाक चोंदिल्लें आसल्यार तें फोर्सान पिळूं नये. कानाचो भितल्लो भाग आनी ताळो हांचेमदीं एक ल्हान बारीक टूब आसता. चोंदिल्लें नाक मोट्यान पिळ्ळें जाल्यार कांय रोगजंतू कानांत वचून कानाचें इन्फॅक्शन जावंक शकता. अशे तरेचें इन्फॅक्शन सारकें जावपाक खूब त्रास पडटात.

तशेंच लक्षांत दवरूंक जाय, हीं वखदां फकत लक्षणां उणीं करतात. तीं थंडी बरी करिनात वा उणी करिनात. 'बेगीन बरो जा' अशें म्हळयार थंडी बरी जायना. बऱ्या दोतोराक दाखोवन बरीं वखदां घेतलीं जाल्यारूय हेंच घडटा. ■■■

स्वताचे जाणवायेन वखदां घेवप धोकेदायक थारुं येता. तुमकां बरोवन दिल्ल्या वखदाविशीं (रशेद) जर कितेंय चवकशी करपाची आसत जाल्यार आमच्या फार्मासिस्टाकडेन उलयात.




हिन्दु फार्मासी

पणजी

फोन : २२२३११०३



## वायंगी

वायंगें हें फळ काय भाजी? टोमाट हें फळ काय भाजी? असलो विचार रांदतना करप ना. आमी ह्यो सगळ्यो भाज्यो म्हणूनच रांदतना वापरप चड सोयिस्कर जातलें.

वायंगें ही गोंयकारांची एक आवडटी भाजी. ह्या दिसांनी गोंयच्या शेतांनी जीं मोठी मोठी वायंगीं जाल्लीं दिसतात तींच आमकां गोंयकारांक चड पसंतीचीं. गोंयां भायलीं बेळगांव आनी हेर कडच्यान बारीक बारीक वायंगीं येतात तीं आमचे पासत वायंगीं न्हय. तीं हॉटेलांनी बी भाजी करपाक उपकारता आसत. पूण आमकां भरीत करतलो जाल्यार आमच्या गोंयच्या शेतांनी जाल्लीं रसरसीत वायंगीच जाय. पूण आतां कोण रोयता गोंयांत वायंगीं? एका तेंपार रोयतालीं ती पुराणांतली गजाल थारल्या. देखून हीं पुराणांतलीं वायंगीं भाजयेक शिरी पडनांत. म्हणटकच जीं खंयचीं वायंगीं मेळटात ताचे आमी कांय जिन्नस कशे करपाचे तें पळोवया.

### वायंग्याचें भरीत

साहित्य : एक मोठे वायंगें. ७-८ हरव्यो मिरसांगो, एक वाटी सोय, आमटाण वो धंय, कांदो.

कृती : एक मोठेशें वायंगें घेवन ताका गोडें तेल सगळे कडेन सारावचें. मागीर तें रसरसीत कोळशांचेर बरें भाजून घेवपाचें. आतां गॅस घराघरांनी जाल्ल्यान रांदनी, कोळशे बी काळा भायर जाल्यात. तेन्ना गॅसाचेर वायंगें भाजून घेवंचें. तें धापून दवरचें. (कोळशांचेर भाजिल्ल्या वायंग्याची रूच आगळीच आसता. ती गॅसार हुलपावन येना). वायंगें न्हिवतकच सोलचें आनी किसमून घेवंचें. ७-८ हरव्यो मिरसांगो तुपांत भाजून, कांदो आनी सोय हांचे वांगडा वाटचें. वायंगें आनी हो मसालो एकजीव करचो. बोरायेदी आमटाण वो थोडें धंय घालचें.



हें भरीत सुक्या मिरसांगांचेंय करूं येता. हरव्या मिरसांगा बदला सुक्यो मिरसांगो वाटच्यो. कांदो बारीक चिरून घालचो.

### वायंग्याची भाजी

साहित्य : अर्द कील वायंगें, स मसगाच्यो सांगो, तूप वो खोबरेल, सासवां, मीठ, गोड, वाटीभर सोय, पाव कुलेर हळद. पांच-स सुक्यो मिरसांगो, बोटायेदी आमटाण, देड कुलेर कोथंबीर, अर्द कुलेर उडदा डाळ, पाव चमचो मेथी.

कृती : सुमाराचें वायंगे घेवन ताचे देड इंच लांब आनी पाऊण इंच फोडी करून त्यो उदकांत घालच्यो. मसगां शांगो घेवन ताचे देड इंच लांबायेचे कुडके करचे. मागीर आयदनांत अर्द कुलेर तूप वो खोबरेल घालून सासवांची फोडणी दिवप आनी तातूंत शांगो आनी वायंग्या फोडी घालच्यो. मातशें उदक फाफडून गरजे पुरतें मीठ, गोड घालून मातशें शिजोवंचें. मागीर मसालो घालून, आनीक थोडें उदक घालून शिजोवंचें. मसालो करतना सोय, हळद, मिरसांगो, कोथंबीर, उडदां डाळ, मेथी बी एक करून तेलांत मातशें भाजचें आनी बारीक वाटचें.

### भरिल्लें वायंगें

साहित्य : सादारण वायंगीं, सोय मूठभर, कांदो, हिंग, हळद, मसाल्याची पूड, तेल.

कृती : वायंगें धुवन ताका आडव्यो उब्यो खांची घालच्यो. तातूंत मसालो भरून, गोडे तेलांत हिंग, कुलेरभर हळद घालून फोडणी दिवंची. तातूंत वायंगें घालून मातशें हालोवंचें आनी वयर धापण्याचेर उदक घालून मंद उज्यार शिजोवंचें.

### वायंग्याचीं कापां

साहित्य : मोठेशें तन्नें वायंगें, मीठ-मिरसांग, रवो, तेल.

कृती : वायंगें धुवन ताचीं बोटभर जाडीचीं वाटकुळींच कापां करचीं. तांकां मीठ-मिरसांग लावन पंदरा मिनटां दवरचीं. मागीर तांदळांच्या मोठसार रव्यांत सारोवन गोड्या तेलान तांबसार जायसर तळून घेवंचीं.

■■■



– कामिनी किणी
बागा, कलंगूट - गोंय.

**बिम्ब फेब्रुवारी ११**



– संतोष शिवराम हळर्णकार
बांदिवडे-बंदर,
फोंडा-गोवा ४०३ ४०१

## आडवे

१. सांगणें, तोंडांतल्यान काडिल्लीं उतरां
३. केस्तावां करपी
६. वंश, घराणें
७. न्हिदांत पळयल्ल्यो घडणुको, ड्रीम
८. तेंकप, फाट लावन बसप
९. घटसाण, जाडाय
१२. भेद, अंतर
१४. कमी, उणें (हिन्दी)
१५. मदांद, मस्तें
१६. अंतस्कर्ण
१८. पातळ सालीचें आनी मांसाळ
१९. शिजयल्ल्या बारीक तांदळांत तूप, साकर, लवंग, बदाम बी घालून केल्ली गोड पोळी.
२०. आंग आंवळून भितर सरप
२४. आठवण, उगडास
२५. मावशेचो घोव
२६. चाळप, घासप, भकप
२७. फातराचो वा तळपाचो कडेकडलो कुडको

| | | | | | | | | | |
|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|
| १ | | २ | | ■ | ३ | | ४ | | ५ |
| | ■ | | ■ | ६ | | ■ | | ■ | |
| ७ | | | ■ | ■ | ८ | | | | ■ |
| | ■ | ९ | १० | | | ■ | | ■ | ११ |
| ■ | १२ | | | ■ | ■ | १३ | ■ | १४ | |
| १५ | | ■ | १६ | १७ | ■ | १८ | | | |
| | ■ | १९ | | | | | ■ | | ■ |
| २० | २१ | | ■ | | ■ | ■ | २२ | ■ | २३ |
| २४ | | ■ | २५ | | | ■ | | ■ | |
| ■ | २६ | | | | ■ | २७ | | | |

## उबे

१. भक्ती, ध्यान
२. भाराचें, खूब जड, म्हत्व आशिल्लें
३. लग्ना-मुजीक बी धाडिल्ली भेट
४. वोलतेराचो, कदेलाचो बी तेंकचेलो भाग
५. सूय
१०. एकेचकडेन पळोवपाची तरा (मराठी)
११. उमळिल्लें, धुल्लें
१२. नश्ट, काबार
१३. आमचो देश, हिंदुस्थान
१४. आरमार
१५. जळारांक लागून येता तो कुलकुल्याचो जोर
१७. थंडावप, शांत करप, समजावप
१९. सोरोप (मराठी)
२१. सनी देवोल आनी अमिषा पटेलाचो एक फामाद सिनेमा
२२. आचरप, घडोवप, कालवांचें कट्टें
२३. प्रस्न (हिन्दी) २५. नाल्लाचें झाड

### जानेवारी उत्तरकुवाड्याची जाप

| | | | | | | | | | |
|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|
| क | य | मे | व | प | ■ | प्र | व | च | न |
| ल्ल | ■ | ण | ■ | क्ष | मा | शां | त | ■ | र |
| व | न | वा | स | ■ | गी | त | ■ | नी | क |
| प | ■ | त | ल | वा | र | ■ | सा | ■ | सू |
| ■ | स | ■ | मा | ■ | ■ | बु | ध | वा | र |
| स | त्ता | व | न | ■ | र | च | ना | ■ | ■ |
| र | वी | ■ | ■ | क | न | क | ■ | ■ | पा |
| प | स | र | का | र | ■ | ळी | ■ | ती | र |
| ट | ■ | ग | ■ | म | स्तो | ■ | मे | ■ | प |
| प | र | त | व | प | ■ | रा | ज | पू | त्र |

## जानेवारी २००४



## फेब्रुवारी २००४



## मार्च २००४

## एप्रिल २००४

संपादकीय – खासदाराचें मोल कितलें? प्रतिबिम्ब
शीर्शकथा – लोकसभा वेंचणूक कोण हारतलो? कोण जिखतलो?/ दिलीप बोरकार
भोंवडी – लुर्दीस एक पवित्र आनी मागण्यांचो जागो
ललित – पोको / नं. ध. बोरकार
परमळ – पार्वती / हर्षा शेटये
भुरग्यांचें आंगण / दक्षा मोहनदास शिरोडकार, भिकाजी घाणेकार, सूर्या अशोक, गार्गी दामोदर भरणे
मनसंवेदना / हर्षा शेटये, सुधीर कोडकणी, महेश पारकार
क्लासीक – मर्चंट ऑफ व्हेनिस / शैलेंद्र मेहता
फांतोड पावली / सुधा सुरेश आमोणकार
परिसर / नीरजा वैद्य – यादव
कथा – उपी / रामकृष्ण जुवारकार
भलायकी – दोणकुटी / डॉ. वंदना धुमे
आंबटतीख – शीलाचो रिसीपी बूक / शीला कोळंबकार
खळांतली आंबली – अऊक आर्गां
उतरकुवाडें / मुकेश थळी
हरयाळी / महेश दिवेकार
अंतरमनाचे अंतरंग / दिलीप बोरकार

## मे २००४

संपादकीय – हाका हांव जबाबदार!
प्रतिबिम्ब
शीर्शकथा – फील गूड वाल्यांचें नील गूड जातलें! / दिलीप बोरकार
संवाद – गेट लिबरेटेड / स्नेहा भांडारे
भोंवडी – नेपाळ एक नैसर्गीक नंदनवन / फ्रेडी जे दा कोस्त
ललित – समर्पण/ नं. ध. बोरकार
फांतोड पावली – मावशीबायचें नवस / हर्षा शेटये
भुरग्यांचें आंगण / रवीन्द्रनाथ टागोर, भिकाजी घाणेकार, सूर्या अशोक, राजश्री बांदोडकार कारापुरकार
परमळ – भक्तीन दाखयली शक्ती : बायलांची भुरग्यांची
घडामोडी / अनुमंत चोपडेकार
आंबटतीख – शीलाचो रिसीपी बूक / शीला कोळंबकार
मनसंवेदना / हर्षा शेटये, सुधीर कोडकणी, सुनिता सुभाष शाह
भक्तीरस – साईबाबांची भक्तीगीतां / महेश पारकार
परिसर – धेंपे महाविद्यालयांत / प्रा. अंजू खंवटे
भलायकी – प्रथमोपचार / डॉ. वंदना धुमे
कोंकणी पॉप – पांडू लापयांव/एच्. ब्रिटन
उतरकुवाडें / मुकेश थळी
काळचक्र / ज्योतिषाचार्य राजबापू बर्वे
हरयाळी / महेश दिवेकार
अंतरमनाचे अंतरंग / दिलीप बोरकार
व्यक्तित्व / स्नेहा आनी राज भांडारे

## जून २००४

संपादकीय – ताणीं आमकां फटयले!
शीर्शकथा – पर्रिकार सरकार कोसळटा? / राजू नायक
संवाद – हांव सुशेगाद मनीस, म्हाका सर्त लावपाची ना/ वेंडल रॉड्रीक्स
भोंवडी – स्वीत्झरलॅन्ड / फ्रेडी जे दा कोस्त
ललित – समर्पण/ नं. ध. बोरकार
कथा – नशिबाचो खेळ / हर्षा शेटये
भुरग्यांचें आंगण / चिंतामणी हेमंत आमोणकार, मयुर कोरगांवकार, आश्विनी श्रीधर कामत, साईश कवळेकार, मनोहरराय सरदेसाय, राजश्री बांदोडकार कारापूरकार, सुधीर तारी, दिलीप बोरकार
परिसर – हांव पिसो सैमसत्तरीक / युगांक नायक
कोंकणी पॉप – न्हवरो म्हाका जाय / रीटा रोझ
मनसंवेदना / हर्षा शेटये, सूर्या अशोक, सुनिता सुभाष शाह
भलायकी – प्रथमोपचार (II) / डॉ. वंदना धुमे
उतरकुवाडें / मुकेश थळी
काळचक्र / ज्योतिषाचार्य राजबापू बर्वे
हरयाळी / महेश दिवेकार
अंतरमनाचे अंतरंग / दिलीप बोरकार
व्यक्तित्व / वेंडल रॉड्रीक्स

## जुलाय २००४

संपादकीय – शिंदळ्यांचें बरें आसा, हेरांचें कितें?
प्रतिबिम्ब
शीर्शकथा – वस्ती तर मातयेभरवण आतां मनीसपणाची अभारणी जाय/ दिलीप बोरकार
संवाद – तियात्र माचयेवेलो प्रिन्स / प्रिन्स जाकोब
भोंवडी – सिक्कीम / फा. फ्रेडी दा. कोस्ता
ललित – समर्पण / नं. ध. बोरकार
भुरग्यांचें आंगण / शंभू खेडेकार, अभयकुमार, आश्विनी श्रीधर कामत, दिलीप बोरकार
अक्षर खेळ / प्रसन्ना तिंबले
परिसर / पैसो जाय पूण आमचो सैमूय जाय / युगांक नायक
मनसंवेदना / हर्षा शेटये, सुरेश कामत सातोस्कार, शंकर रामाणी
खळांतली आंबली – म्हज्या उगडासांतले बाकीबाब / अनिल समर्थ
फांतोड पावली – तूं बापूयच कसो दिसलो/ सुधा सुरेश आमोणकार
कोंकणी पॉप – साद तुगेले/ आशा भोसले
उतरकुवाडें / मुकेश थळी
काळचक्र / ज्योतिषाचार्य राजबापू बर्वे

आंबटतीख - शीलाचो रिसीपी बूक / शीला कोळंबकार
भलायकी - प्रथमोपचार (III) / डॉ. वंदना धुमे
हरयाळी / महेश दिवेकार
अंतरमनाचे अंतरंग / दिलीप बोरकार
व्यक्तित्व / प्रिन्स जाकोब

**ऑगस्ट २००४**

संपादकीय - बिम्ब सरकारचें दुस्मान न्हय!
प्रतिबिम्ब
शीर्शकथा - हॅल्मेटचें भूत गोंयकारांचे मानेर
शीर्शकथा २ - रोमीचो देंवचार गोंयकारांचे मानेर?
संवाद - युग-सांवार / महाबळेश्वर सैल
कथा - तेंगशो / महाबळेश्वर सैल
ललित - समर्पण / नं. ध. बोरकार
भुरग्यांचें आंगण / दिलीप बोरकार, अमोघ प्रसाद बुडकुले, राजश्री बांदोडकार कारापूरकार
अक्षर खेळ / प्रसन्ना तिंबले
परिसर / एक अणभव : सैमाच्या गोपांतलो / युगांक नायक
मनसंवेदना / सुनिता सुभाष शाह, आश्विनी कामत, नीला तेलंग, भालचंद्र गांवकार
कुरकूट - जनूमामा / हर्षा शेटये
कोंकणी पॉप
पडवेर - एका अर्धवट मनशाची खबर / वामन विष्णू कामत
फांतोड पावली - तोच म्हजो दिवो सांसणाचो/ सुधा सुरेश आमोणकार
पंचनामो - आयणा आनी बायणा / नीरजा वैद्य यादव
अस्तुरी - हुस्कारे बायलमनाचे / जयमाला दणायत
उतरकुवाडें / मुकेश थळी
काळचक्र / ज्योतिषाचार्य राजबापू बर्वे

आंबटतीख - शीलाचो रिसीपी बूक / शीला कोळंबकार
भलायकी - प्रथमोपचार (खत) / डॉ. वंदना धुमे
हरयाळी / महेश दिवेकार
अंतरमनाचे अंतरंग / दिलीप बोरकार
व्यक्तित्व / महाबळेश्वर सैल

**सप्टेंबर २००४**

संपादकीय - आतां आमकां हुस्को ना!
प्रतिबिम्ब
शीर्शकथा १ - आमी शिकून अडाणी आनी धर्मान अधर्मी / दिलीप बोरकार
शीर्शकथा २ - शिक्षकांखातीर मार्गदर्शक तत्वां / डॉ. आयडा मिलर मुखर्जी
संवाद - हांव भारतीय आसां हाचो अभिमान दिसता / हनुमान कांबळी
चर्चा - मुक्त भारतांत शिक्षकाचो दर्जो / व्यंकटेश रा. शिरोडकार
प्रासंगीक - श्रावण आनी आमी / महेश पारकार
सैम सांगात - चवथीचो अर्थ / नीरजा वैद्य-यादव
ललित - समर्पण / नं. ध. बोरकार
भुरग्यांचें आंगण / दिलीप बोरकार, अमोघ प्रसाद बुडकुले, राजश्री बांदोडकार कारापूरकार, मनोहरराय सरदेसाय
परिसर / गणपतीच्या रुपान मातयेची पूजा करूया!/ युगांक नायक
मनसंवेदना / भालचंद्र गांवकार, हर्षा शेटये, अशोक भोंसलो
एकांकिका- गणपती पिश्यान काडटा तेन्ना..
परमळ - फोंडू शास्त्री / सुरेश कामत सातोस्कार
कोंकणी पॉप - अमेरिकेक पावशी / लॉर्ना
पडवेर - शिवाजीच शिवाजी / वामन विष्णू कामत

फांतोड पावली - फुलराणी / सुधा सुरेश आमोणकार
पंचनामो - आयणा आनी बायणा / नीरजा वैद्य यादव
अस्तुरी - हुस्कारे बायलमनाचे / जयमाला दणायत
उतरकुवाडें / मुकेश थळी
काळचक्र / ज्योतिषाचार्य राजबापू बर्वे
आंबटतीख - शीलाचो रिसीपी बूक / शीला कोळंबकार
भलायकी - प्रथमोपचार (खत) जळप/ डॉ. वंदना धुमे
हरयाळी / महेश दिवेकार
अंतरमनाचे अंतरंग / दिलीप बोरकार
व्यक्तित्व / हनुमान कांबळी

**दिवाळी २००४**

संपादकीय
चित्रपट - खंयच्यान आयलो? खंय पावलो?
मराठी चित्रपट
हिंदी चित्रपट
बंगाली चित्रपट
तमिळ चित्रपट
तेलुगू चित्रपट
कन्नड चित्रपट
मल्याळम् चित्रपट
गजराती चित्रपट
पंजाबी चित्रपट
ओडिया चित्रपट
असमिया चित्रपट
सेर भासांतले भारतीय चित्रपट
कोंकणी चित्रपट
कोंकणींतलो पयलो सिनेमा मोगाचो आवंडो
आमचें नशीब
निर्मोण
सुखाचें सपन
कर्तुबांचो संवसार
म्हजी घरकान्न
बोगलांट
जिवीत आमचें अशें
मोग आनी मोयपास
भुयारांतलो मनीस

जीण-मरण जेजूचें
तिसरी चीट
जन - मन
सुझान
तपस्विनी
जिवनाचो खेळ
गिरेस्तकाय
बोगसणें
कोंकणी टेलेफिल्मां
चित्रपट संस्कृतायेची रुजवण
सुखी कोण
दोत - देणें
कुणबी जाकी
सोर्त फुटली
गांवांत थावन पयस, म्हाका तुजो मोग
कुष्ठोबा द ग्रेट
आमचीच चूक
मर्णकट्टो
जैत
आतांचो संवसार
गोवा आमचो गांव
आकांत
चुकलेलो मार्ग
एक नगरांत
जुलूम
तुळशी
मोनी गवाय
मुक्ता
म्हजी काणी
ग्रॅन्ट रोड
दुसऱ्याचें आयकोन
मारयान
शारदा
जबाबदारी
काजार जाता, जाता, जाता
शीतू
फाशी मोगाची
मर्याद
भावाचें देणें
स्विकृती
देखणी दुराय
रोंटो
बऱ्या करप्यांनी इनाम
ही म्हजी शिटकावणी
दिसता तशें नासता
हांस मरे हांस
तूंच म्हजी लक्ष्मी
मरण
त्याग
सांगाती
कशी शिकवण दिता
उपकार
तो दीस उदेलो
गानकोकीळा
मुक्ता सावन सुरू केल्लो ज्योतिर्मय प्रवास / प्रकाश वजरीकार
अनिल कुमार
लता दीनानाथ मंगेशकार
आशा भोसले
नाटक-सिनेमांतली धीट आनी धाडसी अभिनेत्री / वर्षा उसगांवकार
रेमो फेर्नांडीस
मिनाक्षी शिरोडकार
भुमिकेचेर श्रध्दा दवरून वावुरपी / आशालता वाबगांवकार
डॉ. मिनाक्षी मार्टीन्स्
हांव आनी म्हजो चित्रपटांतलो वावर / मिलींद म्हाडगूत
के. (कुंकळीयेकार) वैकुंठ दत्താराम
फ्लॅशबॅक
पडद्या फाटले कलाकार
यशवंत मंगेश वागळे
जार्सित वाज
वामन भोंसले संकलनाचें दुसरें नांव
आसूं भरी है ये जीवन की राहें
गिरीश कार्नाड
पणजे दूरदर्शनाचें योगदान / उदय कामत
देखणे दीस : दुरायेचे दीस? / हेमा नायक
पस्तिसावो आंतरराष्ट्रीय चित्रपट महोत्सव 'इफ्फी'
दौलत
रेमी कुलासो कोंकणी भाशेचो एक अखंड खांबो
कोंकणी माचयेवेले एक नखेत्र - एम. बॉयर
ओफेलिया - फाटल्या काळाचें एक आकर्शक व्यक्तिमत्व
सुवर्णमय युगांतले एक नखेत्र - सेलेस्तिनो अल्वारिस
दर्शन लोलयेंकार
कला दिग्दर्शक - सुशांत तारी
गोंयकारांक लाब जावंक जाय आशिल्लो तो जायना / बाबूश गोलतकार
गुरूदत्त
एन्. चंद्रा
आंतोनेत
बेटी
सिनेमांतले बाल कलाकार / मंगला कारापूरकार
श्याम बेनेगल
आत्माराम जयश्री
रॉबीन वाज
शंकर नाग
रोहिणी हट्टंगडी
प्रा. जयदेव हट्टंगडी
सुदेश लोटलीकार
हिन्दी चित्रपट संगीतांत कोंकणी मनशाचें योगदान

**डिसेंबर २००४**

संपादकीय - हय, तांच्यांत समजून घेवपाची तांक आसा!
प्रतिबिम्ब
शीर्शकथा - गोंयांत इफ्फीचो झगझग, बऱ्याक काय वायटाक?
संवाद / अजीत कडकडे
कथा - निस्तब्ध रात/ स्मिता भांडारे कामत
सैम सांगात - खरे अपंगूळ कोण?/ निरजा वैद्य यादव
ललित - समर्पण / नं. ध. बोरकार
भुरग्यांचें आंगण / विन्सी क्वाद्रुश, रामनाथ गावडे
गोंयचें नांव व्हड करून / प्रभाकर कारेकार
मनसंवेदना / दिपाली पावसकार, हर्षा शेटये, पुरषोत्तम वि. सतरकार, महेश पारकार
चिवडो - बेकारी...सुपरसेव्हन उद्वेग / सम्राट
फांतोड पावली - केजी म्हळ्यार भुरग्यांबाग? काय बंदखण?/ सुधा सुरेश आमोणकार
अस्तुरी - बायलां राजकारणान फार्टी कित्याक?/ सुनिता सुभाष शाह
उतरकुवाडें / मुकेश थळी
काळचक्र / ज्योतिषाचार्य राजबापू बर्वे
आंबटतीख - शीलाचो रिसीपी बूक / शीला कोळंबकार
भलायकी - एड्स / डॉ. वंदना धुमे
हरयाळी / महेश दिवेकार
अंतरमनाचे अंतरंग - नाक खंय आनी आदोळी खंय? / दिलीप बोरकार
व्यक्तित्व / अजित कडकडे

# तुमचे भलायकेची पुराय काळजी घेवपाचे गरजे खातीर एकूच ठिकाण

**वोक्हार्ट हॉस्पिटल** हें आयज भारतांतल्या मुंबय, नागपूर, नाशिक, राजकोट, भावनगर, सुरत ह्या सारख्या म्हत्वाच्या शारांनी अतीवेगान पसरपी सुपर स्पेशलीटी हॉस्पिटल ग्रुपामदलें एक जावन आसा. वोक्हार्ट हॉस्पिटल ग्रूपान वैजकी सुपर स्पेशलीटीज वाठारांत नदरेक भरपा सारकें योगदान दिलां आनी जागतीक दर्जाकडेन तुळा जावं येता असो सेवेचो उंचलो दर्जोराखला.

हाय-एन्ड सुपर स्पेशलीटी केअर हातूंत २१ वर्सांचो अणभव आशिल्ल्या वोक्हार्ट ग्रूपान गोंयांत नूसी वोक्हार्ट हॉस्पिटलच्या बॅनराखाल उच्च दर्जो सुपर स्पेशलीटी हॉस्पिटल सुरू केलां. हें हॉस्पिटल कुंकळे पांझरकोणी हांगा दक्षिण गोंयच्या मुंबय-कोची म्हामार्गार (NH - 17) आसा.

**नुसी वोक्हार्ट हॉस्पिटल** हें सुपर स्पेशलीटी हॉस्पिटल, कार्डिओलॉजी आनी कार्डिओ-थोरसीक सर्जरी, मेंदू आनी कणो, हाडां आनी सांधे, युरोलॉजी आनी नेफरोलॉजी, मिनीमल एक्सेस सर्जरी, गॅस्ट्रोइंटेस्टीनल सर्जरी, पेडियाट्रीक्स आनी गायनेकोलॉजी हांच्या मळार उत्कृश्ट सेवा केंद्रां निर्माण करूंक स्थापन केलां. तातुंतले हेर खाशेले विभाग म्हळ्यार इंटरनल मेडिसिन, क्रिटीकल केअर, कॉस्मेटॉलॉजी, मेडिकल आनी सर्जीकल ऑन्कोलॉजी. तशेंच इमरजेन्सी आनी ट्रॉमा लायन. आमचें हॉस्पिटल गोंय राज्य आनी सरभोंवतणच्या वाठारांत उपलब्ध नाशिल्ली सुपर स्पेशलीटी टेर्टीअरी केअर हॉस्पिटलची गरज भागयतली. वोक्हार्ट हॉस्पिटल आनी हारवर्ड मेडिकल इंटरनॅशनल हांचो फाटल्या १० वर्सां सावन घट संबद आसा. ह्या संबंदाचो आमकां पेशन्ट केअर, सुरक्षा आनी दर्जेदार वैजकी सेवा हांचे पासत सदांच फायदो जाला. गोंयचें नुसी वोक्हार्ट हॉस्पिटलय ह्याच मार्गान चलतलें आनी हारवर्ड मेडिकल इंटरनॅशनल कडलो संबंद गोंयच्या लोकांक फायद्याचोच थारतलो.

**आमचें हॉस्पिटल ज्या सेवेखातीर सुसज्ज आसा त्यो म्हळ्यार :**

१. १८० टेर्टीअरी केअर खाटी आनी पेशन्टाक केंद्रीत दवरून ४३ खाटांचें उच्च दर्जाचें आयसीयू.

२. पेशन्टाचे सुरक्षे खातीर आंतरराष्ट्रीय दर्जाचीं पांच ऑपरेशन थेटरां.

३. सेवाभावी कार्डीॲक रूग्णवाहिका आनी चोविसूय वरां वोक्हार्ट इमर्जेन्सी हार्टलायन आनी ॲक्सीडंट आनी ट्रॉमा लायन.

४. डिजिटल फ्लॅट पॅनल कॅथलॅब

५. अत्याधुनीक नॉन-इन्वेसीव्ह कार्डिॲक डायग्नोस्टीक्स.

६. रेडिओ - डायग्नोस्टीक्स सपोर्टेड बाय मल्टी स्लायस सीटी स्कॅन.



Mr. Arvind Bhagania - Centre Head

WOCKHARDT HOSPITALS
NUSI WOCKHARDT HOSPITAL
Panzorconi, Cuncolim, Salcete, Goa - 403 703
Tel: (0832) 6684444, Fax: (0832) 6684242 contact@wockhardthospitals.com www.wockhardthospitals.com

"The State aims to build a government that's enabled by ICT to be efficient and accountable with a Global thinking approach"

# Technology to the Doorsteps of the Citizens




## Goa Broad Band Network

*A Unique Ultra - High Speed Network with Voice, Viedo and Data on Single Optical Fiber Cable*



## Lok Seva Kendra

*Single Window for G2C, G2B & B2C Services*



## State Data Center

*Single location for all the Government Data & Online Services*

## IT Policy

*Aims to increase employability of Local Youths*

## Single Official Portal

*Aims to provide all G2C, G2B Services across the Globle to all Stake-holders*





## e-Governance Initiatives

*Backend computerisation is needed for Online real time service delivery.*




## Directorate of Information Technology

Government of Goa
2nd Floor, Above Alcon,
Hundai Showroom, NH-17, Porvorim-Goa.
Website: www.goagovt.nic.in
Phone: +91 (832) 2411505
Fax: +91 (832) 2411490

# RAJ EXCELLENCY




**Ribandar**

# Riverside Paradise...

'Raj Excellency' located in a beautiful hilly region of Ribandar, overlooking the pristine Mandovi River and lively Panaji city. Ribandar is just 3 kms from Panaji. This 3 kms gap in-between two places is occupied by beautiful water bodies and open lush green fields. These offers Raj Excellency a 180 picturesque view with soothing shades of Blue & greens.

Own a home at Raj Exellency and be among those selected few and enjoy life at the fullest!.




PROJECT BY:

## Raj Housing Development™ Pvt. Ltd.

website : www.rajhousinggoa.com

**S-1, Pai House, Sadar, Ponda - Goa.**
**Tel.: 0832-2314647, 2312072.**
**email: info@rajhousinggoa.com**



POSTAL LICENCE NO.: G-2/RNP.Goa/01/2009-11 RNI Regd. No. GOA KON/2008/30413





Incredible !ndia

Goa

# Remember, You are on holiday. Safety isn't !

Welcome to Goa, where beautiful beaches, delicious cuisine and a friendly ambience promise the perfect mix of rest and recreation. Goa is an extremely safe place to travel around. However, we advise due precautions to be taken while you travel as you would do in any tourist spot in the world. Remember, safety is never on vacation.

**TIPS FOR VISITORS**

**Drugs:** Use, possession and trade of drugs is totally illegal in Goa. Drug offence is non-bailable and penalties for smuggling, possession and use are severe.

**Drinking & Driving:** A foreign national must possess an international driver's license. Traffic circulation is on the left. Don't drink and drive or use mobile phones while driving. Wear a helmet while riding a two-wheeler. Follow police traffic rules and keep valid documents in your possession while driving.

**Weather:** Use sunscreen whenever out in the sun to avoid sunburn; drink liquids to avoid dehydration.

**Cleanliness & Hygiene:** Use the nearest dustbin to dispose waste. Don't litter. Use mosquito repellents to protect yourself from mosquitoes. Public pay toilets are available at most places of tourist interest.

**Beach Safety:** Read the signboards and follow the instructions before entering the water. Be careful when wading at the beach, undertow riptide currents can be strong. Consult the lifeguards for safe areas to swim. Nudity on beaches and public places is strictly prohibited.

**General Safety:** Contact nearest Govt. of India/State Govt. Tourist Office/Counter Tourist Police/ Tourist Assistance Booth for any tourist assistance. In Emergency contact 108 for medical/fire/police. Police 100. Fire 101.

VINSAN GRAPHICS

## DEPARTMENT OF TOURISM

Patto, Panaji, Goa - 403001, India. Tel. No. 91-832-2438750/52. Fax: 91- 832-2438756. E-mail: goatourism@dataone.in
**http://www.goatourism.gov.in**


Published & Printed by Dilip Borkar Owner of Bimb Monthly, 'Dharm-Laxmi', St. Lourence, Agasaim - Goa & Printed at Impressions, Belgaum. Editor : Dilip Borkar, Ph.: 2438355, E-mail: bimbkonkani@yahoo.co.in